# वतांतलें चान्नें

(कथां झेलो)



सुधा खरंगटे

संजना पब्लिकेशन्स

# वतांतलें चान्नें

(कथां झेलो)

Vatantalem Channe
(Short Stories)

**लेखीका :**

सुधा खरंगटे





प्रकाशन क्र. ३३

**उजवाडावणी :** जानेवारी २०१५

**उजवाडावपी :**

संजना पब्लिकेशन्स,

३९, दत्तवाडी, सांगें-गोंय ४०३७०४

फोन : ९५५२५५१४२५

sanjanapublications@yahoo.in

**छापपी :**

मित्रता ऑफसेट, कोल्हापूर

**मुखचित्र :** कलानंद बांबोळकार

**मोल :** रु. १९५/-



# अर्पण पत्रिका

पुराय जीण चंदन करशी झरलो
आनी आमचें जीवित परमळीत केलें
तो म्हजो मायेस्त भाव बाबा
**(श्री. माधव प्रभू चोडणेकार)**
आनी
भावज म्हणून आयली
पूण भयण जावन आमच्यांत भरसली
ती म्हजी मोगाळ भाभी
**(सौ. माधवी प्रभू चोडणेकार)**
हांकां
मायेमोगान आनी भोव आदरान!

– सुधा



# अनुक्रमणिका





# सुधा खरंगटेची कथा

वर्सा मासांच्या हिशेबान मेजल्यार वा संग्रहांच्या मापान तोलल्यार सुधाबाय खरंगटेची कथा समकालीनांचे तुळेन कळावान आयल्याशी दिसता खरी. पूण रुपकार, आशय तशेंच तंत्राच्या आंगान पळेल्यार ती तिजिल्ल्या रचनाकाराची निर्मणी जावन आसा. लेखिकेच्या सुक्षीम निरिक्षणशक्तीची आनी ओडलायण्या निवेदन शैलीची ठांय-ठांय गवाय दिवपी सुधाबायची कथा भोव वाचनीय थारता हातूंत दुबाव ना.

सरभोंवतणचें अणभव- विश्व साकारतना सुधाबाय जिव्या अनुभूतीक जितलें म्हत्व दिता, तितलेंच, घडये किस्कूटभर अदीकच म्हत्व ती समर्पक फाटभुंयेक, संदर्भसाजरेपणाक आनी सुचकतायेक दिता. संवकळीच्या विशयांतल्यान, लक्षवेधी पानां वरवीं दीसपट्ट्या जिविता कडेन सम्बद्ध आशयसुत्रां मांडपाची सुधाबायची कळाशी तुस्तीलायक जावन आसा.

हे कथेचे आनीक खाशेलेपण म्हळ्यार तातूंतली मानवी मुल्यां विशींची सजगताय आनी थळाकाळानुरूप समाजभान. स्वता कथानकांत देंवत कथनाचो दर्जोखालावप हे लेखिकेक मान्य ना. देखून कांयशा परंपरागत भासपी कथनपद्दतींतय ती पात्राची मानसीकताय, आंतरीक तशेंच बाह्य संघर्शाचें तर्कनिश्ठ उक्तावण आनी समस्यांचें सहज भासपी पूण सैमीक निरसन ह्या घटकांची बेस बरी मांडावळ करूंक शकल्या. हातूंतल्यान तिगेली प्रगल्भताय आनी व्यासंग दिसून येता.

बऱ्याच अंशीं कुटुंबीक परीघांत वावुरपी ही कथा, सुधाबायच्या कथानकांत पुरायेन विरून वचपाच्या लेखकीय तांकीक लागूनण विस्तृत मानवी अणभवांचे कक्षेंत सुलभतायेन वाकुळटा, आनी संवकळीच्या पटार

अनपेक्षीताक खेळयता.

आटापशीर फास्केंतय थळकाळातीत तथ्यां उक्तावपी सुधा खरंगटेचे कथेक उजळ फुडार आसा. मात तिणें भविश्यांत नव्यो वाटो धुंडाळटना आपलेच सर्जन किमये कडेन खर सर्त मांडची पडटली. तिच्या सुरवेच्या पावलांतली सर्जनात्मक रसणाय त्या भावी संभावनेची शक्यताय दर्शयता. 'तनरी' संग्रहा वरवीं वाचकीय संवेदनेक मोनेळ घालपी कथेन अचळय वाचकीय अपेक्षांक जाग्यो केल्यात. तांची पूर्ती करचेलें आव्हान सुधाबायन उखलचेंच पडटलें, हाचेर दुमत नासचें.

- किरण बुडकुले

# मनोगत

कितेंय पळयलें, आयकलें, काळजाक रोमसारकी घडणूक घडली वा कोणाचीय खोसदिणी खबर आयकली, तर ताचेर बरयन दिसतालें आनी हांव बरयतालेंय बी! केन्नाय कथा पुराय जाताली, चडशें अर्देंच उरतालें. मुद्दम म्हणून कसलीय मोख घेवन वा समाजांतल्या बऱ्या-वायट घडणुकांचेर हांव केन्ना बरोवंक गेलें ना. पूण एक-एक म्हण्टां साठ-सत्तर कथा बरोवन जाल्यो...

हो म्हजो दुसरो कथां-झेलो!

हो उजवाडाक येतना म्हजें म्हाकाच अजाप जाता. पयलें म्हणचे म्हजो आनी कथां-झेलो उजवाडाक येतलो अशें हांवें केन्ना चिंतूंकच नासलें. दुसरे,म्हजें ‘कपयाळें’ उजवाडा येतकच म्हज्या इश्ट-इश्टिणींनी, बरें मागतल्यांनी म्हाका परबीं दिवन कथा सुंदर जाल्यात अशें सांगलें. जांकां हांव फकत नांवानच वळखतां, अशा मनशांनी लेगीत फोन करून कथा आवडल्याचें जाणयलें. मन उमेदीन भरलें आनी उरिल्ल्या कथांतल्यो थोड्यो कथा घेवन आनीकएक पुस्तक कित्याक काडचें न्ही अशें मनात आयलें. भो. दिनेशबाब मणेरकारांक विचारतकच तांणीं रोखडेंच पुस्तक काडया म्हळें; म्हजी उमेद वाडयली. भो. किरणबाय बुडकुलेन आपलो मोलादीक वेळ दिवन कथा वाचल्यो आनी मोलादीक सुचोवण्यो केल्यो. तांच्या रिणांत रावपाकच म्हाका चड खुशी!

म्हज्या ‘कपयाळ्या’ भशेन म्हजें हें ‘वतांतलें चान्ने’ लेगीत वाचक मानून घेतले अशी आस्त बाळगितां.

- सुधा खरंगटे

# वतांतलें चान्नें

भयणीक आनी भावोजीक ॲक्सिडॅंट जाला म्हूण खबरीक कारवारा गेल्लो एकनाथ बरोबर भाच्याक घेवनूच आयलो. सुमतीचे तकलेक अशीऽ भिरभिरी मारली…

तांणी दारांत पावल दवरतनाच तिणें आपलें तोंड सुरू केलें- ''घरचें थोडें जालां म्हणून हें विकतें श्राद्ध घेवन आयला काय म्हणटां!… हांगा आमी एके वेळेक शीत जेवल्यार दुसरे वेळेक पेजेचो निवळ पिवन दीस काडटात. तातूंत हें लचांड हाडपाची कसली बुद्द जाली तुका? आतांच सांगून दवरतां, हीं दोगां आसात तांचेंच करूंक जायना आमच्यांनी.''

''आगे, आयक तरी…! दोगांय आक्ताक सोंपलीं… हो थंय काकागेर आशिल्लो…'' एकनाथान उलोवपाचो यत्न केलो.

''मागीर, थंय काकागेर आसलो तो हांगा मामागेर कित्याक म्हणून?… तांच्या रगताचो… तीं वाडयतलीं आसलीं.''

''…अपुरबायेची एकलीच भयण म्हजी… तिचोय हो एकलोच अपुरबायेचो पूत…'' एकनाथाच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं.

घोवाच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन समतीच्या आवाजाचो सूर देंवलो. तरी ती उलयलीच- ''पयशे आसल्यार सगल्यो अपुरबायो! हांगा आमची परिस्थिती कितें तें तरी येवजुपाचें…!!''

एकनाथ मोन्यांनी घरांत भितर सरलो आनी ताणें म्हळें, ''यो रे विसू. असो भितर यो…''

विसून फाटी वेलें दप्तर काडून पोटा कडेन पोटली करून धरलें आनी भिल्ल्या हुंदरा बशेन तो ल्हवूच मामा फाटल्यान बागेलांतल्यान सालांत

भितर सरलो. दोन कुडींचें इल्लेशें घर. मामी रागार. दनपारचो वेळ. पोटाक चुरचुरून भूक लागिल्ली. तातूंत बसस्टॉपा वेल्यान वतांतल्यान चलून घरा येयसर पांय मोडून आयिल्ले... तानेन आनी भुकेन तो सामको जार जाल्लो. घरांत आनीक कोण दिसना... फकत मामी... कमरार हात दवरून, मामाचेर दोळे वटारून उबी...!! शशी आनी सुशी खंय काय? शाळेंत गेल्यात जातलीं. हातांतली पोटली पोटा कडेन गव्च धरून तो वणटीक तेंकून उकणयां बसलो... मोन्यांनी. आवय-बापूय बसीच्या ॲक्सिडँटात सोंपत साकून आयिल्ल्या अणभवांनी तो खुबूच शाणो जाल्लो.

मागीर ल्हवूच उठून मागीलदारांत बांयचेर वचून ताणें थंय आशिल्ली बारकेली कळसुली भरून काडली. हात-पांय धुयले. तोंडार उदक मारलें आनी हाताचो पोसो तोंडाक लावन गटगट करून उदक पिवन घेतलें. मोठो धीर करून ताणें म्हळें- ''मामये, खूब भूक लागल्या.''

''शीत शिजता रात्तीर... तें वाळटकूच मागीर घालतां गिळूंक...' मामीलो राग अजून देवूंक नासलो.

मामाली गिरेस्तकाय आसतना तो आवय बरोबर सुटयेंत मामागेर येतालो. मामीन ताका केन्नाच कितेंच उणें करूंक नासलें. तांचे खातीर सांजचीं तरेतरेचीं खाणां बी करून तांकां खावयताली. मामी राग येतकच बडबडत सुट्टाली. पूण मनान ती खूब बरी हें विसू जाणा आसलो... आतां मामा सामको गरीब जाला हेंय तो जाणा आसलो. पूण गिरेस्त काकागेर जें भोगलां ताचेर परस हें जायतें बरें...

ताचें भुरगें मन येन्नाच जाणटें जावंक लागिल्लें. मामीन वाडिल्ल्या शीत-आमटा बरोबर तोराची शीर घेवन तो जेवलो.

देड वराचेर शशी आनी सुशी शाळेंतल्यान घरा आयलीं. विसूक पळोवन तीं खोश्शी जालीं. शशी-विसू एकाच वर्सांतलीं. विसूच शशी परस मातसो व्हड आसलो. सुशी धाकटें.

म्हाकाय मामा तांचे बरोबर शाळेंत धाडत काय? चवथेची परिक्षा जातली आसली काय बरी!... ताणें आपले दप्तर सांसपिलें. दप्तरांतूच

पुस्तकां बरोबर कालसांव-बुशकोट घालून ताणें हाडिल्लें.

"विसू, आकां-भावोजी कित्याक आयलीं नात? तांकां ॲक्सिडॅंट जाला म्हणून?" सुशीन विचारलें.

"आतां तुजीं आका-भावोजी खंयचीं गो पुता? दोगांय सोंपलीं ॲक्सिडॅटांत... देवागेर गेलीं..." एकनाथान सुशीक वेंगांत काडून सांगलें... "आतां विसू हांगाच रावपाचो..."

दोगांय भुरगीं अजापीत जालीं. आका-भावोजी सोंपलीं हें आयकून दुख्ख करचे परस, विसू हांगाच रावपाचो हें आयकून तीं खोश्शी जालीं. विसू तांकां जिवाय जाय आसलो.

"विसू, तूं आमचे बरोबर शाळेक येतलो मरे? तुजें नांव शाळेंत घालतलो मरे?" शशीन विचारलें.

"मामा, हांव शाळेंत वतलों?" विसून मामाकूच विचारलें.

मामा ओगीच रावलो. ह्या दोगांचीय फी, पुस्तकां, वह्यो, पाटी, इतलेंच करपाक नाका शेवट जातालो. आतां तिसऱ्याची शाळा करपाक पयशे खंयच्यान हाडटलो?

वसुमतीचे तोंड परत सुटलें- "हय! शाळा आनी शिकय ताका!... फी खंयची हाडपाची? हाडली पड, खाली पड ही आमची परिस्थिती... तातूंत तुका शाळा आनी खंयची?... पोटाकूच मेळ्ळ्यार पुरो म्हणपाचें!" मागीर शशी-सुशीचेर धेंगसो घालून ती म्हणूंक लागली, "चलात, हात-पांय धुयात, आनी गिळात कितें आसा तें! नसत्यो चवकश्यो करीत बसतात..."

दुसऱ्या दिसा सकाळीं शशी-सुशी शाळेंत वतकच विसू मागीलदारांत ओगीच बसून रावलो. ताका त्या दिसाची याद जाली... त्या दिसा आवयन गोड-सोय घालून भाकरी थापिल्ली. ताका डब्यांत घालून दिल्ली... 'विश्वा, आमकां परतूंक घडये कळाव जायत. येवन रांदतलें हांव. भूक लागल्यार ही भाकरी खा," आईन सांगिल्लें. "विश्वनाथा, येतात रे आमी..." आपान म्हणिल्लें. आई आनी आपा दोगांय बाजाराक गेल्लीं... तो शाळा सुट्कच घरा येवन भाकरी खायत खायत घराच्या बंद दारांतूच

बशिल्लो. अकस्मात ''थंय तीं दोगांय मरून पडल्यात आनी हो गांग। बसून रुचीन भाकरी खाता पळयात...'' काका ताच्या आंगार आड्डल्लो तेन्ना कच्च करून आंग काडून उठिल्लो... ताचे मांडये वेलो डबो सकल पडिल्लो... भाकरे-कुडके मातयेंत. नाकात त्यो यादी...

ताणें फोर्सान तकली हालोवन यादी पयसावपाक पळयल्यो.

मामी सकल बांयचे कडेन रातचीं उश्टीं आयदनां व्हरून घांसताली. तो उठलो... घांशिल्लीं आयदनां उबारून ताणें रांदचे कुडींत व्हरून दवरलीं. मामी कळशान उदक काडून घागर, तपलें भरताली. विसून घागर उबारूंक पळयली. ती ताच्यान उबारूंक जाली ना... मागीर तपलें उबारून ताणें रांदचे कुडींतल्या पिंपांत ओतलें आनी रिकामे तपलें घेवन तो परतून बांयचेर आयलो.

उदक भरून जातकच वसुमतीन सदचे संवये प्रमाण सगलीं आयदनां पुसून जाग्यार घालीं. विसू पळयतूच उरलो... ताटां, पेले, तोप... सगळें कशें नकसूदपणान एकार एक लायिल्ले... पितूळचे तोप भांगर कशे लकलकताले, आनी आल्युमिनियमचे तोप लेगीत लकलकीत...!

मामयेचो हात पडटा तें आयदन तिच्या हाताक भिवनूच लकलकीत जाता जातलें... विसूक आपल्याच चिंतनांचेर हासूंक आयलें.

आनंदे पडभर तिसऱ्यो आयलें. ''भाटकान्नी, सकाळीं तिसऱ्यांक गेल्लें गे... बऱ्योऽ मेळ्ळ्यो. ह्यो पोय, तुका हाडल्यात इल्ल्योश्यो...'' ताणें म्हळें.

''जावं बाये! तुका बरी याद जाता आमची...'' वसुमतीन म्हळें.

''आवय! याद जाता म्हुणचे कितें गे? तुज्या तरतरत्या वेळार तुवेंन थोडें खावयलां लोकांक? कितल्या गरिबांच्या पोटांत तुजो हात गेला, कोंत आसा? हांव तर दीसपट्टें फकत शीत वाळटालें आनी आमट, रोस वा हुमण मागूंक तुजे कडेन येतालें... तोंड वांकडें करी नासतना तुवेंन सदींच दिलां म्हाका भाटकान्नी...''

''आतां 'भाटकान्न' हें फकत तांव उरलां... भाटकान्न जाल्या आतां भिकान्न...'

"अशें कित्याक येवजिता तूं भाटकान्नी? बरें केल्लें खंयच वचना. परते बरे दीस येतले. तुमगेल्या शॉपार अशीऽ गर्दी पडटाली... सगलो गांव एकनाथ शेटीच्या शॉपार अशें म्हणटाले लोक... तुजो घोव सादो भोळो देवमनीस गे भाटकान्नी... तेका खंय खबर, जुगडी खेळटना बापायन दोंगरा भाशेन रिणां करून दवरल्यांत तीं? बापूय गेलो आनी सगळे वाटेक लोक गची धरूंक आयले..."

"आनी मागीर भाटां-बेसां आसलें नासलें सगळें विकून मेकळो... निमाणें शॉप आनी घर लेगीत!"

"लोकांनी नागयलो गे तेका... भावार्थी लोकांचो न्हू हो संवसार... काय बरें शॉप आसलें..."

"आतां शॉपूय ना आनी कांय ना... दुसऱ्याच्या शॉपार कामगार म्हूण काम करता आनी दनपारचो पड हडटा... दोगां अपुरबायेचीं भुरगीं. तांचें लेगीत करपाचे वांधे जाल्यात..."

इतल्यान आनंद्याची नदर विसूचेर पडली.

"आनी हो कोण तर?... आरे, विसू? तूं केन्ना येयलो?"

विसूच्या तोंडार ना हांशें, ना वळख. सामको स्थितप्रज्ञ सो ओग्गी...

"भाटकान्नी, तोंड सामके भकून खाल्ले बशेन जालां मगे तेगेलें!"

"हो गेल्लो न्ही बाराव्याक कारवार... भाच्याक घेवन आयलो..." वसुमतीन सांगलें.

"आवय-बापूय दोगांय एकाच बराबर सोंपप...! कशें सोंसलें जातलें गे ह्या पोरान! देवूच जाणां..." आनंद्यान वयर मळबार पळोवन आपणाले पाले फोडून घैतले आीन विचारलें- "आनी तेंगे घराबो ना तर...?"

"ना कसो? बापोलयो आसा बऽरो गिरेस्त...! तांगेरूच आशिल्लो... पूण आपल्याचेर पडटकच सगळे आंग फांफुडटात गो...! थंय हाचे त्रास पळोवं नज जावन घेवन आयलो... वेळार पोटाक वाडप ना, करप ना... बेश्टोच हिणसावप..."

विसून आनिकूच आंग चोरलें. सकयल घाल्ली तकली ताणें वयर म्हूण काडली ना...

आनंद्यान म्हऱ्यांत वचून विसूंक वेंगांत काडलो. "जण एकलो आपणालें नशीब घेवन येता, जाणा मरे? दीस काडूंक शिकूंक जाय..."

विसून 'आं' म्हणून तकली हालयली. आनंदे वतकच वसुमती बांयचेर ओलीं उमळूंक बसली. ओल्यांचे उदक सारकें मसंगाक वतालें. विसून पळयलें, मसंगाक सांगो आसात. पूण खुबूच वयर.

"मामये, सांगो काडूं मसंगाच्यो?"

"इतल्यो वयल्यो सांगो?... तूं काडटलो?... कांय नाका... हातपांय मोडून घेतल्यार बोल मागीर म्हजेर..."

"ना मामये! केद्याय मोव झाडार चडूंक जाणां हांव! सगल्या आंगाचो भार चोरतां हांव! म्हजो पेज आंगार घेवन बारीक ताळयांनी लेगीत भोंवता हांव. गांवांत, शेजरा सगलीं जाणां झाडा वेलें कितेंय काडूंक म्हाकाच आपयतालीं..."

उलयतां उलयतां विसू माकडा भशेन वयर तेंगशेर पावलो लेगीत! पटपटीत सांगो तोडून ताणें सकयल उडयल्यो आनी देंवलो. सांगो एकठांय करून ताणें भितर रांदचे कुडींत व्हरून दवरल्यो.

ओलीं दोरयेर सुकत घालून वसुमती घरांत आयली. येतना बडयेत पोरसांतले पोपायेची तन्नी पोपाय काडून घेवत ती भितर सरली. पयर केल्ले मुळ्या भाजयेचे चार मुळे

उरिल्ले ते शिनले. पोपाय तासून तिच्यो फोडी केल्यो. सांगो शिनल्यो...

"मामये कितें करता?" विसून विचारलें.

"करतां म्हजे मडें..." वसुमती तापली.

मागीर तिकाच जिवाक कितें दिसलें, कोण जाणा... "खतखतें करतां... पूण सुशी शशी कांय तोंडांत घालचीं नात.... तिसऱ्यो शिजोवन फाल्यांक दवरूं म्हणटालें... तांकां कितेंय तिसऱ्याचें करचेंच पडलें..."

"मामये, खतखत्यांत कालवां घाल... दोगांय खातलीं..."

"कितें?"

"तिसऱ्यांची मांसां गे! आई खतखत्यांत तिसऱ्यांचीं मांसां

घालताली... सगलो तोप खतखतें सोंपतालें... उरिल्लो पोळोव लेगीत दुसऱ्या दिसा सकाळीं भाकरेक लावन खावप...'' उलयतां उलयतां विसू ओग्गी जालो...

खतखत्यांत आनी तिसऱ्या मांसां? केन्नाच आयकूंक ना. पूण पळोवया घालून... वसुमतीन चिंतलें. तिसऱ्यो कल्लायतना तिणें बारीक आशिल्ल्या तिसऱ्यांचीं मांसां काडलीं आनी खतखतें शिजतना तातूंत घालीं.

दनपरां जेवतना सुशीन नाक किसलायलें. ''आंवऽय, हें कितें?... खतखतें केलां?... म्हाका नाका...''

'सांगो वऽयर आशिल्ल्यो न्ही गे? कोणाली कोंड्याची बडी मागून हाडली?'' एकनाथान बायलेक विचारलें.

''मामा, हांवें काडल्यो सांगो! शशी, सुशी, सांगो हांवें काडल्यात म्हणून तरी इल्लें खतखतें पानार घेयात...' विसून आग्रो केलो.

''आई, इल्लेंऽशें वाड आं...' करीत दोगांनीय पानार खतखतें घेतलें आनी शिता बरोबर खालें. पाना वेलें खतखतें सोंपतकच सुशीन म्हळें, ''आई, खतखतें बरेंऽ लागलें मगे आज. विसून सांगो काडिल्ल्यान काय कितें?... आनीक वाड म्हाका...''

''म्हाकाय वाड आई... बरेंऽ लागलें आज,'' शशीन म्हळें.

दोगांनीय तीन-तीनदां मागून घेवन खतखतें खालें.

जेवन जातकच शशी-सुशी अभ्यासाक बसलीं. शशी आनी विसू गणितां सोडयताले. इतल्यांन सुशीन म्हळें, ''आज मास्तरान निबंद बरोवंक सांगलां- 'माझी आई' कितें बरोवं रे?''

''सामको सोपो विशय मुगो... बरोवन सोड...'' विसून म्हळें.

''सोड? कितें सोड? धरून दवर...'' शशीन चाळयलें.

''पुरो रे तुजें... विसू, तूं तरी सांग रे कितें बरोवं तें...!'' सुशी रडकुरें परतलें.

''बरय मगो...'' विसून सांगलें- ''म्हजी आई सकाळीं पांचाक उठ्ठा. आमकां च्या-भाकरु करून दिता. शाळेंत धाडटा. घर झाडून लक्क करता. आयदनां घांसता, ओलीं उमळटा... मात सुशेग घेना आसतना काम करीत

आसता. तिणें घांशिल्लीं पितूळचीं आयदनां भांगराचीं कशीं चकचकतात आनी आल्युमिनियमचीं आयदनां रुपें कशीं लकलकतात. तिणें आयदनां घांसून एकार एक मांडटकच रांदचे कुडीक खूब सोबा येता. इल्लीशी रांदची कूड, पूण प्रदर्शनाक दवरची अशी सुंदर दिसता. आई घरांत आसल्यार सगलें घर भरिल्लें दिसता. आई घरांत नासल्यार घर रितें रितें दिसता.''

जेवन मातशी आड पडिल्ले कडेन वसुमती सगलें आयकताली. आवयच्या मोगाक आशेल्लो पोर... घुस्मट्टा जातलो भितरले भितर... बरो गुणाचो... शिकुंकूय बी हुशार खंय... म्हजे रांदचे कुडीची तोखणाय केन्नाच कोणे करूंक ना... पूण ना कशी?... मुक्तें सदांच तोखेतालें- ''वैनी, कशी बाये तूं इतलीं आयदनां, इतलेशे डबे इल्ल्याश्या जाग्यांत मांडटा गे? तीय बी इतल्या नकसूदपणान...!! तुजी कळाशी म्हाकाय शिकय मगे!!...'

नणंदेचें यादीन वसुमतीचे दोळे भरून आयले. काळे सांवळे पूण नदरेंत वचऽ सारकें लकलकीत पोर! पूण पत्रिकेंत मंगळ आशिल्ल्यान लग्नूच जमनासलें. शेवटाक नक्षत्राक पडलें थंय पयस कारवाराक दिवचें पडलें. सट-सट कुळारा तरी यो-वच करूंक मेळटालें? पुर्तुगेज सरकाराच्यो हजार कटकटी. अंदूं गोंय स्वतंत्र जालें. म्हणून आमी आतां मुक्त्यागेर कारवारा वचूंक मेळटलें म्हणून कितलीं खोशी आसलीं!! हांगा बसीर बसलीं थंय कारवारा पावलीं...! पूण खंय कितें?! असत्याचें नसतें जालें... आतां मुक्तेंय ना, भावोजीय ना...

आतां ह्या पोराचें कितेंय करचें पडलें...!

दुसऱ्या दिसा सकाळचीं सुशी शशी शाळेंत गेलीं. एकनाथ कामाक गेलो. वसुमतीन सडसडीत आयदनां ओलीं केलीं. शीत वाळ्ळें, तिसऱ्याचें आमट करून दवरलें आनी विसूक म्हळें, ''चल, आमी एके कडेन वचून येवया.''

''खंय मामये...?'' विसून विचारलें.

'चल म्हळें, चलूंक लागचें! खंय, कितें कात तुका लागना...''

मामी अजुनूय म्हजेर तापार आसा... विसून चिंतलें. पांयाक व्हाणो

चडोवन तो मामी फाटल्यान चलूंक लागलो.

कितलो वेळ तीं चलतालीं. वता भारार. विसूचे पांय सामके वळून आयले. ''मामये, आनी कितलें चमकवपाचें उरलां?'' अशें विचारपाक ताणें तोंड उक्तें केल्लें, इतल्यांत मामी एका घरांत भितर सरली.

''...आवय!... सुशीआई...? कितल्या तेंपान आमगेर पावली गे तूं? ...कशी आसा?... हांगा खंय आयिल्ली?...'' घरांतले बायलेन मोट्या अगत्यान तिका येवकार दिलो.

''...तुमगेरूच आयलां गे! मातशें काम आशिल्लें...' विसुमतीन घाम पुशीत सांगलें.

''बस... उदक पिये... वता कडार आयल्या. च्याक दवरतां आं...'

''नाका गे... च्या बी कांय नाका... मास्तर केन्ना पावतलो घरा? भुरगीं घरा पावचे पयलीं म्हाका घरा पावंक जाय.''

'येवचेच जाले हे! शाळा लागींच आसा न्ही?... तुमच्या भुरग्यांक मात बरीऽ पयस पडटा, न्ही?''

''हय गे!... पयस आनी लागीं...!! शिकचे खातीर कश्ट काडूंकच जाय...''

इतल्यांत मास्तरूच भितर सरलो. वसुमतीचेर नदर पडटनाच ताणें अजापान म्हळें -''कितें जालें सुशीआई? शशी सुशीची कितें कागाळ आसा? दोगांय बरीं शिकतात गे! आज तर काय बरो निबंद बरोवन हाडला सुशीन...! आनी हो कोण?'' विसूचेर नदर पडटकच ताणें विचारलें.

'नणंदेलो चलो, मास्तर...'

''मुक्तालो चलो...?''

''मास्तर, पंदरा दीस जाले- मुक्तें आनी ताचो घोव ॲक्सिडँटान भायर पडल्यार. एकलोच चलो. हुशार आसा. हो घरा घेवन आयलो ताका...''

''नांव कितें रे बाबा तुजें?'' मास्तरान विसूचे तकले वेल्यान मायेन हात भोंवडायलो.

''विसू...'' विसून खांकडत सांगलें.

''अशें नांव सांगतात? आपलें नांव अभिमानान सांगचें- आपणेंच

आपलें नांव व्हड करचें आसता... अशें खांकडूंक कित्याक जाय?''

विसूक मास्तर खूब आवडलो. नीट उबो रावन ताणें सांगलें- ''म्हजे नांव विश्वनाथ पंढरीनाथ नास्नोडकार... पूण सगळे म्हाका विसूच म्हणटात. फकत म्हजी आई एकलीच म्हाका 'विश्वा' म्हणटाली. बाबाच्या नांवांत 'नाथ' येता न्ही, म्हूण विश्वनाथाचें तिणें 'विश्वा' केल्लें. घोवाचें नांव घेनात न्ही...?'' उलयतां उलयतां विसूचो गळो भरून आयलो.

''शाबास! आनी, दोळ्यांत दुका काडप ना. घडलां ताका कोणाचो इलाज ना. गेलो तो भूतकाळ. आतां तुवें वर्तमानकाळ पळोवपाचो. ते शाळेंत कितलो नंबर काडटलो रे?''

''पयलो नंबर गुरुजी,'' विसून नमळायेन सांगलें.

''पाडे कितले शिकला?''

''तिसां मेरेन येतात गुरुजी.''

''एकोणीस णवे कितले रे?''

''एक्यातराशें गुरूजी...''

''धाड ताका फाल्यांच्यान शाळेंत. सुशीआई... शाळा सोडिल्ल्याचो दाखलो बी...''

''मामा ताका घरा हाडटना तें सगळें घेवनूच आयला. पूण आमची परिस्थिती तूं जाणाच मास्तर... शशी सुशीची फी दितनाच पोटाक चिमटो काडचो पडटा. हाची आनी फी खंयच्यान हडटली?... पूण तूं म्हूण कितें करतलो? तुमचेंय म्हूण पोट आसाच न्ही?''

''अशें उलोवन म्हाका लजेक घालनाका सुशीआई. तुजे जायते उपकार आसात आमचेर! लग्न जावन ह्या गांवांत आयलों तेन्ना आयदनाच्या पोंता मेरेन सगलें सगलें दिवन तुवेंच न्ही आमचो संवसार मांडून दिल्लो! आनी आतां गोंय स्वतंत्र जालां न्ही? गांवच्या लोकांनी अर्ज केला सरकारांत, हे शाळेक मान्यताय दिवन सरकारी शाळा करची म्हणून. मागीर भुरग्यांक फी आसची ना...'' मास्तरान म्हळें.

वसुमतीचो मुखावळो चक्क उजवाडलो. ते खोशयेंतूच ती उठली. ''येतात गे आनी मास्तरणी... चल रे विश्वा, चल या आमी घरा...''

मामीन 'विश्वा' म्हणूं नाका, विसूचो खालते मानेचो रडकुरो चेरो सामको खोशयेन फुलून आयलो. रखरखीत वतांतल्यान शितळ चान्यांत पाविल्ले भशेन शें कितें ताच्या जिवाक भोगलें. ''मामाचें नांव एकनाथ... मामाच्याय नांवांत 'नाथ' आसा... न्ही गे मामये?...' ताणें भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें.

वसुमतीन तो घरा आयिल्ल्याक पयलेच खेपे अपुरबायेन ताका वेंगांत ओडून घेतलो. आपल्या पदरान ताचीं दुकां पुसलीं आनी ताच्या हाताक धरून सडसडीत पावलां उबारलीं.

***

# अयपण जावं

तिनसांज जाली. वंदनान संजूक उलो केलो- ''संजू, खेळ पुरो आतां. चल, हात-पांय धूय. देवाक दिवो लायतां...''

संजू आंगणात क्रिकेट खेळटालो. वंदनाचो उलो आयकून शेखर आनी राकेश विरूस जाले.

''संजू, आनीक थोडो वेळ खेळया रे. म्हाका बॅटिंग मेळ्ळां, आनी तुमी खेळ सोंपयतात मरे?'' राकेशान म्हळें.

''मम्मीक सांग रे तुजे रोखडो येतां म्हणून.'' शेखरान सुचयलें.

''ना रे बाबा. मम्मी रागार जातली. हांव वतां घरा...'' संजून घरांत धांव मारली. तशे शेखर राकेश आपआपल्या घरा गेले.

संजू हात-पांय धूवन देवाचे कुडीत आयलो. संजूक देवा कूड खूब आवडटाली. थंयचो तो फुलांचो आनी उजवाती, कापराचो वास, दीसभर पेटपी लामणदिवो, देवते मुखार लायिल्ली दिवली. त्या थंड उजवाडांत देवाक पडटकच मदेकाकच आशिल्ल्या पांयजेलांतली शांतादुर्गा आपल्याक परती काय बरी हांसता, अशें ताका दिसतालें.

संजूलें 'शुभं करोति' सुरू जालें. तुळशीक दिवो दाखोवन घरांत आयलो. संजू पडवेर बसून परवचा म्हणूंक लागलो. आजो म्हऱ्यांत बसून ताची परवचा आयकतालो.

वंदन भितर वचून मांयच्या पांयां पडलें. ''देव बरें करूं पुता... अयपण जावं...'' मांयन सदचे भशेन तोंड भरून आशिर्वाद दिलो.

वंदन जेवणाचें पळोवंक रांदचे कुडींत गेलें. वंदनाचे मांयक दम्याचें आशिलें. ती उदकांत चड हात बी घालूंक वचनासली. सून घरांत येत सावन तिणें रांदचे कुडींतलें आंगच काडून घेतिल्ले भशेन केल्लें.

दिनकर अजून घरा पावंक नासलो. आज संकश्टी. मांयचो दीसभर उपास. आतां चंद्र वयर सरतकच रातची जेवतली. घरांत एकल्याक संकश्टी आसल्यार सगळ्यांक शिवराक जेवण करपाची घरची पयलीं सावन रीत आसली. तातूंत अंगारिका आयल्यार मांय वंदनाकय उपास धरूंक लायताली.

मांय-मांवचीं जेवणां जालीं. संजूलेंय जालें.

"दिनकर आयलो ना गो जेवंक... ? मांवान विचारलें.

"ना. मागीर जेवतले ते. न्हावंक गेल्यात जातले," वंदनान सांगलें.

मांय वंदनाच्या तोंडाक पळोवन हांसली. पूण कांयच उलयली ना. तिका सगळें ज्युस्त कळटा. दिनकराक शिवराक जेवण दोळ्या मुखार नाका हें ती जाणा आसली.

वंदनान फ्रीज उक्तो करून मीठ-मिरसांग लावन दवरिल्लें पोस्त भायर काडलें. हेदोळ काडून दवरपाचें. पूण नुस्त्याक हात लायला म्हूण कळ्ळ्यार मांय बोवाळ घालतली हें तें जाणा आसलें. ताणें मागीर भाजी, रोस बी सगळें गरम केलें. एक कांदो, टमाट, इल्लो कोबी शिनून सॅलड करून दवरलें. मागीर पोस्त तव्यार घालून गॅस मंद करून तें दिनकराक आपोवंक गेलें.

दिनकराक कामा वेल्यान येतकच सदांच जेवचे पयलीं न्हावची संवय.

"वंदन, तुवालो खंय गो म्हजो ?" ताणें विचारलें.

"हो कितें? मुखावेली वस्त दिसना तुमकां? सगळें हातांत दिवंक जाय..." वंदनान म्हळें तसो दिनकर हांसतकच न्हावंक गेलो. वंदनान ताची जेवणाची तयारी केली.

"वंदन, तूं जेवना... ?" दिनकरान विचारलें.

"जेवता मागीर... तुमी जेवात..." ताणें म्हळें.

"कळ्ळें... म्हज्याच ताटांत मागीर जेवतलें..."

"शे! तुमी नुस्तें खाला... आज संकश्टी..."

"तुजो उपास आसलो आज ?"

"म्हजो उपास ना. पूण संकश्टी आसल्यार घरांत सगलीं शिवराक जेवतात न्हय ? म्हणून..."

''मागीर दुसरें ताट घेवन बस मगो...'' दिनकरान आग्रो केलो.

वंदनान ताटांत वाडून घेतलें. ताकाय आतां शिवराक जेवप नाकाच दिसप. नुस्तें जायशें दिसप.

वंदनाक याद जाली, तें नवी व्हंकल आशिल्ली तेन्नाची. बरेच सगळे कुळाचार बी समजून घेवपाची ताची उमेद मोठी. येद्दी व्हडली देवाकूड. वंदनाचो मांव व्हडलो भाव. तोच देवांची पुजा बी करपी. मदीं शांतादुर्गा... भोंवतणी देव-देवतांच्यो तरेकवार मुर्ती... पांयजेलां. घरांत वर्सयभर कितें न्हय कितें चालूच आसतालें. पंचम, उमास, संकश्टी... तातूंत अंगारिका आयल्यार घरांतल्यो बायलोच न्हय, शिकपी चलयो लेगीत उपास धरताल्यो. मागीर श्रावणी आयतार... नवरात्रां... असल्या दिसांनी घरांत नुस्तें सोड, कांदो लेगीत खावप नासलें.

खरें पळोवंक गेल्यार घरचो सगळो लोक सामको नुस्तें खायरो. नुस्त्याक बाजारांत वतालो तो मनीस दोन व्हडल्यो पोतयो घेवन वतालो. हुमण आनी तळिल्लें हें आसतालेंच.

शिवाय सुकें नाजाल्यार धबधबीत. कुल्ल्यो जावं तिसऱ्यो हाडून तांचें तोणाक. कोणाक रुच आयल्या म्हूण सुक्या बांगड्यांची किसमू. असो नुस्त्याचो पसारो चलतालो. भाजयेक कोण पळय लेगीत नासलो. घराबो व्हड आशिल्ल्यान खपतालेंय सगळें. उरिल्लें मागीर सांजेक...

वंदनाच्या कुळारा नुस्त्याचें व्हडलेशें नाशिल्लेंच. बापूय सामको शिवराक जेवपी. व्हडलो भावय शिवराक. सगळें जेवण रांदून जातकच वंदनाची आवय नुस्तें घेवन तळटाली नाजाल्यार सुकें करताली. वंदन मनाक मारल्यार नुस्तें खातालें. चडशें शिवराकच आवडीन जेवतालें.

दिल्ल्या घरा ही नुस्त्याची खातड पळोवन वंदनाचो जीव विटिल्ले भशेन जाल्लो. कशें काडटलें दीस हांव ह्या नुस्तेखायऱ्या मदीं? नुस्त्याचे ते तरेकवार पनवार पळोवन ताका जेवणच नाका जावप पयलीं पयलीं. मागीर मात काकीबायच्या हुमणाक संवकलेंच तें! काकीबाय हुमण करतालीय तशेंच सुरबूस! आमाडे नाजाल्यार मुळो घालून तिणें केल्लें सुंगटांचें हुमण वंदनान पयलेच खेपे खाल्लें तेन्नाच्यान तें हुमणाक सामकें चटावल्लेंच!

मागीर बांगड्यांचें तेंफळ घालून केल्लें आंबट-तीख हुमण...

बांगड्यांची हुड्डमेथी... पापलेटीजें जावं मुड्डश्यांचें रोस काडून केल्लें हुमण, असलीं तरेकवार नवलां खावन खावन ताची जीब नुस्त्याक सामकी संवकल्ली. नुस्तें आनी इतलें रुचीक करुं येता? ताका अजाप अजाप जावप.

कुळारा गेल्लें तेन्ना ताचे आवयन ताका आवडटलो तसलो कांदो घालून दाळचो रोस केलो. अळसाद्याचें बरें मचमचीत मसाल्याचें तोणाक केलें. काराथ्याचें रायतें बी जायत्यो तरा केल्यो. शिवाय बांगडे घेवन तांचें सुकेंय केलें.

"आई गे, सदां उठून तें सुकें नाजाल्यार तळप? हाचे बगर कांय करूंकच येना गे तुका? बरेंऽ तेंफळ बी घालून बांगड्याचें आंबट-तीख हुमण कर मगे झणझणीत...!"

आवय ताच्या तोंडाक पळयतच उरली. मागीर वंदन तिका नुस्त्याच्यो तरा तरा कश्यो करतात तें रुच काडून काडून सांगूंक लागलें.

आपली धूव सामकी नुस्तें खायरी जाल्या म्हणपाचें आवय तेन्नाच समजली.

काकीबाय म्हळ्यार वंदनाची बापोलमांय. तिणेंच वंदनाक नुस्तें रांदूंक शिकयलें.

"वंदन, आगो हांगा यो. दिनकराक नुस्त्यार बगर उणी वचना... जाणा मुगो तूं?"

वंदनान 'हय' म्हणून मान हालयली. काकीबायन मागीर आपलो घोव कसो नुस्तें खायरो आसलो, तेंच दिनकराक कशें आयलां तें सांगलें.

"जाणा मुगो वंदन, आषाढी आनी कार्तिकी ह्यो दोनय एकादशी हांव करपी. पूण कश्यो? नुस्त्याचें रांदून, तांकां वाडून मागीर हांव माथ्यार न्हातालें. आनी कितेंय साबुदाणो बी कडोवन पितालें... असले उपास म्हजे...' तिणें सांगलें.

"आनी काकीबाय, संकश्टी बी कशी तर?" वंदनान विचारलें.

"तेंय बी तशेंच! म्हाका म्हणटाले, हे उपास आनी व्रतां घोवाच्या बऱ्याक करता मूं तूं? मागीर जितो आसतना घोवाक वळवळायता कित्याक? ...आगो, तुजो दिनकरय बी हांचे भशेन नुस्त्याक लंपट! तेन्ना तूं

नुस्तें रांदूक बरेंऽ करून शिकून घे. तुज्या कुळारा नुस्त्याचें व्हडलेशें ना म्हणटालें न्हय तूं?''

वंदन मागीर काकीबायच्या हाता खाला नुस्त्याचें जेवण रांदूक शिकूंक लागलें.

आतां ती काकीबाय ना आनी ती नुस्त्याची खातडय ना. जण एकलो आपापल्या नोकरे धंद्याक लागून फाफसला. धुवो लग्न जावन घोवागेर गेल्यात. चवथी कडेन सगळीं एकठांय जातकच सश्टी दिसा मात पयली भशेन नुस्त्या परब जाता.

दुसऱ्या दिसा सकाळच्या च्याव. पोळे आनी सुंगटां घालून मसूरचें तोणाक केल्लें. वंदन सदचे परस बेगीनच च्या घेवंक गेलें.

''आगो, पोळो तोणाक बी खावशीत आं. आज अयां-नम. कमलाबाय सकाळीं फुडें बेगीन आयिल्ली. आमकां दोगांकय सवाशणीक सांगून गेल्या...'' मांयन म्हळें. ''हो पळो, हांवें तिखसो सांजो केला तो खा...''

''कोण गेल्या गे तांगेर सवाशीण?'' वंदनान विचारलें.

''आगो, तुका याद ना? जानकीहोनी, सदाप्पाली बायल. तिची मांय लेगीत सवशीणच गेल्ली. दोन सवाशणी वाडटात तांगेर...''

वंदनाक जानकीहोनी गेल्ली तो दीस याद जालो. जानकीहोनीक तिचो शालू न्हेसयिल्लो. माथ्यांत मोगऱ्यांच्यो हळयो, कपळभर कुकूम. जमिल्ल्यो बायलो तिच्या भाग्याची तोखणाय करताल्यो.

''मोठी भाग्याची बायल! पुण्यवानाकच अशे अयेपणीं मरण मेळटा...''

''तीथ लेगीत कशी पळय आयल्या- एकादस...''

''गेली तीय कशी- चलता-बोलतना! एक दीस हांथरुणार पडली ना. कुलेरभर वखद घेतलें ना. सकाळची सगल्यांक च्या करून दिली. आपूण च्या घेतली ती छातयेंत कसकसता म्हूण बोवाळ घालूंक लागली... दोतोर हाडसर सगलें खलास...''

सदाप्पा थंय कुशीन सत्यभास काडिल्ले भशेन बशिल्लो. पंच्यात्तरेक पाविल्लो, पिकिल्ल्या केंसांचो सदाप्पा सदांच ताठ कण्यान भोंवपी, आयज सगळोच आंवळून आयिल्ले भशेन पोंग काडून बशिल्लो... सदांच

किचमण्यांचो सदाप्पा. कशे काडटा काय दीस जानकीहोनी बगर...??

मनांतले विचार फांफडून वंदन न्हावंक गेलें. आयतार आशिल्ल्यान सगळे घराच आसले. तांकां बेगीनच वाडून करून मांय सून दोगांय सदाप्पागेर गेलीं.

''बरेंऽ जालां आं जेवण. मुगांच्यो गांठी तर फसकलास जाल्यात...'' वंदनाचे मांयन सदाप्पाच्या सुनांची तोखणाय केली.

इतल्यांत भितल्ल्या रुमांतल्यान आवाज येवंक लागले. धाकली सून भितर ताट घेवन गेल्ली ती फडफडत भायर आयली.

''आज कितें जालें देवचाराचें?'' व्हडले जावेन विचारलें.

''आज आनी कितें वेगळें! सदचेंच!! शीत खंय निबर जालां, रोस पचपचीत... मुगांच्यो गांठी तोंडात घालपाच्यो न्ही... पुरयो वातड... गोडशें खायत बसला. ताकाय गोड कमी म्हूण पंरवतालो...'' धाकलेन सांगलें.

कोण काय हो?... आनी देंवचार सो म्हळो ताका? वंदनाक प्रस्न पडलो. तें विचारूंक वतालें. इतल्यांत मांयन ताका कुरू केली ओगी बस म्हणून. वंदन ओगी रावलें. पूण ताचे तकलेंत तो देंवचार घट्ट बशिल्लो. ताणें घरा वतना वाटेरच मांय कडेन तो विशय काडलो.

''आगो, सदाप्पाकच तीं देंवचार म्हणटात...'' मांयन सांगलें.

''कितें?? सदाप्पाक...??'' वंदनान अजापान विचारलें. ताच्या दोळ्या मुखार सदाप्पा उबो रावलो-

आपल्या कर्तुत्वाचेर नाशिल्ल्यांतल्यान येदें व्हडलें वैभव ताणें तयार केलें अशें वंदनाचो मांव सदांच म्हणटालो. ताचो दरारोय तसोच आसलो घरांत! टीव्ही पळोवंक सालांत बशिल्ल्यो सुनो सदाप्पाच्या व्हाणांचो आवाज भायल्यान येना फुडें टीव्ही बंद करून भितर पसार जाताल्यो. दोगूय पूत बापायच्या उतरा भायर नाशिल्ले. गांवांत सगळो लोक कितलो मान दितालो!

मांय सांगत आशिल्ली- ''व्हडली सून तर सामकीच फडफडटा... म्हणटा, मांय बरी सवाशीण गेली आपूण; वतना हें लोढणें आमच्या गळ्यांत घालून गेली. दीस्सभर किटकीट. मिनटां मिनटाक च्या मागता.

आतां पिल्ली आत्ता विसरता. मागीर आड्डता- ''अर्दवर जालें, च्या मागल्यार इल्ली ताळ्यार घालशात म्हूण वाट पळयतां...'' हरशींय मनीस किचमण्यांचोच गो तो! जानकीहोनी केन्नाय आमगेर भितर सरल्यार रोखडीच घरा धांवताली, याद ना तुका?''

''जानकीहोनीची आनी याद ना अशें जावं येता?'' वंदनान म्हळें, ''दारांतले मोगरेचे कळे, जायो हाडून दिवपी ती म्हाका. ''गुंथून माळ आं'' म्हणटाली. तिच्यो सुनो फुलां बी माळप म्हळ्यार अनाडीपणां म्हणटात अशें सांगताली. सदाप्पाच्यो कितल्यो होडविको सांगताली...''

''दीसभर घोवाचोच हुस्को तिका. म्हणटाली, सगळें वेळच्या वेळार पडूंक जाय तांकां. शीत चड गरम गरम चलना, थंडय चलना, मध्यम. हुनशें निबर जाल्यार घर माथ्यार घेतले. मोव जाल्यार उणी तोंडांत घालचेनात. मिक्सर हाडला म्हूण तातूंत वांटून हुमण करुं येता? रगड्यारच वांटूक जाय... शीत कुकरांत करुं येता? वाळूनच करूंक जाय... जानकीहोनी सगळें वेवस्थीत करताली...'' मांय सांगत आसली.

सांगातीण अर्देवाटेर सोडून गेली आनी आतां ही दशा... वंदनाचे दोळे भरून आयले.

''कितें येवजिता गो?'' मांयन विचारलें.

''कांय ना. सदाप्पाचेंच चिंतातलें... जानकीहोनी सगळें वेवस्थीत करताली न्हय ताचें सगळें...'' वंदनान म्हळें.

''सुनांचीय चूक ना गो! त्यो किदें दीसभर रान्नीपोलांत पडूंक आयल्यात? वेळार शिताचो कुकर लायलो की जालें म्हणटल्यो. मिक्सर आसतना वानार बसून त्यो वांटूंक आयल्यात? आनी सदाप्पाचेंय जालां आतां जाण्टेपण... पूण सुनोय म्हणून उण्याच्यो नात. आपल्या घोवां बरोबर सदाप्पाक जेवपाक बसयनात. ताट वाडून भितर रुमांत व्हरून दितात...''

उलयतां उलयतां घर केन्ना आयलें कळ्ळेंच ना. वंदन मात सदाप्पाचोच विचार करतालें. ताचें काळीज बरेंच दुखिल्ले भशेन जाल्लें.

तिनसांजचो देवाक दिवो लावन तें सदचे भशेन मांयचे पांयां पडलें.

''देव बरें करूं पुता... अयपण जावं...'' मांयन सदचो आशिर्वाद दिलो.

आनी वंदनाच्या काळजांत कच्च जालें. अयपण जावं... सदांच सौभाग्यवती उरूं. म्हणचे, घोवा परस पयलीं देवाचें आपोवणें येवचें पडलें... आनी मागीर दिनकर, म्हजो घोव... उतरा पावलाक, 'वंदन, हें खंय दवरलां गो! वंदनण तुवालो खंय गो?' करपी... लेंस काडून हातांत दिवंक जाय. चपातेचेर वयर तूप लायले बगर तोंडांत घालचो ना. पोळे हुनहुनीत काडून दिल्यारूच खावपी... सगळ्या वारांक नुस्तें करून दिवंक जाय. नाजाल्यार उपाशी. सदाप्पा बशेन होय किचमण्यांचोच...!!

नाका... नाका ते अयपण म्हाका. दिनकरा फाटल्यान हांव कशेय दीस काडीन. पूण म्हजे फाटल्यान दिनकर... ताचो मागीर सदाप्पा जाले बगर रावता?

दुसऱ्या दिसा मांयक पांयां पडटना वंदनाक काळीज घट्ट करून मांयक म्हळें, ''आई, म्हाका फकत 'देव बरें करूं' इतलोच आशिर्वाद दी आं...'आयपण जावं' हो आशिर्वाद म्हाका नाका.''

मांयन कच्च करून आंग काडलें!

'कितें बडबडटा गो तूं? थुमेकाल म्हण पापणी!''

''तशें न्ही गे...''

''आनीक कशें तर? अयपण नाका तुका? भाग्याचे बायलेक मेळटा तें! घोवाचें मरण पळोवपाचे कसले दुवाळे लागल्यात तुका?'' मांय रागान उलयली.

वंदन भरिल्ल्या दोळ्यांनी मान सकल घालून आयकतालें.

उलोवन सोंपले तरी मांय भितल्ल्यान रागान खतखतताली.

धीर धरून वंदन उठलें... मांयन फुडो करून तिचे दोनूय हात आपल्या हातांत घेवन दुकां व्हांवयत ताणें विचारलें, ''आई, आनी म्हजे फाटल्यान म्हज्या घोवाचो 'सदाप्पा' जाल्यार...??''

शॉक बशिल्ले भशेन मांय कितलो वेळ ताका पळेतच उरली... आनी मागीर सुनेचे जोडयेक तिचेय दोळे व्हांवंक लागले.

***

# जादू

मामागेर वचप म्हळ्यार म्हजी मज्जाच मजा! घरांत पावल घालना बरोबर सगळीं जाणां म्हजेच सेवेक लागतात सामकी! व्हडले मामीन वेंगेंत काडसर दत्तीमामी म्हाका हांडीर घेता. आजी वेंगेंत काडटा म्हणसर मामा चॉकलेट दाखोवन आपले कडेन आफयता. आई कडेन पळोवप उलोवप बी सगळे मागीर...

पूण आज हांव आनी आई मामागेर आयलीं जाल्यार सगळीं आईकूच शीं मदीं घेवन बसलीं...!

''तुवें इंफोरमासांव काडलां काय ना गो?'' आजी आईक विचारताली.

''दिसूंक- सभावान बी कशें काय?'' दत्तीमामील्यो कपलाच्यो आंठयो सामक्यो मेजूंक येताल्यो.

''बापूय ना खंय...? आवय सिर्विसेक वता खंय?'' व्हडली मामी विचारूंक लागली.

म्हजे कडेन कोणच पळयना...? आतां कितें करचें...? पोले फुगोवन कुशीक वचून बसचें? काय सोमतेंच रडपाक सुरू करचें? रडलें म्हणटकच सगल्यांचेंच लक्ष एकदम म्हजेरच वतलें...

हांवें रडपाक उक्तें केल्लें तोंड आईलीं उतरां आयकून पुट्ट करून धांपलें.

''कसली जादू केली कोण जाणा... सामकोच भुलयला दिसता...'' आई म्हणटाली.

''जादू'' हें उतर आयकतनाच हांव सामकें भुल्लुसलें.

पप्पान म्हाका पणजे व्हरून जादूगार रघुवीराचो खेळ दाखयिल्लो.

आमच्या गांवांत जादूगार बी केन्नाय येतात. फकत घणसाबैल... आनी केन्ना केन्नाय वांस्वेलां घेवन नाजाल्यार माकोड घेवन कोणूय घांटी सो येता.

मामागेर जादू करपी कोण तरी आयला जातलो. बरेंच जालें. हांव मागीर हो जादूगार कसले कसले जादू करून दाखयतलो तें येवजूंक लागलें. चेंप्यांतल्यान सोंसो काडटलो... काय पारवे काडटलो... नाजाल्यार रंगीत लेंस बी काडटलो...

हेवटेन आई सांगताली, ''बापूय ना ताका... दोतोर आशिल्लो खंय... आवय त्याच हॉस्पिटलांत नर्सीची नोकरी करता... तिगीय चलयोच. दोगांचीं लग्नां जाल्यांत. हें आसा तें निमाणें...''

''मालनाच्या शेजरा रावतात न्हय? मालन कितें म्हणटा?'' आजी विचारताली.

''कितें आनीक?... सामकें कळूर खंय! नदर घालपाचें न्हय! शिकलां... ऑफिसांत नोकरी करता...''

''आनी विनूक कशें आवडलें तर?''

''कोण जाणा? तेंच्च जाय म्हणटा तर तो...!''

''मालन म्हणटालें, म्हजे म्हऱ्यांत उबें रावल्यार सामको काळोकिट्ट म्हारू दिसतलो म्हणून. म्हारू...''

ती कितें उलयतालीं तें म्हाका कांयच समजलेंना पूण हांव जादवाचे खेळ येवजितालें तें 'म्हारू' हें उतर आयकून एकदम जाग्यार आयलें.

जादू म्हणसर म्हारूय बी?

आमच्या गांवांत म्हारू आसा आनी देंवचार लेगीत आसा... पूण हांवें केन्नाच तांकां पळोवंक नात. खुंटये कडेन झाडाचेर देंवचार आनी म्हारू रावतात. तिनसांजचे बी तेवटेन सगळीं जाणां भितात... पप्पू केदो व्हडलो... शाळेंत लेगीत वचूंक लगला. पप्पान ताका शाळेंत वचपाक येऽद्दें व्हडलें बॅग आनी पुस्तकां हाडल्यांत. तें बॅग फाटीक लायतकच तो खूब व्हडलो दिसता. पूण तो दिसाचो लेगीत खुंटये कडच्यान एकलो वचूंक भिता.

हांव मात म्हारवाक मात्तूय भिवचें ना. काळो जाल्यार कितें जालें?

ताका कित्याक भिवप? एक दीस खुंटये कडेन वचून म्हारवाक पळोवपाचें म्हज्या मनांत आसा... पूण अजून म्हाका एकलें खंयच वचूंक दिनात...!

मामागेर आज म्हारूय पळोवंक मेळटलो सो दिसता... हांव आनिकय खोश्शी जालें.

"तूंच वचून पळोवन यो पुता! एका गांवांत रावन लेगीत आमी कोणेंच पळोवंक ना... आमचें भायर सरपच जायना गो! तूं वच! सारकें पळय-उलय आनी कितें तें सांग. म्हजो जीव मातसो थाऱ्यार घाल. विनूक रकाद धाडूंक लायतां..." आजी उलयताली.

हांव कितें समजुपाचें तें समजलें. ह्या गांवांतूय म्हारू आसा... आनी आई एकटीच ताका पळोवंक वचपाची आसा.

म्हणजे, म्हजे भशेन आई लेगीत म्हारवाक भिना तर!!

हांवें आईचे फाटल्यान रावपाचो निश्चेव केलो.

जेवणां जातकच आईन म्हाका न्हिदोवपाचो यत्न केलो. पूण हांव कश्शेंच न्हिदलें ना.

"चल गो बबडू, आनी देवळांत या. थंय नवें गार्डन बांदलां. घसरगुंडी बी मज्जा-मज्जा आसा चल, तुका दाखयतां...", विनूमामा म्हाका आग्रो करूंक लागलो. "थंय मुगो आमी कॅडबरी घेवया दुकानांतल्यान..."

हरशीं जाल्यार हांव सामके उमेदीन विनूमामा बरोबर वचें आशिल्लें. पूण घसरगुंडी-चॉकलेट बी सगळे मागीर मेळूं येता. म्हारू मात आजच पळोवंक मेळपाचो आसा हें हांवें घट्ट मतींत धरिल्लें.

हांव आईच्या पदराकच घट्ट धरून तिचे फाटीं फुडें भोंवत रावलें.

"आज जालां कितें गो तुका? सोड पयलीं पदर... एक थापट पडटलें..." तोंडान 'पडटलें' म्हळें खरें पूण आई थापट मारून लेगीत मेकळी जाली. हांवें व्हडल्यान हांबरे फोडलो आनी हिमट्यो काडून काडून रडूंक लागलें.

आनी हांवें चिंतिल्लें तश्शें जालें. आजी धांवत आयली.

"नाका गो, नाका गो ताका अशें मारूंक..."

"मागीर कितें करूं? म्हाका भायर सरूंक दिना पळयतें..." आईन

बेजारून म्हळें.

"व्हर ताकाय बरोबर! हरशींय जाल्यार एकल्यान वचचें न्हय म्हणटात..." व्हडले मामीन सांगलें.

हावा-शिवा करून शेवटाक आईन म्हाका नवो व्हिस्तीद बी घालून केंस वळोवन तयार केलें.

सगळे वाटेर हांव ओग्गी रावलें. आईक 'म्हाका हांडीर घे गे' अशें लेगीत म्हळें ना.

"आई, खंय गे तो म्हारू?" आमी एका घराच्या आंगणांत भितर सरतात तें पळोवन भोंवतणचीं झाडां तेळीत हांवें विचारलें. "म्हारू झाडाचेर रावता न्हय?"

आईन म्हजेर दोळे मोठ्ठें केले आनी म्हळें, "ओग्गी बसतलें आं! तुजी बडबड नाका हांगा!"

केन्नाय पळय, हांवें कितेंय विचारलें उलयलें की आई म्हजेर दोळे मोठ्ठे करता. पयलीं पयलीं हांव खूब भितालें. आतां संवय जाल्या.

हांवें परतें विचारलें, "आई, खंय गे तो म्हारू? तूं म्हणटाली न्हय...?"

"म्हारू नाजाल्यार म्हारवीण जायत." आईन म्हळें आनी आपले भितरच उलयिल्ले भशेन केलें. "कसलो जादू केला आनी भुलयला देवच जाणा."

हांव उमेदीन रावलें. आतां म्हाका म्हारू नाजाल्यार म्हारवीण तरी दिश्टी पडटलीच म्हणून!

पूण आमी घरांत पावलीं तेन्ना फुस्स! म्हारूय ना आनी म्हारवीणय ना. एकले सोबीत शें काळें-सावळें चली मात आशिल्लें थंय. बरीऽ साडी-बिडी न्हेसून! आमकां पळोवन तोंडभर हांसलें.

"येयात! आई येवचीच जाल्या हॉस्पिटलांतल्यान... हांवें आज लिव्ह काडल्या..."

म्हाका मागीर याद जाली.

"आई, खंय गे तो..." हांवें मुखार कितेंय विचारचें पयलींच आईन

म्हज्या हाताक चिमटो काडलो. मागीर हांवें 'म्हारू खंय?' म्हणून विचारचे बदला 'आवयस्स' केलें आनी हात चोळूंक लागलें.

तशें तें म्हज्या तोंडा कडेन पळोवन हांसलें. आपल्या सोबीत नाकटांची बोटां म्हज्या पोल्याक लावन ताणें विचारलें, 'नांव कितें गो तुजें?''

''बबडू!'' हांवें मोट्या ओर्रान सांगलें.

''हें जालें तुजें घरांतले अपुरबायेचें नांव... तुजें खरें नांव कितें?''

''पप्पा म्हाका अपुरबायेन 'म्हजें भांगर तें' म्हणटा'' हांवें म्हळें.

तें सगले दात दाखोवन खळखळीत हांसलें. ताचे धवेफुल्ल दांत बरेऽ दिसताले आनी हांसतना पोल्याक बरोऽ बुराक पडटालो.

म्हाका सट्ट करून याद जाली. मेघाताईच्या पोल्यार हांसनाफुडें अशेंच फोणकूल पडटा. तेन्ना सगळीं ताका 'मांय मेली पळय तुजी पोल्यार' म्हणटात.

हांवें म्हजें नांव थंयच सांडलें आनी ताका म्हळें, ''एऽऽ पळय, मांय मेली तुज्या पोल्यार...''

आईन मोठ्ठे दोळे करून म्हाका पळयलें.

तें मात पोट भरून हांसलें.

''उलोवंक आयकना गो तूं...'' तांणी म्हळें.

इतलो वेळ ओग्गी आशिल्ले आईन म्हळें, ''ताच्या अशा बडबडाक लागूनच ताका 'बबडू' म्हणटात आमी. ताचें नांव 'प्रणोती'.

''आगे बाये! कितलें सुंदर नांव गो!'' ताणें म्हळें.

ताणें 'सुंदर नांव' म्हणटकच म्हजे म्हाकाच हांव कोण व्हडलेशें दिसलें आनी त्याच नेटार हांवें विचारून सोडलें- ''आनी तुजें नांव कितें तर?''

''हांव स्वाती...''

इतलेंच?... फकत स्वाती...?

हांवें नाक किसळावन विचारलें- ''इल्लेशें नांव?... आनी एकच नांव?''

आईन मागीर म्हाका धपकायलें. 'ओग्गी बसता काय ना गो तें थंय?

सारकी बडबड चालू! बस एका जाग्यार चुप्प!''

आईन म्हाका एका कदेलार बसयलें. हांवें म्हजें तोंड धांपलें. पूण कान मात उक्तेच दवरले.

आई ताका सांगताली, 'आमचो विनू जाणांच तूं, गोरोपिट्ट पाखलो कसो... आमच्या घरांत सगळी गोरींच... हांवच मातशें फाटीं म्हणूं जाता...!'' आपल्या गोऱ्यापिट्ट हातावेल्यान हात भोंवडावन आई आपल्याकच तोखेत रावली.

''आमच्या घरांत सामकें उरफाटें! आमचो बाबा काळो आसलो... आई सांवळीच... आमी सगळीं भावंडां काळीं सावळींच! हांवच मातशें उजळ अशें म्हणटात'' आनी तें- स्वाती... परतून हांसलें.

म्हाका ताची तोखणाय दिसली. आपूण काळें-सावळें म्हणपाक तें मात्तय कांचवेलें ना. नाजाल्यार आमचे आईमुखार सगळीं अशींऽ बाविल्ले भशेन उलयतात.

''आतां आनी कितें उरलां? एकामेकांक पसंत करून मेकळीं तुमी... दोगय भावजोय म्हज्यो गोऱ्योपिट्ट... विनून घरांत काळो रंग हाडलो अशें जातलें...'' आपले भितरच-शी आई उलोवन गेली.

हांवें तें आयकलेंच. स्वातीनय आयकलेंच जातलें! पूण कांयच आयकलें ना अशें करून तें उठलें.

''तुमी च्या घेतात न्हय? काय कॉफी करूं?'' ताणें विचारलें.

'कॉफीच कर इल्लीशी! साकर मात चड घालूं नाका!'' आईन सांगलें.

'आनी प्रणीती, तूं कितें पितलें? पेप्सी दिवं तुका?''

पेप्सीचें नांव आयकून हांव सट् करून उठलें. आनी ताच्या बोटाक धरून भितर गेलें.

आई म्हजेर दोळे मोट्टे करून म्हाका पळेताली हें म्हजे फाटीकच जाणवतालें. हांवें कांय दोळ्यांनी पळोवंक ना न्हय, म्हणून हांव सडसडीत भितर गेलें.

स्वातीन फ्रिजांतल्यान पेप्सीची व्हडली बाटली काडली आनी म्हाका ग्लास सामको भरून पेप्सी दिली. आनो गॅस पेटोवन कॉफी करूंक लागलें.

''एऽऽ' हांवें ताका उलो केलो.

''म्हजें नांव खबर ना तुका आतां?''

''तशें न्हय गो... गे... गो...'' ताका 'गो' म्हणचें काय 'गे' म्हणचें? हांव घुस्पलेंच! म्हजे तकलेंत आईन कितें म्हणिल्लें तेंच घुंवतालें.

''आतां कितें जालें?'' तें म्हजो घुस्पागोंदळ मजेन पळेतालें.

''आता आईन कितें म्हळें तें...? विनूमामा आमच्या घरांत काळो रंग हाडटा तें...? म्हळ्यार कितें?''

'तुजें कान बरेंच लांब मुगो!'' ताणें म्हजो कान ओडलो... अपुरबायेन! आनी त्याच कानांत हळूच सांगलें, 'आतां हांव तुजी मामी जातलें...''

आनी तें मातशें लजलेंय बी.

म्हजें कुवाडें सुटलें. आतां स्वातीक 'गे'च म्हणप, 'गो' म्हणूंक उपकारना. 'आगो स्वातीमामी' अशें म्हळ्यार कानाक बरें लागता तरी?

''उलय मगो कितेंय तरी...बबडू...''

''स्वातीमामी, तूं म्हाका त्या दुसऱ्या सुंदर नांवान उलो मार न्हय...''

''बरें बाये! प्रणीती...''

हांव मामीचेर खूश सामके. मामाक वचून सांगप - ''म्हाका स्वातीमामी खूब्ब आवडली'' म्हणून.

ते खोशये भितर हांवें तिका विचारून सोडलें, ''एऽ स्वातीमामी, तुमगेर म्हारू-म्हारवीण बी कोण तरी आसा गे?''

''ना गो बाये! कित्याक गो?''

हांव मातशें निर्शेलेंच! मुजरत पळोवंक म्हणून आयिल्लें तीच वस्त ना! तरीकय आशेन विचारलें, ''आनी जादू करपी? कोणतरी आसा न्हय?''

''जादू करपी? ना गो बाये!'' मामी म्हाका अजापान पळयत रावली.

''म्हणजे अशें गे... जादू करप... भुलोवप बी... तो जादूगार रघुवीर करता पळय...'' हांवें म्हजे भशेन तिका समजावपाचो यत्न केलो. मागीर कपलार हात मारून ती व्हडा व्हडान हांसूंकच लागली. त्या बोवाळांत दूद फस्स करून गॅसारच रकलें.

हांसून हांसून स्वातीमामीच्या दोळ्यांत उदक लेगीत आयलें.

स्वातीमामी म्हाका हांसता? म्हाका रागच आयलो.

"स्वातीमामी, तूं म्हाका हांसता मगे?" हांवें विचारलें.

"ना गो शाण्या! तुका कोण हांसतलो? तूं सामकें अपुरबायेचें शार्णे-शाणें भुरगें!" तिणें म्हाका वेंगेत घेवन म्हजी पापी घेतली.

तिणें मागीर बेगीबेगीन कॉफी केली.

"आमगेर कोणूय आयल्यार आमी ताका काफये बराबर बिस्किटी नाजाल्यार शेव... कितेंय पूण खावपाक दितात." हांवें तिका सांगलें.

"खरें? हांवय बिस्किटीच दवरतां तर...! हें आनी नाका..."

हांवें पळयलें, तोपांत घमघमीत वासाचो शिरो!

आता कितें करतलें? ही आनी शिरो परतो धांपून दवरत म्हूण हांवें तिच्या हाताकच धरलें.

"आसूं दी, आसूं दी. बिस्कीट नाजाल्यार शिरो चलता..." तसो तिणें म्हज्या पोल्याक हळूच चिमटो काडलो.

"आगो चोरा! शिरो आवडटा म्हणून कित्याक सांगना?"

म्हाका लज शी जाली. तिणें बशयांनी शिरो घालो. काफेयचीं चिक्रां आनी शिऱ्याच्यो बशयो ट्रेंत दवरल्यो आनी तें घेवन भायर गेली. फाटोफाट हांव!

ट्रे मेजार दवरून तिणें कदेल ओडून म्हाका बसयलें आनी दुसरे कदेल ओडून आई कडेन पळयत म्हळें, "कॉफी घेयात... शिरो खायात इल्लोसो..."

हांवें थारायलें, आईच्या दोळ्याक दोळो दिवप ना! आईक खंयूय गेल्ले कडेन सगळे 'नाका नाका' करपाची संवय. आतांय बी ती शिरो नाका नाका म्हणत म्हूण हांवें ताकतिकेन म्हजे बशयेंतलो शिरो तोंडांत घालो. शिरो खरेंच बरोऽ जाल्लो. आनी मदीं मदीं खिसमीस, काजुबियां कुडके बी मेळटाले. हांव रुचीन खावंक लागलें.

हांवें आईच्या तोंडाक पळोवंक ना तरी आई म्हाका दोळे मोट्टे करून पळयता जातलीच हें जाणा जावनय हांव खायत रावलें.

स्वातीमामीक सोडून घरा वचपाक म्हज्या जिवार आयलें. दिसतालें,

आनीक थोडो वेळ तरी तिचे कडेन खबरी मारच्यो.

परते मामागेर वतना आईन कितलेशेच खेपो म्हाका सांगलें, "परतून आनी तुका खंयच बरोबर व्हरचें ना... सामको कानाक पीळ घालोना तितल्याचेर हांव खूश आसलें. हांवें कानार केंस काडले.

सगळ्या मामया भितर स्वातीमामीच म्हजी आवडीची मामी करपाचें हांवें थारायिल्लें.

घरा पावतकच सगळी आई भोंवतणी जमलीं. सगळीं म्हणजे आजी, व्हडली मामी, दत्तीमामी आनी विनूमामा... पंकज-पवन बी शाळेंतल्यान आयिल्ले पूण भायर खेळपाक गेल्ले बॅगां घरांत उडोवन... बाबूमामा आनी भाऊमामा अजून येवचेच आसले.

हांव तडक विनूमामाचे मांडयेर वचून बसलें.

"बबडूऽ, आयज कितें गो? नेटार? नवे मामीक पळोवन आयलें मुगो?" दत्तीमामी म्हजे वाटेक वचूंक लागली.

"हयच!" हांव म्हजे भितरच हांसून ओग्गी रावलें. 'स्वातीमामी काय बरी दिसता' हें हांव कोणाकच सांगचें नासलें.

"मुर्गट्टा पळय कशें!" व्हडले मामीन म्हजी शेणकी धरून ओडली. हांवें म्हज्यो शेणक्यो दोनय हातांनी फाटीं उडयल्यो आनी दोनय मामयां कडेन अश्शें नाक वरशें करून पळयलें.

आजी मागीर उमळशिकेन आईक विचारूंक लागली. "उलय मगो! सांग तरी... कशी आसा चली? पळयली न्हय तुवें?"

"पळयलीऽ" परवल्ले भशेन आई उलयली.

"आगो, तुका मुद्दम कुळारा आफोवन हाडलें, सारकी खबर काडटलें म्हणून तूं...! सांग सारकें... मेळ्ळी तुका?"

आईन मागीर नाक किसळायिल्ले भशेन करून म्हळें, "म्हज्या दोनय भावजां मदीं सोबूंक कठीण..."

हांवें दोनूय मामयां कडेन पळयलें. दत्तीमामी मातशी तरी बारीक आसली. पूण व्हडली मामी... एऽद्दी मोटी... मोटवीच... दोन खाडक्यो आशिल्लें तोंड आनी चलतना सगळीच थुलथुलताली. पूण गोरीपिट्ट

सामकी... कसलें तरी णन म्हणटा पळय आई... याद जाली... सामके शेरवडाचें पान... दत्तीमामी हांसतना तांबडीच जाता.. पूण नाव चेपिल्ले, दांत मातशें भायर आनी पोंग घेताली...

''पूण आसा मगो बरी... ?' आजयेन हुसक्यान विचारलें.

''आतां काळी म्हणून कितली काळी ? आमच्या घरांत सोबपाची न्हय गे...'' आईन खेदान म्हळें.

म्हाका खऱ्यांनीच आईची तिडक मारली.

काऽय बरी स्वातीमामी! तिचे कडेन पळयल्यार कितलें बरें दिसता! काय बरी हांसता... हांसतना ओंठ आनी दांतच न्हय, तिचे दोळे, पोले, नाक... ती सगळीच हांसता.

पूण मदीं उलयल्यार आईचो खुटलो पडटलो म्हणून ओगीं रावलें. विनूमामा ओगीचसो बशिल्लो. सगळ्यांच्यो नदरो ताका जाणवताल्यो. सगळीं जाणां ताणें कितेंतरी व्हडलें पातक केल्ले भशेन ताका पळेतालीं.

''विनूक फामिलींतलो गोरो रंग पळोवन पळोवन वाज आयला जातलो...'' दत्तीमामी मस्कऱ्यो करूंक लागली.

''पूण तुका आवडली तरी कशी काय म्हणटां हांव...'' आई म्हणूंक लागली. ''म्हज्या मनांत आमच्या लोचनाची- म्हज्या देराले चलयेची सोयरीक हाडपाची आसली. काय बरें गोरेंपिट्ट सुंदर... तुका बरेंऽ सोबतलें आसलें...''

विनूमामा सामकोच बेजार जालो. सगळीं मस्कऱ्यो केल्ले भशेन उलयतालीं.

''आतां तुमकां कोणाकच पसंत ना जाल्यार तशें सांगता ताका हांव! बेश्टोच वाद नाका घरांत... हातूंत कोणाकच सूख लागपाचें ना...''

हांवें मामाच्या तोंडाक पळयलें. ताचें तोंड सामकें बाविल्ले भशेन जाल्लें. सदांच हांसकुरो म्हजो विनूमामा म्हाका रडकुरो सो दिसूंक लागलो. आनी म्हाका भितरल्यान रडूंक येवंक लागलें. हांव आजयेक वेंग मारून व्हडल्यान रडूंक लागलें.

''शाण्या, कितें जालें गो तुजें? अशें कित्याक रडटा? ओगी! ओगी!

शाणें तें म्हजें..." आजयेन म्हाका घट्ट वेंगेंत धरलें.

हांवें दोळे घट्ट धांपून घेतले... आई बी पळयत म्हणून... आनी मोट्यान सांगलें- "आज्जे, आई सामकी फट उलयता. स्वातीमामी कितली बरी दिसता गे! व्हडले, मामी परस, दत्तीमामी परस... लोचनताई परस... सगळ्यां परस स्वातीमामीच बरी दिसता. म्हाका तीऽच्च मामी जाय!"

आनी हांवें विनूमामाचेर घालून घेतलें. ताणेंय बी म्हाका वेंगेंत ओडून घेतलें.

हांवें विनूमामाच्या तोंडाक पळयलें आनी म्हळें, "खरेंच रे! तुज्यान तर... म्हज्यान तर... देवाच्यान तर..."

हांव सोपूत घेत रावलें. तशें तशें विनूमामाचें तोंड हांसकुरे जायत गेलें. आनी आई बडबडत आशिल्ली- 'पांचच मिनटां पोर एकलें आशिल्लें ताचे बरोबर... कॉफी करता म्हणसर... तितल्या वेळांत हाकाय भुलयलें?... हाचेरय जादू केली??"

***

# गुरू

“न्हावंक वता न्ही? णव जावन गेलीं,” उज्वलान म्हळें, तसो गुरू उठलो आनी बाथरुमांत गेलो. उज्वलान देवा मुखार फुलां हाडून दवरिल्लीं. पारजतांची माळ गुथूंक बसलें तें... धव्याफुल्ल फुलांक केसरीच देंठ! कितली सोबीत जाली माळ!!

पारजतांचें उज्वलाक ल्हानपणा सावन पिशेंच आशिल्लें. ताणें हांगा दारांत मुद्दाम पारजताचें झाड हाडून रोयिल्लें. ताका धाकटुलें पेड केल्लें आनी भोंवतणी काळ्याकिट्ट शेणान सारयिल्लें. तें काळे जमनीचेर झाडान आपलीं फुलां झडयतकच तीं वेंचचे परस तांकां पळयतकूच रावचें अशें ताका दिसतालें... मागीर गुरूक कॉलेजीक वचूंक वेळ जातालो हाची याद जातकच अरळ हातांनी तें फुलां वेंचपाक लागतालें.

गुरू न्हावन तुवालो गुठलावन देवाच्या पांयजेला मुखार उबो रावलो. उज्वलान दिवो लायिल्लोच! ताणें उजवात पेटयली. देवाक ‘फुलां घालीं, माळ घाली. हात जोडून आनी दोळे धांपून देवा कडेन मागलें- “देवा, जिणेची शातताय ना जावंक पळेता... हे तळमळे आतां सोंसू नजो जाल्यात! देवा, वाट दाखय...”

गुरू भायर सरून येतासर उज्वलान मेजार च्याची तयारी केली. दनपारां जेवणाक घरा येवंक गुरूक फावताच अशें ना. एकेका दिसा घरा येता पूण केन्नाय उपाशीच रावता. म्हणून तें सकाळीं ताका पोटभर खावोवनूच धाडटालें. आज ताणें गुरूचे आवडीचें अळसांद्याचें तोणाक केल्लें. तोणाक आनी गरम गरम चपात्यो ताणें गुरू मुखार दवरल्यो. गुरून तीन-चार चपात्यो खावच्यो असो ताचो आग्रो आसतालो... निदान दोन दरी...!!

पूण ताणें अर्दीच चपाती खावन च्याचें कोप तोंडाक लायलें तशें उज्वलान म्हळें- 'ती एक तरी चपाती पोटांत वचूं दी न्ही...!'

'नाका म्हाका, भूकच ना.'

''अशें कशें? थंय मागीर कँटिनांत वचून तरी कितेंय खातलो?... तेंय ना...'

'वान्साच गेल्या अन्नावेली'

''येतना मातसो दोतोरागेर वचून यो न्ही... ताका तरी दाखय...''

''पळयतां...''

''पळयतां न्ही... वचूच! ...वतलो न्ही?''

''बरें आसा!'' गुरू तिडकलो.

पुस्तकां, डायरी... कितें घेवपाचें तें घेतलें आनी स्कूटर स्टार्ट मारली.

गुरू गेलो आनी उज्वला चिंतूंक पडलें- कितें जालां काय हाचें ह्या दिसांनी? जेवणा-खाणार लक्ष ना... घरांत चड उलोवणेंय ना. पेपर बी कितेंय हाडटालो... तपासतालो... कितेंय बरयतालो... पूण आतां ह्या दिसांनी तेंय ना... केन्नाय बरोवंक बसल्यार हातांत पेन घेवन चिंततूच बसता... कितें जालां जातलें हाचें? कॉलेजीत कसलेंय बंगलांट बी येवंक ना मूं हाचेर? पयर तें एक सवंग आयिल्लें तशें...!!

ती याद काडटनाच उज्वलाक हांसूंक आयलें.

फाटल्या म्हयन्यांतली गजाल. गुरू कॉलेजीक गेल्लो. उज्वला भायर बसून गंव वेंचतालें. दळपाक व्हरपाची तयारी. इतल्यांत एक चली आयलें. ताचे बरोबर एक तरनाटो...! चलयेच्या आंगा वयले कपडे पळोवन उज्वलाचें आंग शिरशिरलें. जांगो उक्त्यो उडोवपी, गुटलायिल्ले भशेन तट्टटावन घाल्लो स्कर्ट, आनी वयर हातकापें वेंतभर आंगलें. पोट-फाट सगळें उक्तें... मुखा वेल्यान व्हडलेशें धांपूंक नासलें... ओंठ रंगयिल्ले... दोळ्यांक गॉगल... येद्द्या खोंटांचीं जोतीं...

''हें गुरू सरालें घर न्ही?...'' ते चलयेन विचारलें. आवाजांत सामके उर्मटपण.

उज्वलाक तिडक मारली ती सोंसपाची न्हीय! मुद्दामूच थोडो वेळ

ताका वयर सकयल निरखीत रावलें तें. आनी मार्गार सांगलें, ''हय! हें गुरू सराचेंच घर. पूण सर घरा ना. कॉलेजांत गेला तूं कोण?... आनी हो कोण तुजे बरोबर?''

''हांव स्टुडंट गुरूसरालें... आमकां शिकयता म्हणजे जिवाक कोण समजता सर आपल्याक? हांव बरें शिकूं, वायट शिकूं. स्कर्ट घालूं नाजाल्यार सलवार घालूं, ताका कितें लागता काय विचार! ताचें लॅक्चर सोंपलें, ताचें काम सोंपलें. असवडीं आपोवन लॅक्चरां दिवपाचें काम ना... चलयांचे वाटेक वचचो ना म्हूण समजाय ताका...''

ते चलयेचें उलोवन सोंपलें तसो तो तरणाटो मुखार आयलो. गुर्मेन उलोवंक लागलो- ''तूं बायल मगे सराची? आपल्या घोवाक सांबाळ... चलयांचे वाटेक वचनाका म्हूण सांग ताका! पयर हाका क्लास सोंपतकच स्टाफरुमांत आपोवन व्हेलें आनी हाच्या कपड्यांक हात लायलो. असलीं बायजणपणां सरान करप? दुसरे खेपो अशें केल्यार हांव ओगी रावचो ना...'' आनी उज्वलाक पिस्तुलाची कुरू दाखोवन हातवारे करूंक लागलो. ताचो तो हाडकुटो देह आनी ते फकफके कपडे... तें वक्ल... तो व्हडल्या डिझायनाचो तांबडोच बुशकोट... ते बूट... ताचें तें सवंग पळोवनूच उज्वलान हांसो लिपोवंक तोंडार हात धरिल्लो. तो हांसो आतां फस्स करून फुटलो.

''हांसपाक कितें जालें?''

''कांय ना. तूं कोण बाबा हाचो?''

''हांव ताचो बॉयफ्रँड...''

उज्वलाचे तकलेंत कितें जालें आसतलें तें येवपाक वेळ लागलो ना. ''काय बऱ्यो हुशार चलयो अभ्यासा परस फॅशनीक चड वेळ दितात. कपडे लेगीत कश्याकशेय घालतात... हुशार आसून लेगीत फेल जातात ताचें वायट दिसता...'' गुरून जायते खेपे उज्वला कडेन म्हणिल्लें.

गुरून हे चलयेक आपोवन अभ्यासा कडेन लक्ष दी म्हूण उपदेश केलो आसतलो...!

''कितें जालें?... सरान तुज्या कपड्यांक हात घालो?'' उज्वलान

थंडसाणेन ते चलयेक विचारलें.

"हय!" ते चलयेन दुखेस्त आवाजान सांगलें.

आतां सर घरा येतकच ही ताची बायल ताका बरेंच पुर्राद दितली...! बऽरो खवदळ घालून सराक जीव नाकापुरो केल्यार पुरो हिणें... अशी आस्त ताच्या दोळ्यांत आसुंये.

"म्हणचे, केन्ना केन्ना तूं कपडेय घालता तर? सरान हात लायलो त्या दिसा तुवें कपडे घाल्ले? काय आयचे भशेन अशें उगडेंच भोंवतालें?" उज्वलान एकदय सिरीयस जावन विचारलें.

तें चली एकदम उसळ्ळें! "यू...!!" पांय आपटीत फडफडत इंग्लिशींत कितें कितें बडबडत तें आनी ताचो तो बॉयफ्रँड दारांतल्यान कडसरलीं.

उज्वलाक तें येवजुनूच हांसूंक आयलें. संवसारार आयलां तें ह्या शाराक चुकूंक आयिल्लें? सिनेमा पळोवन तांतल्यो हिरॉइनी करतात तसले कपडे करपाची सर्त आतां खेड्यांनी लेगीत पावल्या. तांकां उपदेश करपी वायट ठरलो ना जाल्यारूच अजाप!

गुरूच्या साद्या-सरळ सभावाक लागून तो असल्या कसल्याय लफड्यांत सांपडत असो भंय उज्वलाक सदांच दिसतालो.

पूण चड वेळ चिंतूंक बसपाक ताका वेळूच नासलो. तें सडसडीत कामाक लागलें. अजून आयदनां मोरयेंत पडिल्लीं... बाथरुमांत कपडे पडिल्ले... वयल्या कामाक कोणूय लाय अशें गुरून कितले खेपे सांगून लेगीत उज्वलान कोणाकूच कामाक दवरूंक नासलें. दोगांन्नेंच तर काम! ह्या ल्हानश्या घराक नितळ-सुंदर दवरपांत, सजोवपांत, तरेकवार रुचीक खाणां करून गुरूक खावोवपांत ताचो दीस बरो वतालो. उरिल्ल्या वेळांत विणप-भरप-शिंवप, कितें कितें चालूच आसतालें. शेजारच्यीं कितलीशींच जाणां ताचे कडेन स्वेटर विणपाक शिकूंक नाजाल्यार विणकामाचें मोस्र व्हरूंक आयिल्लींच आसतालीं. सांवळे, पूण तरतरीत, सदांच हांसत्या मुखाचें, उक्त्या सरळ सभावाचें, पूण फटकळ शें उज्वल... वाठारांतल्या बायलांची आनी चलयांची सामकी आवडटी इश्टीण. जण एकल्याक तें

आपलीच खाशेली मैत्रीण दिसप!

शेजान्नींनी केन्नाय फकाणां मारप ताचीं - "कितले दीस घोवाच्योच अपुरबायो करतलें? आतां बेगीन एक बाब जावंदी..."

उज्वलान गुरूक म्हळें लेगीत- "आतां सगळीं म्हाका 'बाब केन्ना?' अशें विचारतात."

"तांकां सांग मुगो, तुका अजून एकवीस वर्सां लेगीत पुराय जावंक नात म्हणून..." गुरून म्हळें. "उज्वल, म्हजी आवय तर आतां ना... तुजी आवय-बापूय थंय पयस खोलांत. तूं अशें भुरगें... आनीक दोन वर्सां गेलीं म्हूण कांय जायना..."

उज्वलानूय मागीर आपल्या सदच्या सभावा प्रमाण "हय तर!" म्हळें. ताका गुरू सांगता तें सदांच पट्टालें. मात आत्याची याद येवन ताचे दोळे व्हांवंक लागताले.

गुरूची आवय- उज्वलाचे आतें- उज्वलाचो खूब मोग करतालें. शाळेक सुटी पडली रे पडली, उज्वलाचें बिराड खोलांतल्यान काणकोणा आत्यागेर आसतालेंच! मागीर आत्याक ताका कितें करूं, कितें नाका अशें जातालें. उज्वलाक फुलांचें पिशें! उज्वलाचे लांब केंस आतें मोठे होडविकायेन वळयतालें. तांचो आंबाडो घालतालें. उज्वलान पुंजावन हाडिल्ल्या व्रोंवळांचें पोड माळून आंबाडो सजयतालें. तर केन्ना घमघमीत वासाचो भांगराचें काण कसो सुरंगांचो वळेसर... ताचेर तांबडीच रतन आबोल्यांची फांती माळटालें... केन्ना मोगऱ्यांची हळी तर केन्ना पिकिल्ल्या सोनकेळ्यां भशेन हात्याच्या हळडुव्याच पाकळ्यांनी उज्वलाचो आंबाडो भरतालो. एक दीस फुलां कमी माळत जाल्यार गुरून म्हणचें, "आई, आयज फ्लावरपॉटांत फुलां भरूंक विसरली गे?"

आत्यालीं रांदपां चलतालीं. तातूंत हातबोट घालतां घालतां उज्वल आत्या परस बरें रांदूंक शिकिल्लें. तें आनी आतें मेळून तरेकवार खाणां करतालीं.

गुरू शिकूंक पणजे वतालो. एमए क फर्स्ट क्लास आनी कॉलेजींत पयलो आयिल्लो. एमएड करतकच ताका ताचेच कॉलेजींत लॅक्चरर म्हूण

घेतिल्लो. एक खूब गुणी विद्यार्थी म्हूण पयलीं, आनी एक बरो शिक्षक म्हूण आतां, प्रिन्सिपल ताका सदांच तोखेतालो.

पूण गुरू नोकरेक लागून दोन वर्सां जाल्लीं तेन्ना आतें दुयेंत पडिल्लें. वायट दुखणें, कांक्राचें. आत्याले जिणेचो भरवंसो नासलो.

उज्वलान त्या वर्सा एसएससीची परिक्षा दिल्ली. घरकामांत इतलें हुशार उज्वल. पूण अभ्यासांत मात ताका गती नासली. ''धोडावन पिकोवपाचो आंबो तो'' अशें सरांनी ताचे विशीं म्हणचें.

''गुरू, तुज्या मामा-मामयेक हांवें आपयलां म्हूण रकाद धाड रे...'' आवयन गुरूक म्हळें.

''कित्याक गे आई? बरें दिसना जिवाक? कितें जाता तुका? गुरून भियेवन विचारलें.

''ना रे...! हरशींच... पळयन दिसलें. मेळन दिसलें भावाक...''

गुरून दुसऱ्याच दिसा उज्वलाच्या आवय-बापायक आपोवंक धाडलीं.

भयणीची अवस्था पळोवन उज्वलाच्या बापायच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ''निमू कितलें भागलां गो तूं? तुजी दशा पळोवं नजो गो म्हज्यान...'' ताणें दुकां पुसत म्हळें.

''भाऊ, वचचे पयली गुरूक उज्वलाचे सुवादीन करून वतलें म्हणटां...''

''अशी वचपाची भास करूं नाका गो बाय! बरें जातलें तूं...! आनी उज्वल गुरूक दिवपाचें उतर दिलांच न्ही हांवें तुका...!! ताचो रिझल्ट तरी जावंदी...''

''ताचो रिझल्ट लागचे पयलीं म्हजो रिझल्ट लागतलो. हें म्हाका भितल्ल्यान जाणवता रे...''

''नाका गो अशें म्हणूंक...! तूं खूब तेंप जगतलें. गुरूचें आनी उज्वलाचें लग्न करून तांचीं भुरगीं लेगीत खेळयतलें तूं...''

''इत्सा खूब आसा रे नातरांक खेळोवपाची... पूण वयर तो आमकां खेळोवपी सुत्रधार बसला न्ही? ताची इत्सा दिसना रे...'' आतें रडूंक

लागलें.

आनी, गुरूचें आनी उज्वलाचें लग्न जालें.

लग्न जावन म्हयन्या भरांतूच गुरूची आवय भायर पडली. गुरून आपलें मन केन्नाच घट करून दवरिल्लें. ताच्या मनाची तयारी जाल्ली. पूण उज्वल...? ताका आपले जिणेचो एक भागूच तुटून पडिल्ले भशेन जाल्लें. सतर-वितर जाल्लें ताचें मन थाऱ्यार येवपाक स म्हयने लागले. मागीर गुरून पर्वरी घर घेवन ताका आपले बरोबर हाडलें. शेजाऱ्यां बरीं मेळ्ळीं. उज्वल आतां बरें रमिल्लें थंय...!

पूण ह्या दिसांनी गुरूचें कितें जालां हेंच ताका कळऽनासलें. घरांत हांसून खेळून वागपी, येतना वतना ताच्यो मस्कऱ्यो करपी गुरू अकस्मात चड उलोवपाचोच बंद जाल्लो. कितेंय विचारल्यार ओगीच तापिल्ले भशेन करतालो. मन लावन रुचीन जेवपी गुरू जेवण विचकायिल्ले भशेन करतालो. जेवतां जेवतां तनरी लागिल्ले भशेन खंय तरी पळयत रावतालो. कसले वेध लागिल्ले मनाक ताच्या? कितें खातालें ताच्या मनाक?

उज्वलाक कांयच कळना जालें.

''हांव मातसो देसाय मास्तरागेर वचून येतां. रोखडोच परततलों. सांज जायत परतुपाक. हुस्को करनाका... ''गुरून सकाळीं उठ्ठनाच उज्वलाक सांगलें.

''तूं काणकोणां वता? मागीर म्हाकाय व्हर नी बरोबर... आई-बाबाक मेळ्ळ्यार कितले दीस जाले. म्हाका खोलांत पावय. तूं काणकोणां तुजें काम कर आनी म्हाका व्हरपाक यो...'' उज्वलाक आपणेंय कुळारा वचचें अशें दिसलें.

''बसीर वतां हांव... आनी एकाच दिसाची लिव्ह काडल्या. आतां वतलों तो सांज मेरेन घरा पावतलों परतो. खोला वचून मामा-मामीची खबर घेवंक लेगीत वेळ मेळचो ना.''

''लिव्ह घेतल्यार ती चार दिसांची घेवपाची न्ही?'' उज्वलान पोले फुगयले.

''फाल्यांच्यान परिक्षा सुरू न्ही? लिव्ह मेळना...'' इतलें सांगून गुरू

ताकतिकेन भायर सरलो.

देसाय मास्तर गुरूलो चुलतमामा लागतालो. गुरूचे आवयक ताचो मोठोच आदार दिसतालो. ल्हानपणांत गुरू खुबूच 'हूड' आसलो. बापूय भायर पडटकच तर तवनास भुरग्यांचे संगतीक लागून सामकोच व्हांविल्लो...

बऱ्या मार्कांनी पास जावपी गुरू चार चार विशयांनी नापास जावंक लागिल्लो...

देसाय मास्तरान ताका एक दीस त्या तवनास भुरग्यां मदीं बसून सिगार ओडटना पळयलो...

मास्तर तडक गुरूगेर गेलो.

"निमूताई..." ताणें गुरूचे आवयक उलो केलो.

"आरे प्रकाश... यो! आयज बेगीन सुटली शाळा?... आनी गुरू कसो अजून घरा पावंक ना?" गुरूचे आवयन म्हळें.

"हांव तुका गुरू बद्दलूच सांगूक आयिल्लों..."

"कितें जालें? शिकता मूं तो सारको...?"

"एक एक दीस शाळेंत गैरहजर आसता तो..."

"कितें?... पूण सकाळीं वेळार शाळेंत वता खरो, आनी सदच्या वेळार घरा येता..." आवयक अजाप जालें.

"आनी ताका पयशे बी दिता तूं?"

"पयशे? ना म्हळ्यार... केन्नाय पांच रुपया, धा रुपया मागून व्हरता म्हजे कडेन... आयस्क्रीम खायन दिसता म्हणटा..."

"आनी, सिगारां ओडन दिसनात खंय ताका?" मास्तरान रागान विचारलें... 'आतां ताका थोडे दीस म्हगेरूच रावंदी... परिक्षा लागीं पावल्या..."

"आरे, पूण... म्हज्यान गुरू बगर रावं येता...?"

"तुका गुरूची वाट लागिल्ली जाय? चल, ताचीं पुस्तकां, मुस्तायकी बी भर पोतयेंत..." मास्तर तापलो...

निमूताई शिटकावली. कितें तरी आसले बगर प्रकाश कसो केन्नाच

तापचो ना... सगल्या गांवाक देसाय मास्तरालें उतर म्हणचे ताचेर परती जाप नासताली... "हो तर म्हजो भावूच... कितें करता तें आमच्या बऱ्याकूच करतलो," तिणें चितलें.

इतल्यान गुरू घरा पावलो. मास्कराक पळोवन तो अजापलो. मागीर मुखार येवन ताणें नमस्कार केलो.

"चल गुरू, बेगीन जेव, या आमी..."

"खंय मास्तर...?"

"आमगेर रावपाक येता मरे?"

गुरू घुसपलो. ताका कितें सांगचें कळना जलें. मागीर आवयच्या तोंडाक पळोवन ताणें म्हळें, "ना मास्तर... आई एकली उरतली..."

"आईक सांगला रे हांवें... परिक्षा लागीं पावल्या न्ही? चल, या आमी... घरांच जेवया..."

गुरून आवयच्या तोंडाक पळयलें. ती ओगीच आशिल्ली. गुरू मोन्यांनी मास्तरा बरोबर गेलो. म्हयनोभर मास्तर सकाळ धरून रात मेरेन गुरूचे बरोबर राविल्लो. सकाळीं गुरूक साडेपांचाक उठयतालो, अभ्यासाक बसयतालो. गुरू अभ्यासाक बसलो तसो मास्तर थंयच वाचूंक बी बसतालो. दोगूय शाळेंत बरोबर वताले, बरोबर घरा येताले. मास्तराची बायल गुरूचें सगलें मायेन करताली... सांजचो मास्तर गुरूक आपले बरोबर पासयेक व्हरतालो. ताका व्हड मनशांच्यो काणयो सांगतालो. तांची चिकाटी, जिद्द... तांचे गूण... मनांत हाडल्यार मनीस कसो व्हड जावंक पावता...

पयलीं पयलीं गुरूक घुस्मटिल्ले भशेन जावप... आवयची याद येवप... कशी! मुक्त शेवण्या भशेन स्वच्छंद जीण आसली ताची... आनी आतां ही शिस्त... रडटलो म्हळ्यार लेगीत मेकळीक ना अशें दिसप ताका...

नापास जाल्ल्या गुरूचो स-माही परिक्षेंत पयलो नंबर आयलो, आनी गुरू अभ्यासांत इतलो रमलो... ताणें मागीर फाटीं वळून पळयलेंच ना... एमए मेरेनचें सगळें शिक्षण गुरून पयल्या नंबरान केल्लें.

देसाय मास्तराक लागून गुरू शिकूंक पावलो, प्रोफेसर जावंक पावलो, अशें सगळो गांव म्हणटालो.

आनी गुरू...! जिणेंत ज्या ज्या वेळार प्रस्न सतायताले तेन्ना तो देसाय मास्तरा म्हऱ्यांत वतालो. ताचें एक उतर पुरो जातालें गुरूक आपली जीण सावरूंक...

"आरे गुरू?... अकस्मात सो? कसो आसा?... उज्वल आयलें ना? बरें आसा मरे तें...? कशें चल्लां तुजें?" गुरूक पळोवन जाल्ली खोस मास्तराच्या उतरांतल्यान सामकी रकताली. माई-मास्तराची बायल- भायर येवन तिणें गुरूक पोशेलो. आपलो पुतूच जाल्ले वरी ताच्या तोंडार मायेन आपले हात भोंवडायलो. भुरगें-बाळ नाशिल्ली ती बायल गुरूकच आपल्या पुता वरी मानताली.

"सगलें बरें चल्लां. मास्तर. उज्वल बरें आसा. माई, तुमी कशीं आसात?" गुरून विचारलें.

गुरूच्या तोंडाक पळतनाच मास्तर समजलो, सगळें बरें चलना... ताणें गुरूक बसयलो. माईक च्या करूंक लायली.

माई भायर येवन च्याची कोपां मुखार दवरून वचसर गुरू ओगी बशिल्लो. आनी मागीर एकदम घुसमटून रडूंक लागलो. मास्तर समजलो, जिणेंत कितें तरी मोड आयलां...

गुरूचे फाटीर हात दवरून मास्तर ताका सांसपीत रावलो. गुरून पोटभर रडून घेतलें.

"आतां सांग, कितें जालां तुजें?"

"मास्तर... कसो सांगू, तेंच कळना. हांव... म्हाका..." गुरू घुसपलो... मागीर हुंवार फुटिल्ले भशेन उलयत गेलो- "मास्तर म्हजें स्टुडंट शोभा... आमचे कॉलेजींतलें स्कॉलर... पयलीं म्हजे कडेन डिफिकल्टीज घेवन येतालें... साहित्याची ताका आवड... सुंदर कविता करता... आपली कविता म्हाका वाचून दाखयले बगर ताका सुखूच लागना... हांवें नाटक बसयिल्लें. तें म्हणूंक लागलें, हेंच गॅदरिंगाक बसोवया... मागीर स्पर्धेक व्हरया. ताणें हिरॉइनीचें काम केल्लें तातूंत...

हांवेंच डायरॅक्ट केल्लें... तातूंतल्यान चड लागीं आयली आमी... स्पर्धेक पयलें इनाम मेळ्ळें... नाटकाकूय... शोभाकूय...''

"हय! वाचिल्लें हांवें पेपरांत. तुज्या नाटकाक पयलें बक्षीस मेळ्ळां हें वाचून आमकां खुब्ब खोस भोगली जिवाक.''

"ह्या नाटकाक लागुनूच चड लागीं आयलीं आमी. आनी आतां... मास्तर, ताचे बगर रावं नजो अशी गत जाल्या म्हजी.

...चांटे पावलाक शोभाची याद येता... दोळ्या मुखार शोभाच दिसता फकत... ताचे म्हजे विचार... सभाव... कितले सारके!! उज्वलाक पळयतकच दिसता कसली गांवढळ बायल म्हज्या गळ्याक बांदल्या आईन... दर खिणाक मन उज्वलाची शोभा कडेन तुळा करता... मास्तर, पयलीं ह्याच उज्वलाची म्हाका कितली अपुरबाय दिसप... ताचे खातीर कुळागरांत वचून झाडार चडून कितलेदां हांवे हडवींच वासाळ चांफीं हाडप... ताचे लांब केंस, तो आंबाडो... हांची कितली होडवीक म्हाका... ताचे सारकी संवसारीक बायल मेळप हें म्हजें भाग्य मानतालों हांव... ताचो उकतो सरळ सभाव... ताचें खळखळून हांसप... ज्या सैमा मदीं हांव ल्हानाचो व्हड जालों, ताचे मूर्त रुप म्हळ्यार उज्वल अशें म्हाका दिसप... पूण आतां...''

गुरू विचारांत शेणिल्ले बशेन जालो.

शोभान त्या दिसा पुस्तक दितना ताच्या हाताक म्हजो हात तेंकलो... मोव विलोदा वरी ताचे हात... आंगभर खाकुतल्यो करपी तो मोरपांखी स्पर्श... आनी खंय तो उज्वलाचो आयदनां, ओलीं, घरकाम करून जाल्लो निबर खरखरीत हात, खंय तें शोभालें घांट किणकिणिल्ले भशेन कानाक सुखावपी मधूर हांसप, आनी खंय ते उज्वलाचें खॉः खॉः ...खीः खीः... खुक् खुक् करून खखाचो पाडो म्हणिल्ले भशेन खिदळप!

शोभा! गोरेंपिट्ट, सुंदर... गुलाबी हांसकुऱ्या ओंठांचें... ताचें गोड उलोवप... ताची हुशारी... अभ्यासू वृत्ती... कसलेंय काम करपाक फुडाकार घेवप... शोभा म्हळ्यार कॉलेजीचो प्राण सामको!! प्रिंसिपल, स्टाफ, स्टुडन्टस् सगल्यां मदीं सारकेच पॉपुलर...

आनी देसाय मास्तराल्या शिश्याक सोबऽ सारकी गुरूची शिस्त... विशय सोंपो करून सांगपाचें कसब... भुरग्यां कडेन मिसळून वागप... गुरूसर म्हळ्यार भुरग्यांचें आदरस्थान... आनी आतां हें कितें जावन बसलां? शोभाक एकदां तरी पळयले बगर शिकोवपांत वा कित्यांतूच मन लागप ना! दोळ्यां सामकार शोभाचें लाडांत येवन उलोवप... सकयलो ओंठ दातांत दांबून ल्हवूच हांसप... उज्वलाच्या गांवढळ हांसपा परस कितलें वेगळें! शोभाचे ते मोवसूत रेशमाच्या लडयां भशेन खांदार लोळपी केंस, आनी उज्वलाचो तो येद्दो मोठो आंबाडो... ताचेर चुकऽनासतना व्हडली फांती आनी माळप...

देसाय मास्तरान गुरूच्या खांदार हात दवरलो तेन्ना तो आपल्या विचारांतल्यान जाग्यार आयलो आनी निर्वाणीचें उतर उलयिल्ले भशेन म्हणूंक लागलो, ''मास्तर, हांव उज्वला बराबर जल्म काडूंक शकचों ना. मन सामकें पिश्या वरी जालां. जेवण-खाण कांयच नाका जालां. न्हीद तर पडच ना. पडालीच जाल्यार सपनेवन उठ्ठां. घामान पचपचीत जावन... मास्तर, हांव कितें करूं? कित्याक हांवें इतले बेगीन लग्न जावन उज्वलाक त्रासांत घालें?''

''आनी तें शोभा...? तें कितें सांगता...?

''ताची नदरूच सांगता न्ही म्हाका! एक दीस हांव दिसलों ना जाल्यार पिश्यार पडिल्ले वरी तें हांगा थंय सोदता... तेंय मनांतल्यान म्हजे भशेनूच तळमळटा जातलें... तेंय म्हजेर मोग करता जातलेंच... मास्तर हांव कितें करूं...?''

''पूण गुरू, म्हजीं जिविताचीं मुल्यां तुजीं कशीं जावंक शकतात? हांव कितें सांगू तुका? म्हज्या तरणेपणांत हांव एक ध्येयवादी शिक्षक आसलों. म्हजे विचार आयकल्यार तुमी आतांचे तरणाटे हांसतले म्हाका... पिश्यांत काडटले... पूण म्हजीं म्हणून कांय तत्वां आशिल्लीं, तीं हांव मानतालों...''

''ना मास्तर, तुजे शिवाय म्हाका कोणूच समजावपी ना...'' देसाय मास्तर थोडो वेळ ओग्गी रावलो.

''गुरू, तुजो म्हजेर खूब भावार्त आसा न्ही?''

''म्हज्या जिवा परस चड... म्हणून तर हांव हांगा धांवत आयलां...''

'कामतीलें निशा याद जाता तुका?'

''निशा कामत? हय... हांव पांचवेक आसतना तें एसएससी जाल्लें... पयलें आयिल्लें न्ही तें बोर्डाक...? आख्ख्या गांवांत ताचे इतलें सुंदर चली ना म्हणटालें...''

''हय! कॉलेजींतूय ताणें खूब यश मेळयलें... घरा आयलें तशें म्हाका मेळूंक येतालें. हांव तेन्ना आंकवार आसलों... हांव सांगता घरा कडेन. येदे व्हडले हेडमास्तर तुमी... म्हजे घरचीं ना म्हणची नात... ते म्हणटालें.''

''तुवें कितें केलें मास्तर...?''

''म्हाकाय तें खूब आवडटालें. पूण म्हजें मन हांवें केन्नाच व्हांवंक दिवंक नासलें. कारण, शिक्षक हे पदवेक एक पवित्रशें वजन आसा. तें म्हाका ल्हव जावंक दिवपाचें नासलें... हांवें ताका समजायलें- हांव पयलीं एक शिक्षक आनी मागीर प्रकाश देसाय हो मनीस! शिक्षक-विद्यार्थिनेचें नातें बापूय-धुवेच्या नात्या भशेन पवित्र आसूंक जाय. हांव म्हजे खातीर 'मास्तर' हें पदवेक कलंक लावचों ना. निशा खूब रडलें, पूण ताणें म्हजे आयकलें...! अजून कुळारा येना फुडें भुरग्यांक घेवन मेळूंक येता. 'मास्तर' म्हणून पांया पडून वता... आनी तूं तर नांवानूय 'गुरू' मरे! तुज्या गुरुत्वाक लघूपण हाडटलो काय कितें, तें तूंच थाराय- पूण एक सांगता- गुरूच्या पदार पावलो म्हणटकच गुरू आनी शिष्य हें नातें सोडून हेर सगल्यो भाव भावना, कामना-वासना मनांतल्यान ना जावंक जाय, तरूच तो गुरू! ना जाल्यार एक सामान्य मनीस आनी एक गुरू हांचे मदीं कितें वेगळेपण उरलें...?''

मास्तर ओग आयिल्ले भशेन उलयतालो. गुरून पांयाक हात लायलो तेन्ना ताणें वयर पळयलें. जाल्यार गुरू खांद्याक शबनम लावन वचपाचें तयारेंत...

''आरे, हें कितें? आत्तां आयला आनी परतो चल्लो? अशें कशें? जेवन तरी वच मरे! तुजी माई रागार जातली पळय...''

“नाका मास्तर. बारांक बस आसा डायरेक्ट. तीन मेरेन पावतलों घरा... उज्वल वाट पळयत रावतलें... जेवचें लेगीत ना तें पिशें... पारजताच्या मुळांत पेडार बशिल्लें आसतलें...”

देसाय मास्तरान गुरूच्या दोळ्यांत पळयलें. ताच्या मनांतले वादळ-मोड शांत जाल्लें. एक थीर असो निश्चेव ताचे कुडीचे भाशेंतल्यान जाणवतालो.

“बरोऽ करून!” ताच्या खांदार थापटीत मास्तरान म्हळें. “म्हजो आशिर्वाद सदांच तुजे फाटल्यान आसा.”

“येता गे माई...” गुरून म्हळें आनी पांयांत जोतें चडयलें.

* * *

# आपालिपा

चंदनाल्या चार चौक्यांच्या त्या पोरन्या घरांत सांजचो भुरग्यांचो धुमाकूळ चलतालो. घरच्या लोकांक ताची संवय जाल्ली. वाड्या वेलीं सगळीं भुरग्यां आपालिपांनी खेळूंक थंय जमतालीं. त्या घरांत लिपूंक कितलेशेच जागे मेळटाले भुरग्यांक.

पूण आयज भुरगीं बोवाळ घालचे बदला ओगीशीं आशिल्लीं. कारण, आज दीपा खेळूंक येवंक नासलें. शांतीन खरशेत खरशेत येवन भुरग्यांक सांगलें, ''दीपाचे मम्मीन दीपाक खेळपाक धाडूंक ना. चंदनागेर पांय दवरल्यार तो मोडून घालतलें म्हळां.'' दीपान ल्हवूच ही खबर शांतीच्या कानार घाल्ली.

दीपा ना म्हूण सगळीं भुरगीं निर्शेलीं.

आपालिपाच्या ह्या खेळांत दीपा तांची कांजीण. आनी कांजिणूच ना जाल्यार खेळ कसो जातलो? 'म्हारा'चे दोळे कोण धांपतलो?

आनी, कांजीण जावंक कोणूच तयार नासलो. कितें तें, एका जाग्यार थापो कशें बसून दुसऱ्याचे दोळे धांपप? ते परस 'म्हार' जावन लिपतल्यांक सोदप तरी बरें! आनी लिपप तेय परस बरें! पूण कांजीण? श्या:! नाकाच!

दीपा काय बरें कांजीण जावन मजा मजा करतालें. 'म्हारा'न सोदून काडून आफुडचे पयलीं कांजिणीक हात लावन सुटपाचो यत्न आसतलो सगळ्यांचो. दीपान आपल्या मोव मोव हातांनी 'म्हारा'चे दोळे धांपून म्हणचें-

आपालिपा सायलिपा
साळाचो गोंडो जिकून धर

कानां कितें? मूऽऽदी
चल घोवाचे सोऽऽदी
सगळीं व्यवस्थित लिपतकच ताणें म्हाराचे दोळे सोडचे.

पूण आज दीपाच ना.

सगळीं भुरगीं जाणात, दीपा कित्याक आयलें ना तें! दीपाचे मम्मीचीं आनी चंदनाचे आईचीं मोठ्ठी झगडीं जाल्यांत.

दीपाचो भाव संदीप आनी चंदनाची भयण रंजू हांचे वेल्यान दोगांयच्या आवयांचें पेटिल्लें. हरशीं दोनूय जाणी जिवाच्यो इश्टिणी. पूण आयज दुस्मानी जाल्ल्यो. हाचे वेल्यान ताचे वेल्यान घालून एकामेकांक पाडटाल्यो. वायट-वायट उतरांचो शिंवर घालताल्यो.

रंजू बिलू कशें जावन भितल्ले कुडींत बशिल्लें. पांय मोडपाचो भंय ताकाय आवयन घाल्लो. तिडकल्ल्या चंदनान पांय आपटीत ताचे म्हऱ्यांत वचून म्हळें ''रंजूताई, तुका तो सनीभाऊच कित्याक गो घोव जाय?... काय बरो आमचो खेळ पाडा घालो तुवें!!''

रंजू ताच्या तोंडाक पळयतूच उरलें. ताका पयली चंदन कितें म्हणटा तें समजलेंच ना. चंदनान ताका परत सांगलें, ''दीपा आमची कांजीण! तुमी झगडीं केल्यांत आनी दीपाक आमगेर येवपाची बंदी!''

रंजूक काळखा भितर आशेचे कीर्ण दिशिल्ले भशेन जालें. ताणें म्हळें, ''चंदन तुका तांगेर वचपाची आईन अजून बंदी घालूंक ना मरे?''

''म्हाका कित्याक बंदी? हांवें कितें केलां तर?''

''तशें पळयल्यार दीपानूय बाबड्यान कितें केलां तर? तें बेजार जालां जातलें. तुका आईन बंदी घालचे पयलीं दीपागेर पासय मार... ताका मेळ मरे...''

चंदन फटक करून उठलो.

''आरेच्या! हय मगो! हांव वता दीपागेर. पूण ताची मम्मी म्हज्या आंगार बी येना मगो? शांती म्हणटालें, ती सगळ्यांच्या आंगार शी येता म्हूण. तकली घुंविल्ले भशेन वागता खंय...!!''

तेय परिस्थितींत रंजूक हांसूंक आयलें. ताणें म्हळें, ''पळय रे वचून! ती

कितें दीस्सभर दारांत एकाच जाग्यार बसून रावतली? न्हावंक वतली... रांदूंक वतली... वेळ पळय आनी ल्हवूच मेळ दीपाक...!''

''बरी आयडिया! हांव वतां दीपागेर...''

''आनी दीपाक मेळटकच संदीपाकूय मेळ आनी हें ताका दी...'' रंजून ताच्या हातांत एक चीट तोंपली.

चीट हातांत पडना फुडें चंदना मदलो वेव्हार जागो जालो.

''हांव ना... बरें आसा तूं! फुके सवाय म्हजो जीव त्रासांत घालूं? आनी म्हाका धरल्यार पेट पडटलो... दोनूय वटच्यान. ती मम्मी आनी आई दोगांय म्हजो कुंडो काडटलीं...''

त्याच खिणाक, फायदोय दोनूय वटच्यान जावंक शकता हेंय ताचे तकलेंत आयलें...

''तूं कितें दितलें तें पयलीं उलय...'' ताणें म्हळें.

''आतां कांय ना रे... पूण तुका चॉकलेटी हाडून दिवपीच हांव! सामकें उतर दितां...''

''खरेंच दितलें मुगो? ना जाल्यार हांवें इतले त्रास काडप आनी...''

''भयणी खातीर इल्ले त्रास काडल्यार कितें जालें रे?''

''वा रे वा! आनी आईक कळ्ळ्यार...?!'' तशें रंजू काकुळटेक आयलें- 'चल रे चंदन... म्हजो बाब तो! आईन हटकुचे पयलीं चल बेगीन... खऱ्यांनीच तुका चॉकलेटी दितलें...''

चंदनान रोखडीच भायर कूस मारली. असोऽ आंगणांत भोंविल्ले बशेन करून पुट्ट करून रस्तो हुपलोच! रस्त्या पलतडीनूच तर दीपाचे घर!

दीपागेर पावतकच तो आंगणांत घुसपलो. दीपाचे मम्मीची जाग नासली. तो ल्हवूच घरांत भितर सरलो.

दीपा झोंपाळ्यार बशिल्लें. थंय वचून तो खालते मानेन ताचे म्हऱ्यांत झोंपाळ्यार बसलो.

''दीपा, आज मगो, खेळूच जालो ना...''

''हांव तरी कितें करूं रे? मम्मीन म्हाका तुमगेर गेल्यार पांयूच मोडटलीं म्हळ्ळां. आतांय तुका हांगा पळयल्यार चाळवतली...''

चंदनान भिवन दीपाच्या हाताक घट्ट धरलें.

"चल तर बेगीन... आमी वयर या- सनीभाऊले कुडींत वचून उलोवया..."

दीपान फाटीं फुडें चिंतलें ना... हे भशेन लिपचोरयां खेळाच्यो खबरी करपाक मजाच दिसली ताका. दोगांय सरळ संदीपाच्या रुमांत भितर सरलीं.

संदीप खाटीर न्हिदिल्लो. ताचे केंस फाफसिल्ले. तो केंसांचो सदांच कोंबो काडटलो. चंदन मनांतल्या मनांत ताका 'कोंब्या शेंकरो' म्हणटालो... आज शेंकरो-बिकरो कांय ना... खाड लेगीत करूंक ना दिसता...

केंसाचे खूंट ताच्या सदच्या नितळ गुळगुळीत तोंडाक सामकेच घाणयताले. शीः! सनीभाऊ व्हडलोसो बरो कांय दिसना! कित्याक काय रंजूताई ताकाच घोव करतलें म्हणटा?! तरिपूण चंदनान मनांत 'भोगूं तें' म्हळें. तांच्यो गजाली तांकां... आमी आमचें काम करया... ताणें चिंतलें.

"दीपा, तुमकां खेळूंक आनीक जागो ना?" संदीप तांचेर तापलो.

"सनीभाऊ... हो चंदन आयला न्ही? ताका पळयल्यार मम्मी ताका आमगेर खेळूंक दिवची ना..."

चंदनाचें नांव आयकून संदीपाचो राग निवळ्ळो. "बरें! बरें! खेळात हांगा... म्हजी तकली मात उसळाय नाकात..."

"सनीभाऊ... तुका जोर आयला रे?"

चंदनान ताचे म्हऱ्यांत वचून जाणट्यां भशेन ताच्या कपलाक हात लावन जोर आयला काय पळेलें आनी ल्हवूच रंजूली चीट ताचे म्हऱ्यांत उडयली.

संदीपान चंदनाच्या तोंडाक पळयलें तशें चंदनान म्हळें, "सनीभाऊ, तुजें पेन बरेंऽ मरे! कसलें हें?"

"पळय. बरय आनी वास घे बरपाचो! वास येता पळय काय बरो! घे- व्हर तुकाच!"

दीपा व्हडलेशें शिटूक नासलें तरी सनीभाऊ आपल्याक सोडून चंदनाक पेन दिता हें ताका मानवलें ना. ताणें चंदनाच्या हातांतलें पेन ओडून म्हळें,

म्हजे कडेन दी... हांव पळयतां बरोवन...''

संदीपान मागीर आनीक एक पेन काडलें आनी दीपाक दिलें.

''चलात. चलात. हांगा झगडप ना. दोगांकूय दोन पेनां...''

दीपा आनी चंदन दोगांय खूश! खूब वेळ तीं खेळत बसलीं. इस्पिको घेवन पयलीं गुलाम चोर खेळ्ळीं. मागीर 'गाढवा'नी खेळ्ळीं इतल्यांत संदीपान चंदनाक उलो मारून म्हळें, ''चंदन, हांगा यो रे! तुजें पेन मातशें दी पळोवया...''

चंदनाक दुबाव पडलो- हो पेन परतें मागता दिसता. पूण ना. संदीपान पेन हातांत घेवन परतें दिलें आनी पेना बरोबर एक चिटूय बी दिली. चंदनाक समजलें, रंजूताईचे चिटीची ती जाप आसली.

चंदन मागीर थंय आनी चड वेळ रावलो ना. ताका पेनान बरोवन अक्षरांचो वास घेवचो आसलो.

घरा येवन ताणें चीट रंजूताईक दिली आनी पेनान बरोवन अक्षरांचो वास घेत बसलो. खरोच बरोऽ वास येतालो बरपाक...!

जेवचो वेळ जालो तरी चंदन होमवर्क करता. आमी तोय बी सुटयेच्या दिसा? ताचे आवयक अजापूच जालें... बरें जालें! नाजाल्यार दीस्सभर खेळत बसता... तिणें चिंतलें. तिणें ताका मायेन जेवपाक आपयलो. चंदनाक अजाप जालें. आज परवाचा म्हणपाक कोणेंच दटायलो ना. कोणेंच आज तापयलो ना. चंदन जेवन बी सुशेगादसो न्हिदलो. ताका दिसलें, ''म्हजें पेन लकी!'' पेन मेजार, दप्तरांत दवरपाक ताच्या जिवार आयलें. तो तें बोल्सांत घालुनूच न्हिदलो.

सकाळचो कसल्याशा बोवाळानूच तो जागो जालो.

आई व्हडल्या व्हडल्यान कड्डताली. बाबा हांगा धांव, थंय धांव करतालो... रस्त्यार वचून सो परतो येतालो.

आनी रंजूताईची खंय जागूच नासली!!

ताणें बेगीन बेगीन तोंड धुयलें. पूण किचनांत वचून पळय जाल्यार च्या बी कांयच ना. दुदाच्यो पिशव्यो लेगीत तश्शयो ओंट्यार पडिल्ल्यो. चंदनाक सकाळची बेगिनूच भूक लागता. आतां कितें खावया? शेवटाक

साकरेचो डबो उकतो करून बचकभर साकरूच ताणें खाली. उदक पिलो. बिस्कुत्यांचो डबो उगडून चार बिस्कुत्यो बोल्सांत घाल्यो आनी मागीरूच तो भायलो बोवाळ पळोवंक गेलो.

आई व्हडल्या व्हडल्यान दीपाच्या घरा वटेन हात करून ताणशेंताली. तिचे म्हऱ्यांत गेल्यार आपल्याचेरूच एक थापट पडत म्हणपाची भिरांत ताका दिसली. म्हणून तो बाबा बरोबर रस्तो क्रॉस करून दीपाच्या पोरसा भायर उबो रावलो.

दीपागेरूय बरोच बोवाळ आयकूंक येतालो. ''चल रे चंदन, भितर वचून कितें घडलां तें तरी पळय...'' बाबान म्हळें.

हेर वेळ आशिल्लो जाल्यार ''म्हाका कितें मेळटलें?'' अशें विचारपाचो तो! पूण आज तो शाणेपणान तोंड धांपून ओगीच रावलो.

फाटक उक्तें करून भितर सरपाक टॉमी आंगार आयलो. पूण चंदनाक वळखून तो भोंकचे बदला शेंपडी हालोवंक लागलो. थंयच कुशीक रावन ताणें एक बिस्कूत टॉमीक दिली. तो आपली बिस्कूत खावन चंदनाच्या तोंडाक पळेत शेंपडी हालयत थंयच बसलो... चंदनान ताका कितले वेळा सांगिल्लें, ''हांव खातना म्हाका पळयनाका... दुसरे कडेन पळय. ना जाल्यार म्हज्या पोटांत जातलें...'' पूण टॉमी ताच्या तोंडाक पळयताच!

दीपागेरूय आज च्या बी करूंक ना काय?

इतल्यांत दीपाच 'टॉमी, टॉमीऽ' करीत भायर आयलें. चंदनाक पळोवन तें धांवतूच ताचे म्हऱ्यांत आयलें. 'चंदन, धांव बेगीन हांगासरलो. मम्मी पळयल्यार तुका दवरचिना... आज म्हाकाय बी बेश्टेंच पेटलां तिणें. सनीभाऊन पत्र दवरलां... तो आनी रंजूताई खंय तरी गेल्यात खंय... एकलींच...''

हें आयकून चंदन आनी थंय रावला? सोमतोच भायर धांवलो... पूण फाटका कडेन पावसर दीपाचे मम्मीन ताका फाटल्यान येवन धरलोच! चंदनान व्हडा-व्हडान रडपाक सुरवात केली. तशी ताची आई निमित्ताकूच राविल्ले भशेन धांवत दीपाच्या दारांत पावली... दारांतूच दोगांय आवयांचीं व्हडलीं झगडीं...

आई दोन उतरां सनीभाऊक उलयल्यार मम्मी रंजूताईक दोन उतरां म्हणटाली. मम्मीन एकदांच रंजूताईक खेपल्यार आई एकदांच सनीभाऊक खेपताली... दोगांयचें गणीत सारकें जाता काय ना हाचो हिशोब करपाच्या बोवाळांत चंदन थंयचो पळून वचपाक विसरिल्लो. आईचें एक थापट पडटकच आपल्याचेर आयलें म्हणपाचें ताका समजलें.

"कित्याक गेल्लो काल तूं तांगेर?... वचूं नाका म्हणिल्ले न्ही तुका?"

चंदन अजापलो... दीपान चाडी केली? आईक कशें कळ्ळें, हांव दीपागेर गेल्लों तें?!

मागीर तांच्या झगड्यांतल्यानूच ताका समजलें, सनीभाऊच्या रुमांत रंजूताईली चिटूय मेळिल्ली. ही चीट कोणें दिली हाची चवकशी जातकच दीपान माराच्या भंयान चंदन काल आयिल्लो तें सांगलें. चंदनान झटक्यान फोर्स केलो. हात सोडोवन घेवन भायर धांव मारली. तो जाणा आसलो, दोगूय बायलो तोंडा बरोबर हातूय फास्ट चलोवंक जाणा आसल्यो.

त्या दिसा दोनूय घरांनी जेवण सारकें जालेंच ना. दोनूय घरां दुखेस्त, चिंतेस्त दिसतालीं. ना म्हळ्यार, चंदनाचो बाबा मात व्हडलो दुख्खी दिसनासलो.

दोन दीस अशेच गेले. तिसऱ्या दिसा रोहिताच्या घरांत बोवाळ. रोहिताचो दोतोरकाका राकेश, पेद्रू भाटकाराल्या सँड्रा बरोबर रजिस्टर लग्न करून सोमतोच व्हंकलेक घेवन घरा आयलो... सँड्रा व्हडलो धवोफुल्ल व्हिस्तीद घालून काय बरें दिसतालें...!

रोहितालीं माँ-पापा पयलीं खूब बेजार जाल्लीं. पूण मागीर तांगेर खूब कितें कितें देवस्पणां बी जाली. होम जालो. आनी मागीर सँड्राक 'सुंदराबाय' बी नांव दवरून रिसेप्शन बी केलें. रिसेप्शनाक आयस्क्रीम बी खूब आशिल्लें. रोहितान आनी चंदनान खूऽब्ब आयस्क्रिम खालें. "सुंदराकाकी, सुंदराकाकीऽ" म्हणत सँड्रा भोंवतणी खूब बोवाळ्ळे. सुंदराकाकीक तेंकून रावन फोटे बी काडले.

चंदन आनी चंदनालो बाबा रिसेप्शनाक गेल्ले. चंदनाची आवय मात

रंजूताईचो खेद काडीत घराच राविल्ली. तिच्या दोळ्यांतलीं दुकां पळोवन चंदनाचो बाबा तिडकलो- "तुका अक्कल कशी ना काय म्हणटां! संदीपा सारको भुरगो रंजूक मेळ्ळो तें नशीब समज! रंजूची सोयरीक घेवन तांगेर गेल्यार संदीपाची आवय दोट्टी गोंट, वज्रावेडी... आनी कितें कितें मागतली आसली, देवाकूच खबर! जाता आमच्यांनी तें घालपाक? तांकता आमकां?? भूरगो बरो, जोडटा बरो... रंजूचो मोग करता... तुजें कित्याक किसळ्ळां??"

चंदनाची आवय विसमितायेन घोवाच्या तोंडाक पळोवंक लागली. तिका घोवाचें म्हणणें पट्टालें. पूण पोटांतल्यान एक दुबाव जिबली दाखोवंक लागलो. हांची फूस आसुये रंजूच्या पळून वचपाक??... त्या दिसा उजो जाता म्हूण भायर सालांतूच न्हिदिल्लें... तिच्या दोळ्या मुखार चित्र बरेंऽ निवळत गेलें... तशे तिणें दोळे घट्ट धांपून घेतले. ते विचारूच मनांतल्यान हुमटावन उडोवपाचो यत्न केलो. जालें तें जालें. पोटांतलें जिबेर येत आनी तिच्या कानार पडत जाल्यार दीसभर ती हांकां खेपत राव...ती.

पूण राकेशाचें आनी सँड्राचें प्रकरण जायत सावन दीपाची आवय बरीच निवळिल्ली. तिणें चिंतलें, कितें जालें शेजारचेंच चली जाल्यार? दिसूंक बरें, सभावान वायटशें न्ही. आनी संदीपाक मानवलां. तरी बरें! राकेशान सँड्राक घरांत हाडलां तशें कांय करूंक ना म्हज्या पुतान. म्हजो संदीप भोव विचारी... आपलेच जातीपातीचें, संवकळीचें चली पळोवन मोग केलो ताणें...!!

पुताच्या मोगान तिचो गळो ओगीच भरूनसो आयलो...

बाजारांत वतना दोगीय मेळ्ळ्यो. पूण फाट करून वचनासतना दीपाची मम्मी चंदनाचे आईक पळोवन चक्क हांसली. आईकूय धीर आयलो. तिणेंय हांसून पळयलें.

...आनी मागीर दोगीय इश्टिणींच्यो गळ्यांत गळो घालून खबरी सुरू जाल्यो... झगडें-बिगडें कांय ना!!! "खंय गेल्यांत काय पोरां, कोण जाणा?" म्हणत दोगांनीय दुकां बी काडून जालीं. भाजी घेवन घरा यो

जाल्यार दारांत टॅक्सी थांबल्या... पळेत जाल्यार संदीप आनी रंजू... रंजू व्हंकलशी... बरीऽ साडी बी न्हेसून... हातांत पाचवीं कांकणां बी... आंगणांत खेळटल्या भुरग्यांनी खेळ थांबोवन एकूच बोवाळ घालो- "सनीभाऊ आयलोऽ... रंजूताई आयलेंऽऽ..."

आतां चंदनाची आई आनी दीपाची आवय एक जालीं आनी तांकां व्हरून दीपाच्या दारांत उबीं केलीं. राट दाखोवन, पिठाच्यो गुळयो बी ओंवाळून तांची दिश्ट काडली. भुरग्यांचो चोमो दारांत रावन सगळें पळयतालो. रंजून एकाच फांफरान दारांत तांदूळ भरून दवरिल्लो पेलो खोऽऽल्ले करून सालभर तांदूळ फाफसायले तें पळोवन भुरग्यांनी खूब ताळयो बी मारल्यो...

न्हवऱ्या-व्हंकलेक घरांत भितर काडटना दीपाची मम्मी आनी चंदनाची आई एकामेकांक वेंग मारून रडटात तीं पळोवन भुरग्यांनी चंदनागेर कूस मारली.

"पाऽड पडलें... काल पयर एकामेकांच्या आंगार जुडून वतालीं..." सीमान म्हळें.

"तर कितें? आईन म्हाका पेटला. दीपाचे मम्मीन दीपाक पेटलां... मार खावप आमी आनी ..." चंदनान रागान म्हळें.

दीपान म्हळें, "भोगूं तें आतां... आमी आमचो खेळ सुरू करया..."

चंदनाचे वासरेर परतो आपालिपाचो खेळ रंगलो. "अडम, तडम तत्तर बाजा..." करून चंदनाचेर म्हारपण आयलें. दीपान कांजीण जावन ताचे दाळे धांपले. हेर सगळे लिपूंक गेले. दीपान म्हळें-

आपालिपा, सायलिपा
साळचो गोंडो, जिकून धर
कानांत कितें? मूऽऽदी
चल घोवाचे सोऽऽदी

***

# नव्यो कोमऱ्यो

"दादू..."

"कितें बाब? कितें जाय आसलें?" दादू धांवतूच हात पुशीत आयलो.

"कितें करतालो तूं?"

"कांय ना बाब... मावशेक जोर येयला... मातसो तिका आदार करतालों रांदपांत..."

"मावशेक जोर आयला? आनी जेवण कोणें रांदलें तर? तिणेंच?"

"मावशेनूच रांदलें बाब... क्रॉसीन दिल्ली तिका. रांदलें बी आनी आतां थार पडल्या..."

"दोतोराक फोन केल्लो?"

"ना बाब... आतां करतां..."

"केंसराक करूंक लावचें न्ही काम? सांगपाचें न्ही ताका?"

"तें सकाळींच आपलें काम करून गेलें बाब, तेगेर सोयरीं येवचीं आसात."

"सोयरीं येवचीं आसात खंय! फाल्यांच वोसमराद दी ताका."

वसंताक राग रोखडोच येता हें दादू जाणा आसलो.

"बाब, हांव आसा न्हूं? हांवेंनूच धाडलें तेका..."

"तूं दिशीं दिशीं तरणो जाता न्ही रे म्हाताऱ्या?" वसंतान कपळाक आंठयो घालून विचारलें.

दादू केन्ना ओगी बसप हें जाणा आसलो. ताणें तकली सकल घाली.

"दादू..."

"कितें बाब?"

"वरां कितलीं जालीं?"

"सवातीन जाली बाब." दादून वणटीचेर आशिल्ले घडयाळीचेर नदर मारून सांगलें.

"आयज चंदन चांदोळकार म्हूण एकलो येवचो आसा."

"आं बाब..." दादून उमेदीन म्हळें. कितलेशेच मनीस बाबाचे सेवेक येवन गेले... हो तरी तिगल्यार पुरो! पूण बाबाल्या ह्या तिरसुवादपणान, आनी ओगीच आंगार आयिल्ले बशेन तापपाच्या सभावान कोणूच तिगनासलो चड तेंप! फाटल्या मनशान तर दोन दिसांनीच पळ कांडिल्लो.

वसंतान ॲप्लिकेशनाचेर नदर मारली- वय- चोवीस वर्सां. गूड फिजीक. पांच वर्सांचो नर्सिंगाचो अणभव. फिजियोथॅरपी जाणा... हॉस्पिटलाचीं सर्टिफिकेटां.

हांवें ताका दोनांक आपयिल्लो. आतां तीन जालीं. हांव न्हिदूंक वता... चारां पयलीं उठोवचो ना म्हाका तूं...!

"हय बाब..."

रिक्शेचो आवाज आयलो. गेटी कडेन रिक्शा थांबली.

"बाब, तो आयलोसो दिसता..." दादून म्हळें.

"म्हजो न्हिदपाचो टायम जालो. चारां पयलीं हांव उठचों ना." वसंतान म्हळें आनी दादून वसंतालें व्हीलचॅर ताच्या रुमा वटेन घुंवडायले.

वसंताची नदर वतां वतां रिक्शेचेर पडलीच. थांबिल्ले रिक्शेंतल्यान एक पांय भायर सरिल्लो. वसंताच्या कपळाक आंटी पडली... गूड फिजिक खंय...!! हो पांय पळयल्यार नाजूक अबरगत सो. असल्या पांयांचेर उबो रावपी देह केदो आसतलो? अबरगतू! घालचो धांवडावन. विचार करतां करतां वसंताच्या दोळ्यार झांपड आयली.

दादू बॅग घेवपाक धांवतूच रिक्शे म्हऱ्यांत गेलो. नवो मनीस सिर्विसेक आयलो तशी दादूक उमेद जाताली. पूण रिक्शे कडेन पावलो आनी दादू आं करून पळेतूच उरलो.

"बाप्पा, तोंडांत मूस वचत. तोंड धांप तें! असो कितें पळयता म्हाका?" चंदनान हांसतूच म्हळें.

दादून पळयलें- जीन्स आनी टी-शर्ट घाल्लें, केंस तारांटून बांदून वयर-सो आंबाडो घाल्लें हें नाजूकशें चली कोणागेर आयलां जातलें?

"बाय, खंय वचूंक जाय तुका? कोणागेर आयलां?"

"'विहार' बंगलो होच न्ही?" बंगल्याच्या नांवा कडेन बोट दाखोवन चंदनान विचारलें. "वसंत वळवयकार हांगाच रावतात न्ही?"

"हय... पूण... पूण" दादू तकली खरपूंक लागलो.

"हांव चंदन चांदोळकार. हांगा शिर्विसेक आयलां."

दादू सामकोच घुसपलो.

"तूं... तूं चंदन चांदोळकार...?"

"असो भूत पळयिल्ले भशेन कितें करता बाप्पा...?"

"हांव... दादू..." दादून म्हळें.

"बरें तर... दादू, तुज्या धनयाक वचून सांगशीत, ताणें आपयिल्लें प्रमाण चंदन चांदोळकार हजर जालां म्हणून?"

"पूण... पूण... बाब न्हिदला..."

"मागीर उठय मरे ताका..."

"तो चारांक उठ्ठलो."

"तशें जाल्यार हांव भितर बसता तरी. काय म्हाका हांगा गेटी भायरूच उबें दवरतलो तूं दादू...?" चंदनान हांसत विचाचरलें.

दादून ह्या घरांत हांसो पळयल्यार जायते दीस जाल्ले. ताच्याय तोंडार हांसो आयलो. ताणें चंदना कडेन पळयलें. न्हय गोरें, न्हय काळें... मध्यम रंगाचें... व्हडलें रुप ना... पूण नाका दोळ्यांनी तरतरीत शें हें चली दादूक एकदम मानवल्लें. बाब उठना फुडें कसलें नाटक जावचें आसा तें जावं दी मागीर. सद्याक ह्या पोराक घरांत घेवन च्या-पाणी तरी दिवया.

दादून ताचें बॅग उबारलें- यो, भितर यो बाय..."

'आतां कसो उलयलो! दादू, च्याचो घोंट ताळ्यार घालता जाल्यार पळय..." दादूचे फाटोफाट हॉलांत भितर सरत चंदनान म्हळें. "आनी, हांव मातशें तोंडार उदक मारून फ्रॅश जायन म्हणटालें..." चंदनान दादू कडेन पळोवन हांसत म्हळें.

चली मातशें सुबेजूच आसा, दादून चिंतलें. पूण तें हांसतकच ताचीं सुबेजपणां ताच्या पोल्यां वयल्या फोणकुलांनी नाच्च जातात.

दादून तकली हालयत ताका बेसिना कडेन व्हेलें.

"दादूऽ..." भितल्ल्यान पंरवल्ले भशेन आवाज आयलो. "दादू, उदक दी रे घोंटभर... गुळी घेतां परती..."

चंदन बेसिना कडेन वतालें तें थंयच थारलें.

"कोण बरो ना?" ताणें दादूक विचारलें.

"मावशी... रांदपीण हांगाची... हांगाच रावता... जोर येयला तिका..."

"खंय आसा ती?" आनी दादूक विचारी नासतना चंदन आवाजाचे दिकेन मावशेच्या रुमांत पावलें लेगीत.

गोऱ्याच रंगाची मावशी. जोरान तोंड, पोले तांबडेच जाल्ले. चंदनान आपल्या बॅगांतलो थर्मामिटर काडून मावशेलो जोर पळयलो. जोर तीन जाल्लो...

"दादू, दंड उदक हाड... फ्रिजांतलो झेल काडून हाड... निवळ कपडो... नॅपकीन..." चंदन ओर्द सोडीत रावलें.

दादू बेगीबेगीन उदक, बर्फ, वालो, नॅपकीन बी घेवन आयलो.

चंदनान थंड उदकाची घडी मावशेच्या कपलार घाली. आनी उदकांत नॅपकीन बुडोवन मावशेचें आंग थंड उदकान पुसून काडलें.

"दादू, जोरान फणफणटा मरे मावशी, आनी कांयच उपाय करूंक ना?"

"क्रॉसीन दिल्ली. दोतोराक फोन केला. ताका म्हणटा आसतना रांदूक गेली जोराच्या आंगान."

दादूक घडयो बदलूंक लावन चंदन तोंड धुवंक गेलें.

इतल्यांत भायर मोटार थांबिल्ल्याचो आवाज आयलो. दातोर भितर सरलो.

"यो दोतोर, मावशेक सकाळच्यान जोर आसा," दादून दोतोराक कदेल दीत म्हळें.

दोतोरान थर्मामिटर घालून पळयलो. जोर पळोवन दोतोरान म्हळें, ''हें बरें

केलें आं दादू तुवें! कपळार थंड उदकाच्यो घडयो घाल्यो तें...''

''हांवें न्ही... चंदनान केलां तें! आंग बी थंड उदकान पुसून काडलां मावशेचें...''

''चंदन?... कोण चंदन?'' दोतोरान विचारलें.

''तें आतांच येयलां दोतोर... शिर्विशेक. बाब उठ्ठकच तेका धांवडावन घालतलो, आतांच सांगतां...'' दादून भविश्य सांगलें.

''कोणाक धांवडावन घालता रे दादू? आनी म्हजी च्या रे?'' चंदन तोंड पुशीत थंय पावलें.

''आतां करतां... दोनोर, तूं च्या घेतलो न्हू?''

''आतां तूं च्या करता म्हणटकच म्हज्यान नाका म्हणूं येता?'' दोतोरान मावशेक इंजेक्शन दिवन जातकच प्रिस्क्रिप्शन बरोवन दिलें- ''हें मात बेगीन हाडून दी.''

''हाडटां दोतोर...''

दादूली च्या जायसर चंदनाल्यो आनी दोतोराल्यो खबरी बऱ्यो जमल्यो.

''वसंताचे सिर्विसेक रावपाक बरो दाट कातीचो मनीस जाय...'' दोतोरान चंदनाक शिटकायलें.

''आमकां हॉस्पिटलांत तरातरांच्या सभावांच्या पेशंटाचो अणभव मेळटा न्ही... कात रोखडीच दाट जाता...'' चंदनान हांसत सांगलें.

''हरशीं गोंयांत खंय रावतालें तूं? आनी गोंयच्यान हांगा पुण्याक सिर्विसेक शें...?''

''हांव शिरोडेंचें. दोतोर, म्हाका मुदांस जाय आसलो...'' चंदन एकदम सिरियस जालें. दोळ्यांत खिन्नताय. मागीर ताणें दोतोराक विचारलें, ''दोतोर तुमी खंयचे?''

''हांव पिरवळचो. विष्णु कामत. हांगाच पुण्याक शिकलों. हांगाच हॉस्पिटलांत नोकरेक लागलों. आतां प्रायव्हेट करतां. वसंतूय गोंयचो

जाल्ल्यान आमची इश्टागत. शिकतना हांव पयली तांगेरूच उरलां...''
दोतोरान सांगलें.

दादूली च्या घेवन दोतोर वचपाक उठलो. ''बरें तर, वखद वेळार दियात मावशेक, कितें रे दादू!''

''हय दोतोर...''

''बरें गो चंदन, मेळुया मागीर... परतो जोर चडल्यार स्पंजींग करपाचें. ही गुळी.'' दोतोरान चंदनाच्या हातार आपल्या बॅगांतलें गुळयांचें पाकीट दवरलें. चंदनूय उठलें.

मेळया खंय मागीर...! दादू चिंततालो. आतां बाब उठ्ठकच चंदनाक मेळटलो. चंदन दादालो मनीस न्ही म्हूण व्हडलो बोवाळ घालतलो. म्हाका दिसना, हें बाय फाल्यां हांगा आसत अशें...

च्या घेवन चंदन हॉलांत पेपर वाचत बसलें. चार वरां जातकच दादून वसंताच्या रुमांत वचून विचारलें, ''बाब, च्या हाडूं?''

''हाड. आनी दोतोर येवन गेलो? मावशी कशी आसा?'' वसंतान विचारलें.

''आतां बरी आसा. न्हीद पडल्या. हेदोळ दोतोर येवचे पयलीं जोरान खतखतताली सामकी. तीन जोर जाल्लो. चंदनान झेला उदकाच्यो घडयो घातल्यो कपळार...''

च्या पितां पितां वसंत मदींच थारलो. ''आरे, चंदन चांदोळकार आयला न्ही? चल, व्हर म्हाका भायर.'' दादूच्या आदारान वसंत व्हीलचॅरार बसलो. हातांनी चाकां घुंवडायत तो हॉलांत आयलो.

चंदन पेपर वाचतालें. ताणें पेपर मेजार दवरलो आनी उठून उबे रावलें.

''तूं... तूं कोण...?'' वसंतान तें शिरपुटेंशें चली पळोवन विचारलें.

''हांव चंदन चांदोळकार; रावपी शिरोडें-गोंय. वसंत वळवयकार हांणी हांगा म्हाका सिर्विसेक आपयलां.'' चंदनान एका धपक्यान सांगून उडयलें.

''पूण हांवें चंदन चांदोळकार ह्या दादल्या-मनशाक सिर्विसेक आपयला.''

''चंदन चांदोळकार म्हूण दादलो मनीस आसा? म्हाका कांय खबर ना.

पूण हें तुमचें लॅटर... हें म्हजे आयडँटिटी कार्ड... आनी हें हांव...''

''आयलां तशें चलूंक लाग...'' वसंतान रागान म्हळें.

''कित्याक...?''

''हांव सांगता म्हणून!... म्हाका सिर्विसेक दादलो मनिसूच जाय...'' वसंत तिडकलो.

''आनी हांव कितें करूं?'' चंदनाकूय तिडक मारली. ''हांव म्हजी हॉस्पिटलाची नर्सीची सिर्वीस सोडून, भाड्याचो रुम सोडून, गोंय सोडून इतलें पयस पुण्यांत आयलां तें ''लाग चलूंक' हें आयकून घेवपाक न्ही...''

''तो तुचो प्रस्न! तुवें पयलींच सगळें पळोवन करून मागीर सिर्विस सोडपाची...'' वसंत रुमांत वचूंक परतलो.

''आनी तुमीय बी, चंदन दादलो काय बायल तें पयलीं पळोवनूच अॅपॉयंटमँट लॅटर धाडपाचें... चूक तुमची, म्हजी न्हय.'' चंदन तापलें.

''सिर्वीस मागूंक आयलां, आनी आड्डता म्हजेर? दादू, हाच्या बॅगा सकट हाका गेटी भायर व्हरून उडय...''

''मिस्टर वसंत वळवयकार, तोंड सांबाळून उलयात... गेटी भायर व्हरून उडोवपाक हांव जीव नाशिल्लें सामान न्हय...''

''आनी तूं चंदन चांदोळकार, तूं पांच मिनटां भितर म्हज्या घरा भायर सरलें ना जाल्यार तुका उबारूनच भायर उडोवचें पडटलें...''

''म्हजे कडेन तुमचें काम जाता काय ना तं तरी पळयात...'' चंदनान आपली परिस्थिती येवजून नमळायेचें उलोवणें सुरू केलें. पर्सींतले सगळे पयशे एकठांय केल्यार लेगीत... हांगा हॉटेल सोदपाचें, काय गोंयां परतें वचपाचें...? आनी मुखार कितें? परत्यो त्योच दुखदिण्यो यादी...!?''

''म्हाका कांयच पळोवपाचें ना... तूं चलूंक लाग; येदोसो शिरपुटो देह... आनी जाणवायो केद्यो!''

''हांव बारीक दिसलें तरी म्हज्या आंगात बरी शक्त आसा. आनी नर्सीचे ट्रेनिंगूय आसा....''

''तें कांय लागना म्हाका... हांवें चंदन चांदोळकाराक आपयिल्लो, ताची सर्टिफिकेट्स पळोवन...''

"हांव चंदन चांदोळकारूच!"

दादूच्यान तें झगडें पळोवं नजो जालें. चंदनाची ताका माया दिसूंक लागिल्ली.

मावशेक पळयलीशें करून तो धांवतूच हॉलांत आयलो. "बाब... मावशी... कितें जाता पळय तिका... बाय, हेदोळचे भाशेन किदेंय कर गो..."

तशें चंदन हातांतली पर्स थंयच उडोवन भितर धांवलें. वसंत पळेतूच उरलो.

माशी थंड न्हिदिल्ली. चंदनान दादूच्या तोंडाक पळयलें. दादून नाकार बोट दवरून म्हळें, "शू... बाब भितर येता. हें घे झेलाचें उदीक; हो नॅपकीन..."

चंदन समजलें, तेय परिस्थितींत ताका हांसूंक आयलें. ताणें कपडो उदकांत बुडयलो आनी मावशेच्या कपलार घालो. थंड लागतकच मावशी कच्च करून जागी जाली आनी परवंपाक लागली. आपल्या व्हील चॅराचीं चाकां घुंवडायत वसंत भितर आयलो.

"मावशे, कितें जालें?"

"बाब, जोर तकलेक मारलासो दिसता म्हाका..." दादून मदींच तोंड घालें.

चंदनबायेन कपलार...

"तूं ओगी बस रे...!" कँच्च करून दादूचेर तिडकत वसंतान ताका ओगी केलो आनी मावशेच्या कपलार हात दवरलो.

"आतां कशें दिसता तुका मावशे?" ताणें मायेन विचारलें.

चंदनाक अजापूच जालें. फकत आंगार जुडून आयिल्ले भशेन उलोवपी ह्या दादल्याच्या तोंडांतल्यान इतलीं म्होंवाळ उतरां?

"बरें आसां आतां हांव. बाबा, तुमकां सगळ्यांक त्रास म्हाका लागून... हेदोळ हे बायेन कितलें केलें म्हजें... मागीर दोतोरान इंजेसांव दिलें. दादून कसाय करून दिलो. तुवें खबर घेतली- बाब, हांवेंन तुमची शिर्वीस करपाची, आनी हांवूच आड पडलें. म्हजी म्हाकाच लज

दिसता...'' मावशी बडबडत रावली आनी दोळ्यांतल्यान घळघळ करून दुकां व्हावोवंक लागली.

चंदनान दोतोरान दिल्लें गुळयांचें पाकीट काडलें आनी ताचेर पळोवन ताणें गुळयेचे कुडके करून अर्दीच गुळी मावशेक दिली. दादून बेगीबेगीन उदकाचो पेलो मावशे मुखार धरलो.

वसंताच्या हातांतलो सॅलफोन वाजलो. 'हॅलो,'' ताणें म्हळें.

''हॅलो, हॅलो... चंदनाक मातसो फोन दी...''

हें आयकून वसंताच्या रागाक शीममेर उरलिना. ''तूं तुजे तुका समजता कितें गो? घरांत पावल घालचेंच आसा, तुका फोन येवंक लागले! तेय बी म्हज्या मोबायलाचेर... आनी, तुका म्हजो नंबर कोणे दिलो?''

''देवाऽ सायबा... तुमचो नंबर म्हाका खंय खबर? आनी फोन करपी कोण ना म्हजो हांगा...'' वसंता परस चंदनाक चड अजाप जाल्लें.

''मागीर कोण?''

तेवटेन फोनांतल्यान 'हॅलो, हॅलो' आवाज येत आसलो.

''हॅलो, वसंत... हांव दोतोर कामत उलयता रे... चंदन आसा थंय? ताका सांग हेदोळ हांवें दिल्ल्यो त्यो गुळयो... सगळीच गुळी बी दीत तें... हांव सांगूंक विसरलों. अर्दीक गुळी दिवपाची... अर्दी गुळी... दोन दोन वरांनी दी म्हूण सांग.'

''अर्दी गुळी दिल्या ताणें,'' वसंतान सांगलें.

''गुड गर्ल!... आनी वसंत, हे खेपेक तुका नर्स बरी मेळ्ळ्या हाची म्हाका गॅरंटी दिसता. ताका समजिकाय आसा आनी पासियेंसूय आसा...'' दोतोरान फोन दवरलो.

''आतां कोणाचो फोन आयिल्लो म्हाका? आनी तुमी कितें उलयले?'' चंदन तिडकलें. हेदोळच्या अजापान ताचो राग धांपिल्लो तो आतां वयर सरलो.

वसंतान आपल्या तोंडांतल्यान उतर भायर पडत म्हणून काय कोण जाणा, ओंठ घट्ट आंवुळिल्ले. ताणें व्हीलचॅर भायले वटेन घुंवडायलें. ''मावशेचें जातकच तूं भायर यो,'' ताणें वतां वतां म्हळें.

दादू चंदनाक समजावपाक लागलो- "बाय, तू बाबाचें कांय वायट धरनाका आं... तो पळय असो कदेलाक धरून पडला न्हू, म्हूण तापार जाता. हरशीं कितलो भांगरा मुनीस म्हगे बाब...!! तो बरो आसतना कितलो लोक येतालो आमगे बंगल्यार... व्हडलीं व्हडलीं बुकां बरयतालो बाब... तो ॲक्सिडँट जालो आनी असो धरोन पडलो... आनी मागीर तेंय सोडून वचत साकून चडूच..."

"तें कोण?" चंदनान अजापान विचारलें. "रीमाबाय... बाबाची व्हंकल. लग्न म्हयन्यार पाविल्लें. थोडो तेंप येयलें आनी बाबा धरोन पडला तें पळोवन गेलें तोंड घेवन ते परतें आयलेंच ना. मागीर बाबाच्या मनाचीय घटाय गेली... असो तिरसुवादा जावन पडलो."

"दादूऽ... ताका भायर धाड..." हॉलांतल्यान तिडकल्लो आवाज आयलो. चंदन भायर वचून वसंता मुखार उबें रावलें.

वसंतान कपलाक आंठयो घालून म्हळें, "आतां तूं आयलांच जाल्यार चार दीस रावन पळय... पूण म्हाका दिसना तुज्यान म्हजी सिर्वीस जातली..."

"म्हजें काम पळोवचे पयलींच तुमकां अशें कित्याक दिसता, सर?"

"आनी, सुबेजपणां तर म्हाका मात्तूय सोंसनात... परत्याक परतें उतर दिवपाची तुजी पाडी संवय मातशी कुशीन दवरूंक मेळटा जाल्यार पळय..."

चंदनान ताका सारकी जाप दिवपाक उक्तें केल्लें तोंड मोठ्या कश्टान धांपलें. आतां म्हारू मातसो शांत जाला... ताका कित्याक खुबळावचो, ताणें चिंतलें.

"दादूऽ..." वसंतान दादूक भायर आपयलो... म्हजें रुटीन, म्हजें काम... सगळें हाका समजावन दी... दोतोराक फोन करून ताची ड्युटी कितें तें ताका..."

"हय बाब, हय बाब... हांव पळेतां तें..." दादूच्या तोंडा वेल्यान सामकी खोस ओतताली. म्हणचे, चंदनबाय शिर्विसेक उरतलें तर...! ताणें खोशयेन चंदनाक म्हळें, "चल बाय, हांव तुका तुजो रुम दाखयतां..."

चार दिसां भितर चंदनान वसंताच्या रुटिनांत आपणाक सामकें बुडोवन घेतलें- दोणांतली आमली करमेवची तशें तें त्या घरांत करमेलें. दादू आनी मावशी ताका वयले वयर करतालीं. वसंताच्यो गुळयो, ताच्या पांयाचें मालीश, ताचो व्यायाम, ताच्यो संवयो ताचे मूडस सगळें सगळें ताचे वळखीचें जालें. वसंतूय सगळे व्यायाम तें सांगता तशें करतालो. पूण चंदनाक दिसतालें, तो मन लावन कितेंच करना. ओगीच वेलेचाराक केल्ले भशेन करता. झक मारना, ताणें चिंतलें. म्हजें काम हांव वेवस्थीत करतां न्ही? पूण दुसरे वटेन, हें दोतोराक सांगूंक जाय अशेंय ताका दिसतालें. दीस बरे वताले. वसंताचो सुशेगाचो वेळ जातकच तें दादू बरोबर गार्डनांत वचून आपुणूय ताका आदार करूंक लागतालें.

चंदनाक झाडां पेडांचो मोग ल्हानपणा सावन आसलो. गोंयांत लेगीत आपल्या भाड्याच्या रुमाच्या त्या इल्ल्याश्या व्हारादांत ताणें धा कुंड्यो पोशिल्ल्यो. चंदनाचे मोगान केल्ले वासपुशेक लागून त्यो सदांच कवकवीत आसताल्यो. गोंय सोडून येतना ताणें त्यो कुंड्यो सबिनाक, आपले इश्टिणीक, दिवन उडयिल्ल्यो. सबिनाकूय ताचे बशेनूच झाडांची आवड आसली. तें आपलीं झाडां बरेंऽ करून सांबाळटालें म्हूण चंदनाक गॅरंटी आसली. आतां हांगा तर येदें व्हडलें गार्डन... तरेकवार फुलां... फाटले वटेन तरेकवार भाजयो लेगीत लायिल्ल्यो.

"कसलेंच फूल फाल्त ना मरे दादू... हो पारजत, ती वोंवळ, तो चांफो... मोगरी, जायो-जुयो... कितल्या रंगाचे आनी जातींचे गुलाब रे हे..."

"बाबान बँगलोरा साकून कलमां हाडिल्लीं..." दादून वोर्रान सांगलें.

"आनी शेवतीं मात दिसनात तीं..."

"जायत्या रंगाची आसलीं. आतां नात. हो जागो पळय, सगळो शेंवत्यांनी भरतालो... आनी, फाटल्यान वचून पळय- पेरां, दाळमां, आंवाळे, सिताफळां कितल्या तरांच्यो दशणी आसात पळय ते वटेन... तूं कितें पळयतलें आसले बाय, बाब बरो आसतना अर्दोदीस बाबालो गार्डनांत, अर्दोदीस बरोवपांत... आपल्या हातांनी बाब सगळी उस्तवारी

करुन्गलो. बाबालो हात लागतनाच रोपां रसरसचीं... तेच्या हाताकूच असलो गूण आसलो... रीमाबायकूय फुलांचो घोस्त. पूण मातयेंत हात घालपाक विट्टालें. फकत फुलांक तोखेत बाबा फाटल्यान भोंवतालें. पूण बाबाचो हात सदां मातयेंतूच. कितलो खोशी आसतालो बाब. हांसतो, बडबडो, म्हजीं म्हाताऱ्याचीं दिस्सभर फकाणां मारतालो...'' दादून सुस्कार सोडलो. 'गेलें तें सगळें आतां... आतांचो बाब पळेल्यार म्हजो बाब न्हीच हो. कोण म्हारू बसला तेचे गोमटेर, कोण जाणा...''

चंदनान घडयाळीर पळेलें- ''चल दादू, पळया आमी भितर, चार जावंक आयलीं नाजाल्यार तुज्या बाबाचे गोमटेर बसला तो म्हारू खुबतलो.''

दोगांय हांसत घरांत आयलीं. दादू च्या घेवन वसंताच्या रुमांत गेलो. चंदनूय ताचे फाटोफाट गेलें. वसंताच्या गुळयो काडून ताचे मुखार दवरल्यो आनी तेलाची बाटली घेवन मालीश करपाचे तयारेंत रावलें.

''आज म्हजो मूड ना, मालीश करून घेवपाचो...''

चंदन आयकूंक येना आशिल्ले भशेन तेलाची बाटली उक्ती करूंक लागलें.

''आयकूंक येना तुका, काय भेरें जालां? आज म्हाका मालीश नाका... मातसो एकलो बसून वाचूंक सोदता...''

''सकाळीं अशेंच सांगून मालीश करूंक दिलिना... पूण हें कंपलसरी करूंकच जाय. दोतोरान सांगलां...'' चंदनान तेल हातार घेतलें आनी तें पांयांक मालीश करूंक लागलें.

''आतां तुका खोंट घालून धांवडावंक जाय... ?'' वसंत तिडकलो.

''तुमची खोंट पडटली त्या दिसा म्हाका सिर्वीस सोडून वचचेंच पडटलें. कारण तुमचे पांय बरे जाल्ले आसतले.'' चंदनान पांयाक तेल चोळीस सांगलें.

वसंताक कितें करचें तेंच समजना जालें. ताचे फडफडे दिसच नाशिल्ले बशेन चंदन मालीश करीत रावलें.

''दादू, ह्या खटाक मातशें ओडून म्हज्या रुमा भायर काड. म्हाका हो

बूक वाचचो आसा, आनी हांव सांगता तेंच आयकूंक जाय म्हूण सांग ताका. ताचो पगार ताका मेळटकच जालो...''

''सर, तुमी बसून तुमचें पुस्तक वाचात. हांव हांगा पांयां कडेन बसून म्हजें काम करतां. काम करनासतना फुकट पगार घेवंक हांव भिकारी न्हय...'' चंदनान थंडसाणेन सांगलें. दादू ल्हवू भायर गेलो. चंदन मालीश करतां करतां वसंताक केन्नाच न्हीद लागिल्ली.

दोतोर परत मावशेक पळोवंक आयिल्लो. मावशी आतां बरी आशिल्ली. पूण दोतोराचें येवपाचें कारण आसलें चंदन. वसंतान ताका दवरलां कांय धांवडायलां हें ताका जाणून घेवचें आसलें आनी आसाच जाल्यार चंदनाक थोड्यो टिप्स दिवच्यो आसल्यो.

''चंदन, तूं व्हीलचॅरा वेल्यान वसंताक ताच्या गार्डनांत भोंवपाक राजी करूंक शकता जाल्यार पळय. ताच्या मनाची निर्शेणी वचूंक जाय. तो कुडीचो रोग आसाच, पूण मनाचीय उबारी ना जाल्यार ताची.'' दोतोरान सांगलें.

''तो झाडां मदीं, फुलां मदीं रमता. पूण भायरूच सरचो ना म्हणटा...''

दोतोर वतकच चंदन दादूक सोदीत बंगल्याचे फाटले वटेन पावलें.

''दादू, कितें चल्लां?''

''पळय गो बाय, कशी कुचकुचीत दाळमां धरल्यांत हें दाळमीक...''

''हय मरे, कितलीं रसरशीत न्ही?''

''कसले बरेऽ जातीचीं दाळमां हीं... बाबान खंयच्यान तरी फैदासून हाडिल्ली. हो रोंपो रोयलो आनी बाब एका प्रोग्रामाक वतालो... लेट जायत म्हूण फास्ट वतालो. आनी मुखा वेल्यान तो शाळेंतलो भुरगो आवय म्हन्यांत धांवत वयतालो. तेका वाटावपाक बाबान आपल्याक फोंडांत घातलो. केदो व्हडलो आक्सिदेंत! बाय, हे दाळमीक आनी बाबाल्या आक्सिदेंताक सारकींच वर्सां जालीं.''

चंदनाचे तकलेंत एक विचार आयलो. ताणें म्हळें, ''मागीर बाबाक दाखय मरे तुगेलीं हीं दाळमां... याद कर ताका ते दाळमीची. कोण जाणा, हे दाळमीक पळोवन...''

दादून हुस्कार सोडलो. ''हें काम म्हज्यान जातालें जाल्यार हांव इतले दीस ओगी बसतालों?'' ताणें म्हळें. ''आतां एक मनीस आसा- आमचो दोतोर- तेका किदेंय जमल्यार...''

चंदनाक दोतोराक फोन केलो. दोतोर बिझी आसलो. पूण फावल्यार दनपारची पासय मारतां असो रकाद ताणें दिलो. आनी खरेंच दोतोर आयलो. चंदनाक ताका भायले भायर आडायलो आनी दादूली आयडिया सांगली.

दोतोर वसंताल्या रुमांत वचपाक वसंतूच रुमांतल्यान भायर आयलो.

''दोतोर तूं केन्ना आयलो? मावशी परती बरी ना जाली?'' वसंताच्या अवाजांत चिंता आसली.

''आरे, आज मातसो वेळ आसलो तसो मावशेचेर नदर मारया म्हूण आयलों. आतां पुराय बरी जाल्या आं ती...''

''आतां ह्या वेळार जेवनूच गेल्यार बरें न्ही बाब दोतोरान?'' दादून किचनांतल्यान भायर येत विचारलें.

''विचार ताकाच... हांव आग्रो करपी न्ही कोणाक...'' वसंतान म्हळें.

''जाणां रे हांव, कितलेदां तुवें आग्रो करून तुजे बरोबर जेवयला म्हाका... ते दीस गेले आतां... आतां म्हाकाय जेवपाक वेळ नासता आनी तुकाय आग्रो करपाक मूड नासता...! पूण तुगेर जेवपाक म्हाका आग्रो लागता? तेंय बी मावशेन रांदिल्लें!... पूण हांव तुजे बरोबर आज डाायनिंग टेबलार जेवतलों आं, तुज्या रुमांत न्हय...''

मावशेन मागीर उमेदीन जेवण मेजार हाडून दवरलें. ते बसतकच दोनूय ताटांनी वाडलें.

''आनी चंदन जेवना तर...? दोतोरान विचारलें।

''आतां तूं म्हजे बरोबर जेवंक बसता म्हणसर तुका चंदन जाय जालें?'' वसंतान तिडकीन विचारलें.

''ना रे! दिसलेंच ना म्हूण म्हळ्ळें.''

''कित्याक? ताका पळोवन पोट भरतलें काय कितें?'' वसंतान कुचित्र्यांनी विचारलें.

दोतोर हांसलो. दोगांयचीं जेवणां जातकच दादून केळ्यां बरोबर दाळीम फोडून बशयेंत दवरलें. उदकाळ मोठेच मोतयां बशेन दाणे... आनी कितलें मधूर...!!

"दादू, दाळमां खंयच्यान हाडलीं रे हीं? इतली मधूर दाळमां हांवें आमच्या बाजारांत तरी पळोवंक नात..."

"बाबान रोयिल्ले दाळमीचीं तीं!" दादून ओर्रान सांगलें... "बाब, तुका याद ना? तुवें तो रोंपो रोयिल्लो तो... कसलीशी जात म्हणिल्ली तुवें ती..."

"गणेश दाळीम!! त्या रोप्याक दाळमां लागलीं?" वसंतान विचारलें.

"हय बाब! पळयल्यार कितें म्हणटलो तूं? सगळें झाडूच तंवकलां... दाळमांनी भरलां सामकें..."

दोतोर पुट्ट करून उठून उबो रावलो... "मागीर रावता कोणाक रे? दाखय मरे ती दाळीम आमकां... चल रे वसंत, भायर वत आसतलें. पळोवन येवया ती दाळीम...!"

दादून व्हीलचॅरीक हात घालो, तसो वसंत तापलो- "ना... म्हाका येवपाचें ना गार्डनांत... तूं दोतोराक व्हरून दाखय..."

"आतां म्हाका सांगात दिवंक तरी यो मरे वसंत." दोतोरान आपणेंच व्हीलचॅराक हात घालो आनी सवकायसायेन तो वसंताक व्हरून गार्डनांत गेलो. दादू आनी चंदन तांचे फाटोफाट गेलीं. दादून मुखार सरून व्हीलचॅर आपणा हातांत घेतलें.

दोंयवशींनी फुलझाडां... मदल्यान अशीरशी वाट... ते वाटेन व्हीलचॅर व्हरतना कितलेशेच खेपे मदीं आयिल्ल्या ताळयांनी वसंताचे हात पोशेले. कितलीशींच फुलां ताच्या आंगाक घश्टुपाचो यत्न केल्ले भशेन दिसतालीं. तांचो वेगळो वेगळो परमळ वसंताच्या नाकांत वतालो. "बाब, पळय मरे आमकां... हात भोंवडाय मरे आमचे वेल्यान... विसरलो रे आमकां? अशेंच कितें तरी तीं म्हणूंक सोदतात अशें दिसून दादूच्या दोळ्यांत दुकां आयलीं. ताणें म्हळें लेगीत-

"बाबालो हात भोंवडुचो म्हूण आंवडेतात पळय ताचीं झाडां..."

मागीर जीब चाबिल्ले भशेन करून ताणें व्हीलचॅर सरळ फाटले वटेन दाळमीच्या झाडा म्हऱ्यांत व्हेलें.

"वाव!" दोतोराच्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं. आनी तो पळेतूच उरलो. "वसंत, तुज्या हातगुणाचो प्रभाव हो..." ताणें म्हळें. वसंत अखिन्नसो हांसो हांसलो. तरिकूय मुखार बाग घेवन ताणें दाळमीच्या खांदयां वेल्यान, दाळमां वेल्यान हात भोंवडायलो. हळूच नाजुकसाणेन... आनी मागीर म्हळें, "चल दादू... व्हर परतो म्हाका घरांत..."

दादून व्हीलचॅर घुंवडायलें आनी आपल्या विचारा भरशीं सरळ एके कुंडेचेर घालें... "आरे, आरे, दादू... पांयां कडेन पळय पापय..." कुंडी आडली जाल्ली ती उबी करीत चंदनान म्हळें. कुंडेंतलो रोपो सारको केलो आनी दोनूय पोश्यांनी तातूंत माती भरली.

"बाय, हांव करतां तें मागीर... तूं कित्याक मातयेंत हात बुरशे करता?" दादून लज जाल्ले बशेन म्हळें.

"मातयेन हात बुरशे जातात? कोणे सांगलें तुका? म्हजे बाबा हात मातयेंत घाल्यार घटमूट जातात." चंदनान ताच्यो मस्कऱ्यो केल्यो.

घरांत पावतकच दोतोरान दादूक फर्मायलें, "दादू, आतां वेळ मेळत तसो सकाळचा आनी सांजचो वसंताक तुवें गार्डनांत भोंवडावंक जाय... तितलेंच वत मातशें पांयांक लागतलें..."

"हय दोतोर..." दादून म्हळें. "पूण बाबान आयकूंक जाय..."

दुसऱ्या दिसा मसाज, व्यायाम, न्हाण-धूण जातकच चंदनान दादूक दोळो मोडलो आनी म्हळें, "दादू, म्हजी सकाळची ड्युटी सोंपली... पूण दोतोरान तुकाय कितें फर्मायलां ते करता मरे?"

"बाब, गार्डनांत या न्हूं...?" दादून विचारलें. वसंत ओगीच रावलो. तोच हयकार मानून दादून व्हीलचॅर म्हऱ्यांत हाडलें. दादूचो आनी चंदनाचो आदार घेवन वसंत व्हीलचॅरार बसलो...

आनी आतां सांज-सकाळ गार्डनांत पासय मारप हें सदचेंच जावन पडलें वसंतालें.

चंदनान रोखडोच दोतोराक रिपोर्ट पावयलो. आनी म्हळें, "दोतोर,

पेशंट मनान मातशी उभारी धरूंक लागला सो दिसता. बागेंत भोंवतना दोळे उमेदीन भरतात... तापप, आंगार येवप खूब कमी जालां... पूण दोतोर...''

''कितें जालें? चंदन, तुजो पेशंट बरो करप आतां तुजे कडेन... कितें दिसता तें मन सोडून उलय... ना जाल्यार अशें करतां, वेळ मेळटकच हांवूच येतां. मागीर उलोवया...'' दोतोरान फोन दवरलो.

त्या दिसा दोतोर आयलो तेन्ना वसंत गार्डनांत आसलो.

''दोतोर, आज अकस्मात सो?'' वसंतान विचारलें.

''हरशींच रे! आनी येवं नये हांवें? चंदनाक मेळूंक आयिल्लों...'' अशें म्हणून हांसत दोतोर घरांत गेलो. वसंत कपळाक आंठयो घालून ताचे फाटल्यान पळयत उरलो.

''दादू, हें लक्षण बऱ्याचें मरे? चंदनाक मेळूंक सो कित्याक?... आनी, मदीं मदीं येत आसता काय कितें रे?''

''ना बाब! फकत फोनाचेर मात उलयतात...'' दादून सांगलें.

दोतोरान भितर वचून चंदनाक म्हळें, ''चंदन कितें उलोवंक जाय आसलें तुका?

''दोतोर, हांव पेशंटाक इतलें मालीश करतां, व्यायाम करून घेतां... सामको पांय नॉर्मल आशिल्ले भशेन व्यायाम करप जाता. दोतोर, पेशंटाच्या कमराक बी...?''

''ना! ना! एक्स-रे बी सगलो नॉर्मल आसा कमराचो.''

''मागीर दोतोर, तो मुद्दामूच... आय मीन... तशें मुद्दाम न्ही... पूण ताचे मनूच उबें रावंक तयार जायना, अशें बी न्ही मूं? सराचेर जर असो प्रसंग आयलो आनी ताका उबो रावचेंच पडलें जाल्यार...?''

दोतोर हांसूंक लागलो आनी चंदनान वयर पळयलें... दोतोराचे दोळे चकचकताले... ''कितें करतलें तें हुशारेन कर. चड रिस्क घेवं नाका. पूण ट्राय करपाक हरकत ना...''

''तो दोतोर परतो परतो तुका मेळूंक कित्याक येता गो? ताका बायल-भुरगीं आसात, जाणा मगो तूं?'' वसंतान रागान विचारलें.

चंदनाचेंय तापलें. 'ताका बायल भुरगीं आसल्यार हांव कितें करूं?''

''मागीर परतें-परतें फोनार कितें चल्लां तुजें ताचे कडेन?

''हांव म्हजें काम करता. दोतोरान विचारतकच रिपोर्ट दिवचो पडटा म्हाका...'' चंदन उठून भायरूच गेलें मागीर.

व्यायाम जातकच थोडो वेळ रेस्ट घेवन वसंत दादूक न्हावपाक व्हरूंक आपयतालो. घाम पुसपाक नॅपकिनाक हात घालो. नॅपकिन सदच्या जाग्यार ना. पेपर वाचप सोडून वसंतान हांगा-थंय पळयलें. स्टुलार नॅपीक सदचे भशेन घडी करून आसलो. पूण सान्न मारतना दादून कुशीक काडिल्लें तें स्टूल परतें जाग्यार, खाटी म्हऱ्यांत ओडूंक नासलें.

''दादूऽ, दादूऽऽ...'' वसंतान उलो मारलो. दादूची जाग नासली.

''हें चंदनूय खंय मेलें...?'' अशें रागान बडबडून वसंत स्टुला कडेन हात पावोवंक झटूंक लागलो. घामाच्यो पांवळ्यो कानसुला वेल्यान देंवताल्यो. वसंतान फोर्स करून नॅपकीन काडपाक हात घालो. ताचे नकळटां तो उबो जालो आनी एक पावल घालून ताणें नॅपकिनाक हात घालो... आपणें कितें केलें हें लक्षांत येतकच तो घसांयच करून जमनीर आपटलो.

आवाज आयकून दादू आनी चंदन एकदमूच भितर सरलीं. चंदनाच्या तोंडार चिंता दोळ्यांत भंय-दोगांनीय वसंताक उबारून व्हीलचॅरार बसयलो.

रागान तांबडो जाल्लो वसंत दादूचेर उसळ्ळो. 'स्टूल जाग्यार दवरपाक हात मोडिल्ले तुजे? म्हज्यो सगळ्यो वस्तू जागच्या जाग्यार आसूंक जाय हें खबर ना तुका? आनी तूं गो? म्हजे सिर्विसेक आसा काय हांगा थंय नाचूक?''

''सॉरी सर. हांव हात धुवंक गेल्लें सर...'' चंदन बरेंच भियेल्लें. ''सर तुमी इतले पयस कशे पावले? तुमी उबे रावन...? सर, हांव दोतोराक फोन करतां... सर तुमच्या पांयांक कितें जालें जाल्यार...''

चंदन तशें फोना कडेन धांवलें. दोतोराक फोन करतकच तो रोखडोच आयलो. पांय तपासूंक लागलो.

'खंय दुखता बी रे वसंत?'' ताणें पांय आपल्या हातांत घेवन दांबून, हालोवन पळयलो. वसंतान पांय हालोवन 'ना' म्हूण सांगलें मात, दोतोरान

मोठे खोशयेन म्हळें, ''तूं आतां उबो रावंक शकता तर...!''

''दोतोर, फकाणां करता म्हजीं?'' वसंतान म्हळें.

दोतोरान दादूचो आदार घेवन वसंताक उबो केलो आनी पावलां घालूंक सांगलें. तांच्या आदारान वसंतान चार पावलां घालीं... ताका पुरो जालें...

''आयज इतलेंच पुरो...'' दोतोरान म्हळें. ''फाल्यां येतना वॉकर घेवन येतां...''

फुडले चार दीस सामके बोवाळाचे. दोतोरान मागीर ॲम्बुलन्स धाडून वसंताक हॉस्पिटलांत व्हेलो. थंय सवन दीस तरेकवार चाचण्यो... एक्स रे... टेस्टी... निमाणो रातचो वसंत घरा पावलो. सामको पुरो जावन.

चंदनाकूय सामकें पुरो जाल्लें. पूण सांगतलें कोणाक? ''दादू, इल्ली कॉफी ताळ्यार घालशीत रे?'' ताणें विचारलें आनी दादू रोखडोच किचनांत धांवलो.

''म्हाकाय कपभर कॉफी जाय आसली...'' वसंतान अशें म्हणूं नाका चंदनान नदर वयर करून अजापून वसंताल्या तोंडाक पळयलें. रातची च्या वा कॉफी घेतल्यार वसंत सदांच थोमणे मारतालो ताका...

दुसऱ्या दिसा दोतोर आनी चंदन वारांदार ल्हवू आवाजांत उलयतालीं. वसंत तांचेर नदर दवरिल्ले भशेन जनेलांतल्यान पळयतालो. तीं कितें उलयतात तें ताका आयकूंक येना आसलें, पूण कितें करतात तें तरी तो पळोवंक शकतालो! दोतोराक चंदना मदीं इतलो इंटरेस्ट कित्याक...? बायल भुरगेकार मनीस हो... एके नर्सी बरोबर... तिच्या मोगांत...? शीः! कितें जालां म्हज्या मनाक? हांवें अशें येवजप बरें न्ही...! वसंतान आपल्याकूच समजायलो.

''दादू, म्हजे रायटिंग टेबल मातशें पळय... पेपर बी आसात काय जाग्यार?''

वसंताचो उलो आयकून दादू धांवतूच ताचे म्हऱ्यांत पावलो.

''बाब... कितें बाब?'' ताणें विचारलें

''रायटिंग टेबलार धुल्ल बी दाटूंक ना मरे?''

"ना बाबा! कसो दाट्टलो धुल्ल? हांव सदांच पुसून दवरतां सगळें जाग्यार... पेनां, पेपर... सगळें पळय ज्युस्ता ज्युस्त जाग्यार तूं बरोवंक बसना बाब?" दादूच्या आवाजांत अजापा परस खोशीच चड ओतताली.

वसंत हांसलो, पूण ताणें व्हीलचॅर रायटींग टेबला वटेन घुंवडायलें.

दोन म्हयन्या भितर वसंत बरे भशेन चलूंक लागलो. ताचें धेंगशेवप आनी तिडकप आतां खूब म्हळ्यार खुबूच कमी जाल्लें. चडसो बरोवपांत गुल्ल आनी सांज-सकाळ गार्डनांत पासय. ताका वेळार वखदां, मसाज दिवप अजून चालूच आसलें... पांयाचे व्यायामूय... चंदनाक हें सगळें आतांह खुबूच सोंपें पडटालें. आपली बिटकी हांगा सावन कवळपाचो दीस लागीं पावला, चंदनाक जाणवतालें. हांगा सावन वतकच सराच्या त्या तिडकुपाची, तापोवण्याची खूब याद येतली म्हाका! तें चिंततालें. हांगा सावन वचप म्हणचे जिविताचो एक कुडकोच काडून उडयिल्ले वरी... आनी परतें गोंयांत...?

नाका. नाकात त्यो पयलींच्यो यादी... गोड-म्होंवाळ तितल्योच दुखदिण्यो यादी... विवेकान ताच्या काळजाक केल्लो घाय सामको पेखलो अशें चंदनाक दिशिल्लें... पूण ना... खवळी आयली आनी परत्योय त्यो यादी भळभळीत व्हांवंक लागल्यो... आवय-बापूय नाशिल्लें चंदन मावशेगेर रावन कश्ट काडून शिकिल्लें. आपल्या पांयांर उबे राविल्लें. आनी बापाय फाटल्यान आवयन कश्ट करून पोटाक मारून म्हणटात तसो शिकोवन दोतोर केल्लो विवेक... दोगांचीय केन्ना इश्टागत जाली... केन्ना मोग जालो, कळ्ळेंच ना. विवेकाची आवय तर चंदनाक आपली सून म्हणून सगळ्यांक व्हडविकायेन दाखयताली. म्हाका तुजे असलीच सून जाय आसली अशें म्हणून ताका वेंगेंत काडटाली... विवेकाचीं तीं मोगाचीं उतरां... तें बरोबर भोंवप... ड्युटी सोंपली की चंदन विवेकाची जोडी सरली भायर. सगळो स्टाफ तांकां 'लग्न केन्ना' काय विचारतालो... पूण कोणाची दिश्ट लागली तांच्या मोगाक? दोतोर नंदितान हॉस्पिटल जॉयन केलें आनी... अशें कित्याक केलें विवेकान? सांवळें, आंगान फोफशेंच आशिल्लें नंदिता... ताचो स्मर्टनेस ताका चड मानवलो? काय नंदिता

भोंसले सारक्या गिरेस्त बिल्डराचें एकलेंच चली म्हणून? 'विवेकाक पयशांचो मोग जाला...' अशें म्हाका वेंगेत काडून रडपी ताचे आवयन म्हणलें... तरी हांव शिटकावलें ना. पूण अकस्मात घरा येवन म्हाका तांच्या लग्नाची पत्रिका दितना आमचो तीन वर्सांचो मोगूय विवेकाक याद जालो ना? नाका... नाकात त्यो यादी... आनी नाका परतें गोंयांत वचप...

रातभर रडून चंदनान अशें भिजयलें. दुसऱ्या दिसा चंदनान दोतोर कामतीक फोन करून आपल्याक खंयच्याय हॉस्पिटलांत सिर्वीस पळय म्हूण उतर घालें...

एक दीस पेपरार खबर आयली- 'वसंत वळवयकार हांची नवी कादंबरी रोखडीच प्रकाशीत जावची आसा. लांब दुखण्यांतल्यान लेखक आतां बरो जाला. आनी चार वर्सांच्या सुशेगा उपरांत ताची नवी कादंबरी आतां रसिकांचे भेटेक येता...'

हे खबरीक चारूच दीस जाल्ले... सकाळींच वसंत-विहारा मुखार एक तांबडी गाडी थांबली. आनी लेटेस्ट फॅशनीचो पुतळो कशी एक सुंदरी ते गाडयेंतल्यान देंवली आनी धांवतूच वसंताच्या रुमा वटेन गेली. दादू आं करून पळयतूच उरलो... मागीर जाग्यार येवन ताणें म्हळें- "बाय, बाबाचें पांयांचें मालीश चालू आसा. मातशें राव." पूण दादूक कुशीक धुकलून ती अप्सरा वसंताच्या रुमांत भितर सरली तीच वसंताच्या गळ्यांत पडली. चंदन जमनीर बसून वसंताच्या पांयांचो व्यायाम करून घेतालें. ताणें म्हळें लेगीत, "मिस, हांव मातशें म्हजें काम सोंपोवन वतां..."

"रीमा?... वॉट अ सरप्रायज!" वसंतान म्हळें, "पूण तूं लग्न जावन अमेरिकेक पावलां म्हूण आयकल्लें."

"आजूच आयलां हांव अमेरिके सावन... आनी आयलें तेंच तुका मेळूंक धांवत आयलां..."

"आनी तुजो घरकार? तो बरो आसा न्ही? तो आयलो ना म्हाका मेळूंक?"

"कसलो घरकार आनी कितें? तुका ॲक्सिडॅंट जालो म्हूण हांव दीस-रात रडटां तें पळोवन पप्पान आनी मम्मान म्हाका फोर्सान ताचे कडेन लग्न

करून दिवन अमेरिकेक धाडलें. पूळ म्हजें मन... तें तुजे सरींच हांगा इंडियेंत आसलें... हांवें रोखडोच डायव्होर्स घेतलो ताचे कडल्यान..."

"अच्छा!! आतां तुका हांगा येवपाक तुज्या मम्मी-पप्पान आडायलें ना?"

"कसल्यो मम्मी-पप्पाच्यो खबरी करता तूं... इतल्या तेंपान मेळटां... तुका दोळे भरून पळोवंदी म्हाका... तुका वेंगावंदी... तुका किस करूं दी..."

"रीमा, तुजे मॅनर्स सांबाळ, तूं इंडियेंत आसा... अमेरिकेंत ना... तूं अशें म्हज्या गळ्यांत पडल्यार चंदन कितें म्हणटलें?"

रीमान अजापान चंदना कडेन पळयलें. चंदनाकूय अजाप जाल्लें. ताणें नदर वयर करून वसंताच्या तोंडाक पळयलें.

"चंदन, तूं मातशें भायर वता? म्हाका ह्या रीमा कडेन मातशें प्रायव्हेट उलोवंक जाय..." चंदनान आपलें सामान उबारलें आनी तें मोन्यांनी भायर गेलें.

हेंच तें रीमा जाचे कडेन सराचें लग्न थारिल्लें? कितलें सुंदर! कोरांतिल्ली बावली कशें! आनी आपल्या सुंदरकायेक चड सुंदर कशी करची तें बेस्स बरें कळटा ताका...

चंदनान मालीश करपाची बाटली जाग्यार दवरली आनी तें हात धुवंक बेसिना म्हज्यांत गेलें. हाताक शाबू लावन दोनूय हात नळा पोंदा दवरिल्ले... नळ व्हांवत आसलो...

कितलो वेळ उदक व्हांवता हें आयकून दादू किचनांतल्यान भायर आयलो. आनी अजापान पळयत रावलो. आपल्या विचारां भितर उदक व्हांवत आसा हाचें चंदनाक भानूच उरूंक नासलें. दादून नळ बंद केलो आनी विचारलें, "बाय कितें जालें? कसलो विचार करता?"

तशें भानार येवन चंदनान दादू कडेन पळयलें आनी म्हळें, "आरे दादू, हांव सामकें दिपावलें मरे त्या रीमाची सुंदरकाय पळोवन!... भानूच उरलें ना, हात धुतां म्हणून..."

"ती कसली सुंदरकाय बाय? अडेची... वयली वयली... पावसाचे

एके दडकेन धुवन वचपाची.'' दादू किंवाट्यान उलयलो.

''...आतां बाबाचें कांय खरें ना...''

रीना सांज-सकाळ येत आशिल्लें... चंदन आपलें काम करतना ताका पळयत रावतालें.

''वसन, आतां हे नर्सीची कसली गरज तुका? सांज-सकाळ मातसो जिमांत वचून इल्लोसो व्यायाम करपाचो तुवें आतां... हांव येता न्ही तुजे बरोबर...'' रीमान म्हळें

''खरें उलयलें तूं... म्हाका आतां नर्सीची गरज ना...'' वसंतान म्हळें. आनी चंदनाक सट् जालें...

''सर, हांवें दोतोराक सांगून दवरिल्लें, म्हाका हॉस्पिटलांत नोकरी मेळटा जाल्यार पळय म्हणून...'' आतां व्हेकन्सी आसा म्हणटालो दोतोर. रावपाची सोय आसा आनी पगारूय बरो आसा. फुडल्या म्हयन्याच्यान हांव थंय जॉयन जाल्यार जाता न्ही सर...? चंदनान नमळायेन विचारलें.

वसंत एकदम तापलोच! कँच करून आंगार येवपाची ताची संवय आतां मोडिल्ली. कितल्याश्याच दिसांनी ताच्यो तपासणी घरांत आयकूंक मेळटाल्यो, ''फुडल्या म्हयन्याच्यान कित्याक? आतांच चलूंक लाग. दादू, ड्रायव्हराक गाडी काडूंक लाय... ह्या चंदनाक तें सांगता त्या हॉस्पिटला मुखार व्हरून उडय... लाग चलूंक...''

ताच्या तापपाचो तो ओग पळोवन चंदन कांचवेलेंच! कितें जालें हाचें? हालीं बरो थंड आसलो. आनी आतां ताची ती मोगिका दीसभर ताचे भोंवतणी नाचता... त्या रीमाचो आयल्याक राग कित्याक येता हेंच चंदनाक समजनासलें. हो राग...? काय मत्सर? काय आनीक कितें...?

झक मारनात तीं दोगांय...! दोतोरान काय बरी सिर्वीस पळयल्या म्हाका... रावपाक रुम आसा. पगारूय बरो आसा... हाचे परस चड आनीक कितें जाय?... पूण हें घर सोडून वचपाच्या विचारानूच मन कित्याक अशें निर्शेता? कितली संवय जाल्या म्हाका ह्या घराची...!

''बाय, कितें जालें? आनी तोंड इतलें धवें कित्याक पडलां तुजें? तेणें बी कितेंय म्हणूंक ना मूं तुका? तेचें तूं मनार घेवंनाका बाय... तेच्या तोंडाक

ना सुवाद...! बाब परतोऽ तेच्या जाळांत कसो घुसपता, कांयच कळना. शाण्या मनशान तेचेर परती नदर म्हणून घालपाची न्ही...' दादू बडबडलो.

इतल्यांत घड्ड करून दार आपटून रीमा नेटान भायर सरलें. ताचे फाटोफाट वसंतूय तितल्याच नेटान भायर सरलो. तरतरीत वतल्या रीमा कडेन पळोवन तो आड्डलो, "आनी म्हजी ही कादंबरी पुराय जाय मेरेन कोणेंच म्हाका डिस्टर्ब केल्लें म्हाका सोंसचेंना..."

रीमा आपली गाडी स्टार्ट मारून गेलें. वसंतूय आपल्या रुमांत गेलो आनी दार बंद करून बसलो.

दादू आनी चंदन एकामेकांच्या तोंडाक पळेतूच उरलीं. कितें जालें काय? बाबाचेर बशिल्लो म्हारू अकस्मात परतो उचकलो?! दादू चिंततालो. तरी धीर करून तो भितर गेलो. "बाब, तुका च्या करून हाडूं इल्लीशी?... पुरो जालां न्हू तुका...!"

तसो वस्स करून वसंत दादूरचेरूच तिडकलो, "लाग चलूंक हांगाचो तोंड घेवन! म्हजें तुमकां कोणाकूच पडूंक ना. सगळीं आपसुवार्थी... त्या चंदनाकूय सांग वच म्हणून तोंड घेवन... कोण नाका म्हाका हांगा! तूं चल, चंदन चल... सगळीं सोडून वचात म्हाका..."

दादू तकली खरपीत किचना वटेन गेलो. कितें जालां काय आज बाबालें? त्या रीमाबायन चाळोवन घातलो? काय...? चंदनबायन बी कितेंय म्हणूंक ना मूं? चिंततां चिंततां ताचे तकलेंत ओगीच एक विचार आयलो आनी ताचें तोंड खोशयेन फुलून गेलें.

अशें जावं येता? श्याः! म्हाका दिसना... पूण अशेंच घडलें जाल्यार...! जाल्यार बाबा इतलो सुखी मनीस संवसारांत ना अशेंच म्हणटलों हांव!... देवा, अशेंच जावंदी... हें घर खोशयेन भरतलें मागीर...

दादू ती रात देवा कडेन मागणें करीत बाबाल्या बऱ्या फुडाराचीं सपनां पळयत सारको न्हिदलो ना. चंदनाची तर ती रात सामकी तळमळ्यांची गेली. कित्याक खातीर हें मन अशें खिन्नेलां?... जीव वयर सकल जाता. कांयच सुचना... न्हीद येना... आनी दोळे व्हांवपाचें थांबनात... विवेकाची याद...? तशें तें वायट सपन केन्नाच सोंपलां... मागीर

कित्याक...?

वसंताचो रुमभर थयथयाट चलिल्लो रातभर. बरोवंक बसल्यार चार वळी भिरकटावन पेपर गुड्डो करून उडयतालो. परतो बरोवंक बसल्यार कितें बरोवचें तेंच सुचना. न्हीद पडना. आपल्याक कितें जाता तेंच ताच्या जिवाक कळना जाल्लें. जाग्रणान तांबडे जाल्ल्या दोळ्यांनी तो च्या घेवंक बसलो. दादून च्या हाडून मेजार दवरली.

"बाब, च्या घेता न्हू?"

"च्या घेतलोंच! सद्दां घेना हांव?... आजूच कितें जालां च्या घेना आसतना रावपाक? तुज्या खुस्तार कांय पिना मरे हांव..." वसंत आनिकू कितें उलोवंक वतालो पूण दादू एकदम हांसलो.

"आनी आतां तुजे किडके दांत कित्याक दाखयले...?" वसंतान तिडकीन विचारलें.

"बाब, तुका दोळे येयल्यात शें दिसता म्हाका... त्या चंदनबायचेय बी अशेच दोळे सुजोन तांबडे जाल्यात..." दादून सांगलें.

"बरें! बरें!... सुशेगाद च्या घेवंक दिवचो ना... आनी ती सुबेज जाणवाय...? ताका दिली च्या?"

"ही खंयची जाणवाय? आं... तें बाय? रातभर न्हीद नाशिल्ले भशेन दोळे सुजोवन बसलां तें बाबडें! बाब, तुवें तेका धांवडायलां? सकाळींच च्या घेवन बॅग भरतालें तें आपणालें..."

"केन्ना काय ह्या घरांतलें वचन अशें जालां जातलें ताका... खोशयेन रातभर न्हीद पडलिना जातली..."

"कोण जाणा?" दादून म्हळें... "घडये ह्या घरांतलें वचचें पडटा म्हूण रातभर रडटालें जावये..."

वसंतान अजापान तकली वयर करून दादूच्या तोंडाक पळयलें. तोंडांत घेतिल्ल्या च्याच्या घोंटान ताचो आंवडो घुसपलो. ताका उस्तुरें गेलें.

"बाब, कितें जालें बाब?... वयर पळय... बरें दिसतलें.. " दादू वसंताचे फाटीर थापटूंक लागलो.

"दादू, कितल्या दिसांनी फाटीर थापटिलो रे...! म्हाका ल्हानपणांतली

याद आयली...'' वसंतान म्हळें.

''बाब, आतां तूं व्हडलो जाला... ल्हान ना आतां. पूण आजुनूय तुका आपल्याक किदें जाय तें वळखूंक येयना. तें वळखूंक येयल्यारूच मनीस खरेपणीं व्हड जालो म्हणपाचो.''

''दादू...'' वसंताल्या उल्याक जाप करनासतना खांदा वेलो तुवालो फांफडीत दादू सडसडीत किचनांत गेलो.

वसंत येवजीत उरलो. दादू कितें उलयलो? खरेंच म्हाका कितें जाय तें समजना? काय जाणून लेगीत हांव उलोवंक भितां?

कितें तरी चिंतत तो रुमांत गेलो. आनी रायटिंग टेबला कडेन बसचे बदला कोनशाक दवरिल्ले व्हीलचॅर ओडून घेवन ताचेर बसलो.

''दादूऽऽ, चंदनऽऽ... खंय मेलीं दोगांय?... दादूऽऽ...'' ताणें व्हडान उलो मारलो.

मावशेन उलो आयकून म्हळें, ''दादू, बाब कित्याक आफयता पळय... बाय, बाबाक परतें कितेंय जालें ना मूं? कसो आड्डलो पळय... खूब तेंपान असो उलो आयकलो...''

चंदन आपलें बॅग भरून भायर सरिल्लेंच. बॅग हातांत तशेंच घेवन ते वसंताच्या रुमा वटेन धांवलें. वसंत व्हीलचॅरार बसून आपलो पांय पोशेता तें पळोवन ताका कच्च जालें. खंय पडलो?... काय पांय आपटलो? परतो पांयाक मार बसलो ना मूं?... दोतोर कामतीन सांगिल्लें... थोडे दीस पांय बरो करून सांबाळूंक जाय म्हणून...''

हातांतले बॅग थंय उडोवन तें वसंता म्हऱ्यांत धांवलें. ''कितें जालें सर?... पांय आपटूंक ना मूं?... सर तुमी पडूंक नात न्ही?... खंय दुखता...?'' वसंता मुखार दिमी मारून बसून तें ताचो पांय सांसपून पळोवंक लागलें.

''दादू, मातसो दोतोराक फोन करता? बेगीन यो म्हूण सांग... सराच्या पांयाक कितें तरी जालां दिसता...''

''नाका दादू, आतां दोतोर बी कोण उपेगाचो ना म्हज्या पांयांक... म्हाका भितल्ल्यान जाणवता न्ही...! आतां हांव सासणाचो ह्या

व्हीलचॅरार...''

ताचीं उतरां आयकून चंदनाचो जीव सामको गळ्यांत आयलो. ''सर, अशें कित्याक म्हणटात तुमी? तुमच्या पांयाक कांयच जावचें ना. दोतोर एक्स-रे काडून पळयतलो न्ही... खंयूय दुखावला जाल्यार कळटलें...''

''कांय नाका एक्स-रे बी... म्हाका वाजूच आयला सगळ्याचो. दादू, व्हीलचॅर मातशें खाटी कडेन व्हर... हांव आड पडटां मातसो...''

चंदन सामके रडकुरें परतलें. इतलो बरो जाल्लो हो मनीस... परतो व्हीलचॅरार...? असो वाजेल्लो...?

''ना सर! हांव तुमकां अशें करूं दिवचें ना...''

''आब्बा हांव म्हाका जाय तें करतलो! तूं कोण म्हाका सांगतलें?''

''सर, तुमी परते व्हीलचॅरार...! म्हज्यान सोंसूक जावचें ना.''

''चड जीव दवरिल्ले भशेन उलय नाका. आतांच तूं हॉस्पिटलाची नोकरी मेळ्ळ्या म्हणून नाचतालें. बऱ्या पगाराची नोकरी मेळटा म्हणटालें. चल आमकां सोडून...''

''ना सर! तुमी बरे जाले बगर हांव खंयच वचचें ना. तुमचो पांय बरो जायसर... तुमी परते उबे रावसर हांव तुमकां सोडून खंयच वचचें ना.'' आनी केन्ना न्ही तें चंदन दोनूय हातांनी तोंड लिपोवन रडूंक लागलें.

''तशें जाल्यार हांवेंय थारायलां... जल्मभर ह्या व्हीलचॅराचेरूच बसप... तुका ह्या घरांत दवरचे खातीर... नाजल्यार हांव बरो जालो अशें समजून तूं म्हाका सोडून वतलें... हय मुगो?''

चंदनान अजापान तोंडा वेले हात काडून वयर पळयलें. दुकांनी भरिल्ल्या दोळ्यांनी सारकें दिसना जावन ताणें दोळे चोळ्ळें... वसंत हांसतालो! केन्ना न्ही तो हांसतालो! व्हीलचॅरा वेल्यान उठून ताचे वटेन येतालो...

पावसा दडक पडून वतकच लक्क वत येवचें आनी सगळ्याक चकचकीत दिसचें, अशें कितेशें चंदनाच्या पोल्या वेल्या दुकां भितर ताचें हांशें दिसलें.

ताचे म्हऱ्यांत येवन ताचीं दुकां पुशीत वसंतान म्हळें, ''आतां वचपाची

खबर करशीत जाल्यार हांव परतो व्हीलचॅरार...''

''अशें उलय नाकात... आनी परतीं अशीं नाटकां करशात जाल्यार पळयात...''

''कितें करतलें?''

''दादूऽ... हांगा यो पळोवया म्हज्या आदाराक! हें व्हीलचॅर व्हरून खंय तरी माळ्यार उडोवया...''

''बाय, म्हाका म्हाताऱ्याक कित्याक ओडटा तुमच्या तरणाट्यांच्या झगड्यांत? हांव भितर आसा किचनांत... च्या, काफी कितेंय जाय जाल्यार उलो मार म्हाका.''

आनी दादू सुकिल्ल्या खुंटाक नव्योच कोमऱ्यो फुडच्यो तसो व्हडलीं नाचरीं धेंपां घालीत किचना वटेन धांवलो.

***

# चट्टा-मट्टा

"चल गो नंदन, कमलआकागेर,

भाभीगेर बी वचून सांगा हां सगळ्यांक, फाल्यां आमगेले पापड म्हणून..." आईन नंदनाक सांगलें.

तितल्याकच राविल्ले भशेन नंदन धांवलें. पयली ताणें शाली आनी मालीक सांगलें...

"आगो, फाल्यां आमगेर पापड..." तांचीं तोंडां फुल्लीं. नंदनाची आई-नंदाई तांकां पापडांक हात लावंक दिताली. फाल्यां पापड लाटूंक मेळटले. निदान लाटयो तरी करूंक दितलीच आमकां नंदाई...

आयताराचो म्हूर्त धरून नदाईन पापडांचो बेत केल्लो. शाळा ना. भुरगीं हाताक मेळटात... पापड सुकत घालूंक... कितेंय कामां करूं...

दोन पायली उडदांची दाळ, मिरयां बी घालून गिरणीर दळून हाडिल्ली. मनूताईन पीठ चाळणीर चाळून बी दवरिल्लें. शेनवाराक सांजची पिठी कालोवपाचो बोवाळ...! शेजारचें कमल आका आयिल्लें आदाराक! हाता बरोबर सगळ्यांचीं तोंडांय चलतालीं-

"हें कितें? सोदापिठो काय पापडखार?"

"शीः...! शीः...! सोद उपकरना... पापडखारच जाय!"

"चल रे सुरेश, पयलीं मधूल्या दुकानार वचून पापडखार घेवनय यो...!"

"हींग फुगत घाला मूं?"

"हय तर...! हो पळय...!"

"पूण शंकरछाप मूं? पयर मधून शंकरछाप मागल्यार... लक्ष्मीछाप

हींग दिलो म्हणून भागेंआका चाळवल्लें..."

"वासच पळय गो!... सामको घमघम सुटला. अस्सल कलमाकापाचो हींग..."

"मिरसांगां पिठो...!!"

"हो पळय... तारवटी मिरसांगांचो..."

"खंयच्यान हाडल्या गो मिरसांगो?"

"पोरसांत दोन झोंपां आसात न्ही... जाल्ल्यो बऱ्यो, पूण कमी पडत म्हूण वसंगागेरच्यान हाडल्यो थोड्यो..."

...मागीर पापडांपिठी कालोवपाक सुरवात जाली. पिटांत मिरसांगो पिठो, मीठ, पापडखार सगलें सगलें हाताची शीर करून... अदमासान माप...! पूण नंदाईचो हात तो!... माप सारकेंच पडपाचें...!!

वान आनी कांडण धुवन पुसून दवरिल्लें. भुरगीं उमेदीन फार घालतालीं. वानांत धोडावन पिठाच्यो तोपयो कशो जावन पिठी भायर काडटालीं...

मागीर खोबरेल लावन लावन, फातरीर धाडावन हे पिठयेचो सामको फोर काडलो आनी गुळे करून तोपांत भरून दवरले.

सकाळीं सगळ्यांत पयलीं बाई आनी सोनीताई हजर! दोगांच्याय खांक्यांत लाटफळें आनी हातांत लाटणी...

"...जालें गो धाडावन? गुळयो बी करून?" बाईन विचारलें.

सकाळीं परत धोडावन-धोडावन मोव केल्ल्या पिठयेच्यो माळणां कशीं लांबचे लांब नळयो केलल्यो. नंदाईन. पांयांच्या आखाण्याक केळीचो वाय घुसपावन तो दोर तायट ओडून धरिल्लो आनी नकसूदपणान त्या नळयांच्यो दोरार गुळयो कापूंक लागिल्ली.

"ह्यो पळय... गुळयो तयार...!" नंदाईन म्हळें... "पळय गो, रुच पळय..."

एक गुळी काडून तेलांत बुडोवन खायत खायत बाईन म्हळें- "एकदम रुचीक! सगळें ज्युस्ताज्युस्त पडलां... हळडुवीच जाल्या पळय पिठी... धवेफुल्ल जातले पळय पापड भाजतकच...!!"

सालांत शेंदऱ्यो पातलावन पापडांचो मांड पडलो. आपापलें लाटफळें घेवन सगल्यांनी शेंदरेर फतकल मारलें. छबी आनी मालूताईक तेंकून नंदनय बी आपलें लाटफळें घेवन तयार... ताका तेकून शाली-मालीय ताचे फाटोफाट...

"आगो, तुमचें भुरग्यांचें कितें काम हांगा? मागीर पापड सुकत घालूंक आफोवया तुमकां..." ताईन धेंगसायलें. पूण तिगांय खट कशीं बस्सून रावलीं... नंदाईच्या तोंडाक पळयत...

"लाटयो करून वडयतलीं तीं. नायजाल्यार केन्ना शिकतली तीं लाटूंक?" नंदाईन ताईक थातारलें.

भुरगीं सामकी खूश! तेलाचे वाटयेंत बोट बुडोवन तें गुळयेच्या नाकार सारोवन मोठे कुयदादीन लाटयो करूंक लागलीं.

"वांकडे-तिकडे नकाशे नाकात हां!... मागीर पापडय वांकडे जातले." ताईन परतें धमकायलें.

मागीर सोनीताईन म्हळें- "पळयात. लाटयो सवकासायेन ल्हानश्योच करात... एकसारक्यो जावं दी. मागीर पापड वाटकुळेच जातले..."

ताटलेर लाटयो जमल्यो. तशें सोनीताईन म्हळें- 'हांव मांडे करून दितां तुमकां... तुमी पापड लाटात..."

नंदन सोनीताई मांडे करता तें पळयतच उरलें. एक लाटी पेठांन बुडोवन लाटफळ्यार दवरली. ताचेर दुसरी... ताचेर तिसरी... चवथी... पांचवी...

आनी अळंग हातांनी त्यो लाटयो एकदम लाटून तांचे तळटायेदे मांडे सोडोवन सोनीताईन सगळ्यांच्या लाटफळ्यार वडयले. कमलाताई, भारती, बाई... सगळीं जाणां पापड लाटूंक लागलीं.

म्हणटा-म्हणसर परातींत पापडांची हीऽ रास जाली. फाटल्या आंगणांत घाल्ल्या हातरपाट्याचेर पापड सुकोवपाचे...!!

"चल गो नंदन, पापड सुकत घाल." आईन म्हळें

नंदन उठलें... "आई गे, आमकां रुच पळोवंक गुळी दिलीच ना तुवें?"

"आगेऽ बायेऽऽ. विसरलेंच!" आईन म्हळें. मागीर सगळ्यांक एक-

एक गुळी तेलांत बुडोवन खावंक दिली.

नंदनाक, शालीक, मालीक मात गुळयेचो कुडको!?

भुरगीं 'चॅक-चॅट, ट्रॅक-टॅक' आवाज करीत पिठी चोखूंक लागलीं.

"आई, आमकांय सगळीच दी मगे गुळी..." नंदनान म्हळें.

"आगो, भुरग्यांनी चड तिखट खावचें न्हय. तारवटी मिरसांगो त्यो... पोटांत जाळ पडटले...!!"

"आनी फाल्यां सकाळीं संडासाक बसपाक जाळ पडटले." भारती पचकलें, आनी खीक करून हांसले.

कमलाताईन ताचेर दोळे मोठ्ठे केले आनी म्हळें- "शी: गो! बुरशें खंयचे कडलें..."

"चल, चल! बेगीन व्हर पापड सुकोवपाक..." परात नंदनाच्या हातांत दीत ताईन म्हळे.

जाऽऽलें! नंदनान चिंतलें. आतां म्हज्या नशिबांत पापड लाटप खंयचे?... फकत जाल्ले-जाल्ले पापड व्हरून सुकत वडवपाचे...!!

"कितें गो? पापड सुकत घालता? काल तर माऽर 'हांव पापड लाटतलें... हांव पापड लाटतलें' करून नाचतालें तें." पांडू भाऊन येवन ताका चाळयलें.

पांडू भाऊ तसलोच!... ओगीच चाळोवपी..!... नंदनाचो भाव काय न्हय तो... शेजारच्या कांतीचो भाव! पूण ताका चाळोवपाक कोणय चलता...

"चल गो, आई कडेन एक गुळी मागून हाड... म्हाका रुच पळोवपाक जाय..." ताणें नंदनाक सांगलें आनी नंदन बरोबर तोय बी पापड सुकत घालूंक लागलो.

"हांव ना रे बाबा! हांवें मागल्यार आईन इल्लोसो कुडको दिलो म्हाका गुळयेचो..." नंदनान सांगलें.

"वचना मुगो तूं? तशें जाल्यार आतां चट्टा मट्टा..."

"म्हणचें कितें रे पांडू भाऊ?" नंदनान अजापान विचारलें.

"दाखयतां. हो पळय पापड आसा न्ही... पयलीं असो दोडप... मागीर

असो... मागीर असो... चार कडेन दोडटकच केदो जालो?''

''इल्लोसो जालो न्ही?'' नंदनान सांगलें.

''मागीर तो असो दोडये पोंदा दवरप आनी मागीर 'चट्ट-मट्ट' करून चोखून खावप... जालो चट्टा-मट्टा...''

पांडू भाऊ पापड खाता म्हणून नंदनाक राग आयलो.

''पांडू भाऊ, तुवें आमचो पापड खालो?... आईक सांगू...!''

पांडू भाऊन दुसरो पापड दोडून, घडी करून नंदनाक दाडये पोंदा धरूंक दिलो.

... नंदनान तो रुचीन चट्टा-मट्टा केलो.

''नंदन, चल मुगो... आईक सांगना?'' पांडू भाऊन हांसत म्हळें आनी तो गेलो- आतां आईक कशें सांगतलें?... दोगांय चोरां...

मागीर नंदन पांडू भाऊन पापड खालो तें विसरलें...

-पूण ताचे जिबेन ताका 'चट्टा-मट्टा' विसरूंक दिलें ना.

करया आनी एक 'चट्टा-मट्टा?' जीब हुळहळटाली.

थोडे वेळान ताणें आनीक एक पापड चट्टा-मट्टा केलोच. आतां गोडी लागतकच सुकत घालतना मदीं-मदींच एक-एक खावप जालो. मागीर दुसरो... परत एक... परत...

दर खेपो परात दवरूंक गेल्ले कडेन वत लागलें म्हणटालें, आनी भितर वचून सूऽ सूऽ आवाज करीत उदक पितालें.

स पापड खातकच छेः! आतां पुरो... खरेंच पोटांत हुलोप पडल्यार?... ताणें चिंतलें.

''दोन पयली पापडांचे मांडे हांवें एकट्यान करून वडयले...'' भितर सोनीताई बढाय मारतालें.

आईन च्या करून हाडिल्ली. खावपाक लाडू, बिस्कीटी आनी तिखशे फोवय बी...

नंदनाकय च्या, लाडू, बिस्किटी मेळ्ळ्यो. पापड सोंपिल्ल्यान सगळीं च्या पितना खबरी मारतालीं.

''- पळय! बारा वरां मेरेन सगळे पापड लाटून सोंपले...''

"-हय बाये! कुडवाचे पापड बारा वरां मेरेन लाटून काबार!"

"मागीर?... चवगांचो हात तो! चवगांचो हात दुस्मानाचेर लेगीत पडनये म्हणटात..." नंदाईन हांसत म्हळें.

"फुडले आयताराक भागेआकाले पापड मगो?" ताईन म्हळें.

"हय! आनी आमगेर ह्या बुधवाराक करया म्हणटाली आई." सोनीताईन सांगलें... 'नंदाई, तुका मातशें माप दाखोवपाक यो म्हळां हां... पळय, तुका वेळ मेळत तशी पिठी कालोवया..."

"आंवय! तातूंत कितें! बऽरे भशेन येतां हां हांव..." नंदाईन सांगलें.

आपापलें लाटफळें घेवन बाई बी घरा वचपाक उठली.

"आगो, हें कितें? आतां जेवनच चलात न्ही..." नंदाईन म्हळें.

'नाका गे! आईन रांदून दवरलां आसतलें. मागीर ती म्हणटली- हें रांदलां तें तकलेर थापूं काय म्हणून..." सोनीताईन हांसत सांगलें.

सांजचें वत मोव जातकच आईन पापड घरांत हाडून न्हिवत दवरले.... मागीर कवळ्यो बांदूंक बसली...

धा-बारा पापड कागदांत बांदून आईन ते बाईगेर, भागीगेर बी व्हरून दिवपाक सांगलें नंदनाक...

पूण नंदन पोटाक धरून गुठली मारून न्हिदलां.

"उठ मगो! कितें सांगलां हांवें? बाईगेर भाभीगेर..."

"आई गे, म्हज्या पोटांत दुखता गे सामकें..." नंदन कळवळलें.

"पोटांत दुखता? कित्याक गो... ?"

"ह्या पापड्यांच्या वासान जातलें. वतांत बसून पापड सुकत घाल्ले न्ही? वास सामको नाकांत भरला..."

"सामकेंच सदळ गांठीचे मगो तूं!" आईन म्हळें आनी पोरसांत वचून शब्दयाचो पालो हाडलो, तो मुड्डून नंदनाक ताचो वास दिलो आनी बोमलेक घालो.

नंदनाच्या पोटांत आतां गुडगुडूंक लागलें. तीनसांज जायसर पांच-स वेळा संडासाक भेट दिवन जाल्ली. 'आवय गेऽऽ, आवय गेऽऽ' करीत तें पोट घट्ट जमनीक तेंकोवन न्हिदिल्लें.

भागेआका पापड पळोवंक भितर सरलें.

“हाका कितें जालें ?” ताणें विचारलें.

“पोटांत गुडगुडटा ताच्या.” नंदाईन सांगलें.

“पाडांच्या वासान...”

“सामकेंच नाजूक गे बाये तुगेले हें चली! आगो, पापडांपिठी बी चड खावंक ना मुगो ?” ताणें विचारलें.

“ना म्हळ्यार...!” इल्लोसो नाखूटभर गुळये कुडको खावंक दिल्लो हांवें!... नंदनाची कालेतच मातशी सदळ... जेवणा... खाणाक लेगीत तशेंच तें! तिखसाण मातय सोंसना ताका. हुमण मातशें तिखट जाल्यार कडयेन जेवतलें तें!... वरण, तोय असलें कितेंय करचें पडटा मागीर ताचे खातीर...” नंदाईन म्हळें.

“भुरग्यांचें कांय सांगनजो. चोरून पापडांपिठी बी खावंक ना मुगो ? जिबेक रुच लागतकच खायत रावलें जातलें... आं...? आं...!”

भागेआकाच्या धेंगशान नंदनान भिवन ना... ना... म्हणून तकली हालयली. मनांत मात तें बरेंच अजापालें. ह्या भागेआकाक कशें कळ्ळें ?

“गांठ बी कुशीन सरल्या जाल्यार पळय ताची! तेल-मीठ घेवन पोटाक काड बोमले भोंवतणी...” भागेआकान वतां-वतां सांगलें.

आईन मागीर तळटार मीठ आनी तेल घेवन दोनय तळटांचेर चोळून चोळून एक केलें आनी अळंग हातांनी ती नंदाचे पोट चोळूंक लागली.

कोणाकोणागेर पापड पावोवपाचे तें काम मागीर शामून केलें आनी पापडां बरोबर नंदनाच्या पोटांत बरें ना ही खबर सगल्यांक पातळावन आयलें.

मागीर एक-एकली खबरीक येवन आईक वखदां आनी चड करून पथ्य सांगून गेलीं. शेवटाक ताचो परिणाम म्हणचे नंदनाक चोवीस वरां मेज-निवळार दवरप हें थारलें.

पयलींच संडासाक वचून-वचून, जाळ पडून बेजारिल्लें नंदन! तातूंत आतां पोटांत दुखतालें तें थांबून चुरचुरीत भूक लागिल्ली पोटाक!... आनी आतां खावपाक कितें काय म्हळ्यार पेजे-निवळ खंय!

सोमाराक आईन शाळेंत धाडलें ना ताका. सकाळचीं सगलीं पोळे आनी चटणी खातालीं. नंदनाक मात पेजेचो वाडगो!

"आई, एक तरी पोळो दी मगेऽ...' ताणें विनयलें.

"आयज सगळो दीस कांयच मेळचें ना हां!... सांगून दवरतां...! तुजो ओगीच बोवाळ नाका... पोट निवळूंक नाका?"

आज सोमार... नुस्तें ना. पूण आईन बरीऽ आमड्यांची हुड्डमेथी केल्ली. मुगांच्यो गांठी... नीरपणसाच्यो फोडी तळिल्ल्यो... नंदनाच्या सामक्यो आवडीच्यो...!!

"आई, पेजेच्या तोंडाक लावपाक तरी एक फोड दी मगे."

"कांयच मेळपार ना हां!... ओगीच रुची काडनाका. पोट निवळतकच तुका जाय तितल्यो फोडी करून घालतां..." आईन सांगलें.

"आई, भागेआका खबर घेतालें. ताणें नंदनाक पेजेच्या तोंडाक दोणांतल्या आमलेचो कुडको दी म्हणून सांगलां..." शामून आईक याद केली आनी तें 'खू:! खू:! करून हांसूक लागलें.

"आई गे, आतां म्हाका खूब्ब बरें दिसता मगे..."

"पळयले मगो!" आईन समाधानान म्हळें.

"फाल्यां मेरेन सामकें निवळटलें तूं..." तिच्या जिवाक सुशेगसो जालो. पूण फोड दिवपाचें नांव काडलें ना तिणें!

खंयचो हो 'चट्टा-मट्टा' शिकयलो पांडू भाऊन अशें नंदनाच्या जिवाक जालें. तें तोंडा वेल्यान गोजडी पांगरून ओग्गी वचून न्हिदलें.

सांजेचे पणजे सावन आका आयलें... तें येता म्हळ्यार भुरग्यांक सामकी पर्वणी! केन्ना कितें केन्ना कितें घेवन येतलेंच! तेंय बी रासभर! आईस्क्रिमां म्हणनाका, केकी म्हणनाका... भुरग्यांक आवडटा तीं खाणां घेवन येवप! आज ताणें पॅटीस हाडिल्ले... बॉक्स भरून...!!

"कित्याक गो रासभर घेवन येता तें..." आईन अपुरबायेन म्हळें.

"आगे आमच्या पणजेंत सामकीं फामाद हीं पॅटिसां... हांगा खेड्यांत खंय मेळूंक आयल्यांत? हें पॅटीस म्हळ्यार नंदनाक सामको जीव...! खावंदी म्हळें जाय तितलें..." आकान म्हळें.

“आगेऽ बाये! नंदनाक आनी दिवनाका हां खावपाक! कालच्यान पळय ताणें बाबड्यान भोगलां...!! पोटांत दुखप कितें... संडासाक ढाळ जावप कितें... पोटांत गुडगुडप कितें...!! वळवळतालें गो पोर रातभर...” आईन मोठ्या होडविकायेन आकाक नंदनाली खबर सांगली.

“म्हणून आतां वळवळायतात हीं म्हाका?” नंदनान तिडकीन चिंतलें. ‘सकाळच्यान पोळे नात, जेवण ना, फोडी नात आनी आतां आकान म्हज्या आवडीचे म्हूण हाडिल्ले पॅटिसय खावंक मेळनात...”

नंदनाक भितरल्यान कडाचेर कड येवंक लागले. आनी तें हुडक्या हुंडक्यांनीं रडूंक लागलें.

आकान ताका वेंगांत घेतलें आनी ताची दुकां पुशीत ताका समजावंक लागलें- “नंदन, शाण्या, रडप ना हां... निवळटलें हां पोट रोखडेंच हां...”

- पाडा पडूं त्या चट्टा-मट्टाचें!... पाडा पडू त्या पांडू भाऊचें! हजारदां नंदनाच्या मनांत आयलें. पूण तोंड धांपून ओगी न्हिदून रावलें.

दुसरे दिसा शाळेंत वतकच शाली-माली धांवतच ताच्या म्हऱ्यांत आयलीं. “आगो, खंय गो तूं काल? कितें जाल्ले गो तुका?... तुजे खबरीक लेगीत वचूंक दिना जाली म्हजी आई... म्हणूंक लागली... तुज्या म्हऱ्यांत गेल्यार म्हाकाय हागवण लागतली...” शालीन म्हळें.

“अशें जाल्लें तरी कितें गो तुका?” मालीन विचारलें.

“कांय ना गो.” नंदनान बेजारत म्हळें, “चट्टा-मट्टा जाल्लो म्हाका...”

“म्हणचे गो?... चट्टा-मट्टा म्हळ्यार... केन्नाच आयकूंक ना... जोर आयिल्लो... कितें जालें? कसो जाता?”

“चट्टा-मट्टा म्हळ्यार चट्टा-मट्टाच! तो आपशीच जाता... आनी कितें सांगू?” नंदन व्हडान तापलें.

इश्टिणी बाबड्यो ताच्या तोंडाक पळयतच उरल्यो.

***

# निर्णय

हालींसराक नीनाक न्हीद सारकी पडच नासली. फांतोडेर मातसो दोळो लागतालो. सकाळीं जागें जातकच तकली सामकी उसळपाक लागताली. न्हीद नाशिल्ल्यान, काय ताचे परस चड आपल्या मनांतल्या विचारांनी? शी! शी! कसली सपनां पडटात हीं म्हाका? मनांत आसता तें सपनांत दिसता म्हणटात. पूण अशें कशें विचार करूंक शकता हांव? लग्नाचे विचार... घोव... असले विचार पयलीं मनांत आयले नात अशें न्ही. पूण त्या दिसांनी... छे! हो यश तकलेंतल्यान काडून उडोवंकच जाय! रातीं तर नीनान दोळे घट्ट धांपून घेतले.

मुन्नाचे कपडे दवरूंक तें दादाच्या रुमांत वचपाक आनी दादान वयनीक घट्ट वेंगेंत आंवुळपाक एकच वेळ कसो मेळ्ळो? नीना फाटल्या पांयांनी परतलें.

पूण मागीर रातभर ताच्या सपनांत यशच नाचतालो. यशान ताका घट्ट आंवुळिल्लें. यशाच्यो त्यो मिशयो ताच्या पोल्याक तोपताल्यो. तें यशाक नाका नाका म्हणसर यश चडच ताच्या आंगचटीक आयिल्लो. मागीर मागीर रावं नजो जावन ताणेंय बी यशाक घट्ट वेंग मारिल्ली. म्हऱ्यांतलें उशें घट्ट आंवळून तें त्या उशाकच चुमत राविल्लें. उशें मुड्डीत राविल्लें. आंगांत भार आयिल्ले भशेन... आंगांतलो भार देंवसर.

अशें कितें जाता म्हाका ह्या दिसांनी? नीना चिंत्तालें. सगळीं कामां आटापसर इतलें पुरो जाता. कूड सामकी न्हिदेक येता. केन्ना काय फाट हांतरुणाक लायन अशें जाता. पूण हें चंचल मन, तें न्हिदूंकच तयार नासता. मातसो दोळो लागसर तरेकवार सपनां. सगळ्या सपनांत तोच. यश! यश

हांसता. ताका विनयता. ताचे कडेन लग्नाचें उतर मागता. आमी बेगीन लग्न जावया म्हणटा.

रातींय तशेंच जालें. सपनांत यश येवन ताका छळूंक लागलो. ना. ना. पूण ताचो नानाकार तो आयकूनच घेना. ताका वेंगेंत घेता. मागीर तेंय आपल्या मना वयलो ताबो वगडायता. ताका खेव घालता. घट्ट, घ..ट्..ट! आनी मागीर कच्च करून जागें जाता.

रातभर कूस परतीत तळतळत रावता.

आयज उठ्ठनाच नीनाची तकली अशीऽ फोडपाक लागली. सद्दां साडेपांचाक उठपी नीना साडे स जाली तरी न्हिदूनच रावलें. कीचनांतल्यान आयदनां आपटल्ल्याचो आवाज, फणफणत उलयिल्लीं उतरां कानार पडलीं. तशें नजो जाता करून तें उठलें. उबें रावतनाच तकली सण्ण जाली. 'आवय गेऽ!' सोंसूंक नजो जावन ताच्या तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं.

मुकूंद बेसीना कडेन उबो रावन तोंड धुतालो. ताणें नीनाचो आवाज आयकून म्हणलें, ''ताई, कितें जालें गो?''

''तकली भयंकर उसळटा रे.''

''मागीर उठलें कित्याक? कसलीय गुळी घेवन न्हिदून राव मगो.''

ताच्या तोंडांतल्यान उतरां आयलीं खरीं, पूण रोखडेंच ताई न्हिदल्यार कितें जातलें तें ताका जाणवलें. मागीर मातसो खांकडतसो तो म्हणूंक लागलो, ''ताई गो, म्हाका जर शीत-रोस करूंक आयिल्लो जाल्यार हांव तुका खरेंच कीचनांत पांय दवरूंक दिवचों नासलों.''

अखिन्नसो हांसो ताच्या तोंडार उदेलो. ''भोगूं रे तें.'' अशी कुरू करून तें टॉयलेटांत गेलें. बेगिबेगीन सगळें आटापून एकदांचें भितर तोंड दाखयतकच सुटलें हांव. ताणें चिंतलें.

पूण कीचनांत पावल दवरपाक ताका वेळ जालोच. ताणें भितर पावल दवरतनाच आयदनां आपटुपाचीं बंद जालीं. पूण वयनीचें तोंड सुरू जालें. ''आवय म्हजे! उठली दिसता म्हाराणी! फोगोट्यो मारात रेऽ! आमी दीसभर मर मर काम करून थंय ऑफिसांत झरचें. हाका आयतें येवन पडटा न्ही घरांत मातशें बेगीन उठून रांदपांत हात-बोट घाल्यार झरत न्ही बोटां!

आतां ताकतिकेन चपात्यो भाजल्यो तो हाताक तवो लागलो. भाजलें सामकें. ऑफिसांत आनी लेट. मेमो पडटलो. पूण कोणाक पडलां?''

वयनीचे अखंड बडबडीत नीनाची तकली आनीक चडच उसळूंक लागली. तोंडांतल्यान उतर काडिनासतना पदर खोवन तें कामाक लागलें. ते बराबर दोनय टिफिनां उबारून वयनीन भायर कूस मारली. रोखडोच शेखरान स्कूटर स्टार्ट केल्ल्याचो आवाज आयलो. दोगांय ऑफिसाक वचूंक गेलीं.

दादानय एका उतरान, बाये, तुका कितें जालां? आयज उठूंक वेळ कित्याक जालो अशें विचारलां? खबर काडनाका.

मागीर मुकूंद हळूच कीचनांत आयलो. ताईचो हात धरून ताणें ताका कदेलार बसयलें. ''ताई, तुका पळय, कडक च्या करून दितां हांव. तकली सामकी देंवतली.'' ताणें म्हणलें आनी आयदनांत दोन कप उदक घेवन गॅसार दवरलें. मागीर लागलो डबे उस्तुपाक. ताका खंय खबर च्या खंय आनी साकर खंय तें. मागीर नीनाच उठलें. ''तूं नाका रे, हांवच करतां च्या.'' म्हणत ताणें उदकांत साकर घाली. च्या पावडरीचो डबो हातांत घेतलो तसो मुकूंद च्याची वाट पळयत कदेलार बसलो.

कडक च्या घेतकच नीनाची तकली खरीच देंवली. ओट्या वयलो पसारो पळयत ताणें च्या सोंपयली. वयनीन दोगां पुरतें कितें तरी करून व्हेलां. हें ताका रोखडेंच समजलें. हरशीं नीना तांकां वेवस्थीत जेवण करून डबो भरून दितालें.

मुन्ना उठपाचो वेळ जालो. ताका पयलीं पळोवंक जाय. नीना उठून बेडरुमांत गेलें.

मुन्ना आपले खाटीर सुस्त न्हिदिल्लो. नीनान ल्हवूच ताच्या केंसा वयल्यान हात भोंवडायलो. तसो दोळे उक्ते करून आपलीं दोन दांतरां दाखयत तो विच्च करून हांसलो. चोर जागोच आशिल्लो दिसता.

मुन्नाचें सगळें आटापसर धा जालीं. नीनान बेगीबेगीन कुकर लायलो. नाल्ल फोडून सोय कातली. कडी पिळ्ळी. हुमणाक वांटून दवरलें. वयनीन फ्रिजांत नुस्तें हाडून दवरिल्लें तें भायर काडून दवरलें.

रांदून दवरून ताणें बेगीबेगीन न्हावन साडी बदल्ली. मुन्नाक कपडे घालून हांडीर घेतलो. मुकूंद जेवन कॉलेजाक पाविल्लो. पांयांक जोतों चडोवन तें सोनाक शाळेंतल्यान हाडूंक भायर सरलें.

शाळेंत वतकच तो दिसतलोच. ताच्या फकत यादीनच नीनाच्या आंगांत वीज केळयिल्ले भशेन जाली. रुबाबदार आंगलोटाच्या त्या तरणाट्याची ताका सामकी भूल पडटाली. पूण मनाक संयम शिकोवन तें स्वताक फाटीं ओडटालें. पूण चरवाक संवकल्लें गोरूं कशें मन ताचे वटेन धांव मारतलेंच!

सहज म्हणून वळख कितें जाता. केन्ना इश्ट जाली. तुमी वयल्यान तूं चेर पावलीं. नीना-यश म्हणून उलो मारूंक लागली. केन्ना एकामेकांचीं मनां रितीं जालीं कळ्ळेंच ना. आनी आतां यश नीना कडेन लग्न जावंक सोदतालो.

यशा कडेन लग्न जावन ताचो संवसार करपाच्या विचारानच ताचें मन भुल्लुशिल्ले भशेन जालें. स्वताचो संवसार. यश. मागीर एक भुरगें. त्याच ओघांत ताणें हांडी वयल्या मुन्नाक घट्ट वेंगेंत आंवुळिल्ले भशेन केलें आनी ताची पापी घेतली. मुन्ना अजापीतशें तोंड करून हांसलो. तेंय हांसलें. सपनेलेंशें.

पूण दुसऱ्याच खिणांत ताका दादा-वयनीची याद जाली आनी सगळी उमेद खंयचे खंय नाच्च जाली. तांकां यश कसोच मानवचो नासलो. आजवेर बऱ्या बऱ्या भुरग्यां मदीं वयनीक कितले दोश दिशिल्ले. आनी हो यश, सोनाचे शाळेंतलो प्यून.

"तुज्या घरा येवन तुज्या दादा-वयनीक मेळटां हांव." यश म्हणटालो. पूण प्यूना कडेन इश्टागत केली म्हूण घरांत जो बोवाळ जातलो ताका नीना भियेतालें. लग्नाक मान्यताय सोडच. यशाचो अपमान करून ताका भायर धांवडायतलीं आसलीं तीं. आनी नीनाक तें निखालस आवडचें नासलें. यशवंत खरोच सादो-सरळ. ताका अशें दाखय-लिपय कळच नासलें. "कितें जाता गो नीना. हांवें सरळ तुमगेर वचून तुका मागणी घाल्यार? आमी एकामेकांक पसंत केलें म्हणून सांगुया गो आमी." ताणें म्हणचें.

शाळा सुटपाक मातसो कळाव आसलो. मुन्नाक घेवन तें गेटी कडेन पावलां, इतल्यांत तो थंय पावलोच! नीनाची कानसुलां तापलीं. स्वास भितर घुस्पल्ले भशेन ज ावंक लागलो. हालींसराक ताका पळयतनाच नीनाक अशेंच जातालें.

"आयज बेगीन आयलें गो?" ताणें हांसून विचारलें.

"हय." तें उलयलें. नदर मात दुसरेच कडेन.

"अजून पांच मिनटां आसात शाळा सुटूंक."

"हय." हाचे वयर कांय उलोवंकच येना जालें नीनाक.

"कितें विचार केला काय ना तुवे?" ताणें सिरीयस जावन विचारलें.

नीना ओग्गी रावलें. ताचें मन मात रडटालें. "म्हाका तूं विसरून गेल्यारच बरो."

इतल्यांत यशवंत म्हूण कोणें तरी उलो मारलो. तो धांवतच गेलो. नीनाक सू जालें. मुन्ना ताळयो मारून 'ना... ना...!' करूंक लागलो. सोनाक येतना ताणें पयसुल्ल्यान पळयलें दिसता.

सोनाच्या हाताक धरून ताणें सटासट पावलां उबारलीं. सोनाच्यो शाळेंतल्यो खबरी चालूच आसल्यो तोंडाक उसंत घेनासतना. एके वटेन ताच्यो खबरी आयकत हातांत सोना, हांडीर मुन्ना अशे तरेन ट्रॅफिकांतल्यान वाट काडीत ताणें घरची वाट धरली.

शेजारचो मनोहर आपले बायलेक आनी चल्याक घेवन खंय तरी वतालो. "बरें मगो." ताणें हांसून म्हणलें. नीनान मान हालयली आनी तें चलत रावलें.

सोना-मुन्नाक जेवोवन मागीर नीनाय जेवलें. मुन्नाक ताचे खाटीर दवरून सोनाक मेजार होमवर्क करपाक बसयलें. आयदनां घांसून, कपडे उमळून काडसर मुकूंद कॉलेजांतल्यान घरा पावलो.

अकस्मात ताचे तकलेंत विचार आयलो. मुकूंदाक सांगया? ताचें मत विचारया?

पूण तो ल्हान. ताका कितें कळटा? तें अशें फाटीफुडें जाता तें मुकुंदाक कशें जाणवलें कोण जाणा. पूण ताणें विचारलें- "कितें गो ताई, तकली

अजून निवळूंकच ना? चल, हांगा दी तो ओलीं. हांव सुकत घालतां.''

''नाका रे. घालतां हांव.''

''पूण कितें चिंत्ताले तर तूं?''

''ना रे. अशेंच सहज. तुका पळयतकच दिसलें, केन्नाचो केदो व्हडलो दिसूंक लागलो रे तूं?!!

''ताई, हांव ल्हान ना गो आतां. फुडल्या म्हयन्यांत बावीस जातलीं म्हाका.''

''बावीस! हय मरे. मागीर म्हाका कितलीं जालीं रे?''

''म्हाका बावीस जाल्यार तुका तीस जालींच न्ही?''

''हूं!'' ताणें सुस्कार सोडलो.

मुकुंदाक चोरा भशेन जालें. म्हणूंक लागलो, ''हांव कितलों ल्हान आशिल्लों तेन्ना. पूण मरतना बाबान दादा कडेन उतर मागिल्लें तें अजून घट्ट याद आसा म्हाका.''

नीनान परतें 'हूं' केलें. ताच्या दोळ्यांतल्यान फाटलीं पंदरां वर्सां आयलीं. आवय मेली तेन्ना नीना पंदरा वर्सांचें आसलें. मुकूंद सातेक वर्सांचो आसत. दादा कॉलेजांत शिकतालो. आई वतकच नीनाक शाळा सोडून घरा बसचें पडलें. पूण घरा 'बसप' खंयचे? सकाळीं स वरांचेर दीस सुरू जावचो ताचो, तो रातचो धा-साडेधांक सोंपचो. कामाची संवय ना. केन्ना शिताची पेज जावप. केन्ना निबर फातर जावप. रोसांत मीठ आसल्यार आमठाण ना. चपाती करूंक गेल्यार हात भाजप. मागीर हळूहळू संवय जाली. थोड्या वर्सांनी बाबा रिटायर्ड जालो. त्याच वर्सा दादाक नोकरी लागली.

बाबा चड वर्सां जगलो ना. सदांच बरो ना जावप. दम्याचो मनीस. चार दीस बरे वताले. परत दुयेंस चाळवतालें. बऱ्या दोतोराक दाखोवपाक तयारच नासलो. दोतोराच्या हड्ड्यार घालपाक म्हजे कडेन पयशे नात. ताणें म्हणप, 'म्हजो प्रोविडंट फंड आतां नीनाच्या लग्नाक'. निमाणें वायटपणांत तर ताणें नीनाच्या लग्नाचो ध्यास घेतिल्लो. ''शेखर, म्हाका उतर दी. नीनाचे लग्न जावचें पयलीं तूं लग्न जावचो ना. म्हजो प्रोविडंट फंड

आसा. नीनाच्या लग्नाक पुरो तो.''

''बाबा, अशें कित्याक उलयता तूं? तूं बरो जातलो पळय. तुज्या हातान नीनाचें लग्न करतलों तूं.'' शेखरान रडकुरो परतून म्हणिल्लें.

''पंदरा वर्सांचेर घशट्याक लागिल्लें पोर आमचे खातीर. शिकप ना, कांय ना. फकत आमचीं कामां. ताका लागून जीव घुटमळटा रे. म्हाका उतर दी.''

शेखरान मागीर बाबालो हात हातांत घेवन म्हणलें, ''बाबा हांव वचन दितां न्ही तुका. म्हजेर विस्वास दवर. नीनाचें लग्न जायसर हांव म्हज्या लग्नाचो विचार लेगीत करचो ना.''

आनी दोन दिसांनीच बाबा सोंपिल्लो.

दादाच्या ऑफिसांतले किलतेशेच लोक जापेय आयिल्ले. तातूंतल्या तातूंत तें रोहिणी दादाक सामकें तेंकूनच बशिल्लें. घरार नदर मारतालें. दादाचे फाटीर पोशेतालें. सगळे जाण गेले तरी तें दादालो हात हातांत धरून बशिल्लेंच आसलें. दादाचें सांत्वन करतालें. तें वचपाक उठलें तेन्ना मुकुंदाक उलो मारून दादान म्हणलें, ''मुकूंद ही वयनी तुका आवडटली रे?''

रोहिणीन पर्सींतल्यान एक व्हडली चॉकलेट काडून मुकंदाच्या हातार दवरिल्ली. ती खायत खायत मुकुंदान म्हणिल्लें, ''हय, आवडटली.''

मागीर दादान नीनाक म्हणिल्लें, 'नीना, आमचें केन्ना जमिल्लें आसा गो. पूण बाबाक सांगूंक धीरच जायनासलो.''

नीनानय मागीर हांसून म्हणिल्लें, 'म्हाका वयनी खूब आवडली दादा.'' रोहिणीय आपल्या घारशा दोळ्यांनी ताका वयर-सकयल पळोवन हांसलें.

बाबाले वर्सस्राद्ध जावचे पयलीं नीनाचें लग्न करून उडोवपाचें शेखरान थारायिल्लें. रोहिणीय ताका न्हवरे सोदूंक आदार करतालें. पूण दरेक न्हवऱ्याक कितें ना कितें नूक रोहिणीक सांपडटालें. नीनाचें लग्न वर्सभरांत जावंक पावलें ना.

पूण वर्स जावचें पयलीं दादाचे लग्न मात जालें. कारण दादा-वयनीच्या

मोगाचें फळ रोहिणीच्या पोटांत आशिल्ल्याची सुलूस लोकांक लागचे पयलीं लग्न करचेंच पडलें.

मागीर सवाय प्लॉट म्हणून प्रोविडंट फंडाच्या पयशांतल्यान नवो बंगलो बांदचे खातीर प्लॉट विकतो घेतलो.

जमनीचे दर वाडत आसात. आनीक दोन वर्सांनी इतलो सवाय मेळत म्हूण आशा आसा? पयशे बँकेंत कुसत दवरचे परस प्लॉट घेतिल्लो बरो अशें वयनीचें मत पडलें.

दादाक वेगळें अशें मत त्या दिसांनी नाशिल्लेंच.

''आमी दोगांय तर नोकरी करतात. नीनाचें लग्न जायसर हांव एकठांय करतां हुंड्याचो दुडू'' वयनीन ओर्रान सांगलें.

मागीर रोखडेंच सोना जल्मलें.

तीन म्हयन्यांची बाळंतपणाची रजा सोंपोवन वयनी कामार रुजू जाली.

घरचे सगळें सांबाळून आतां सोनाचें सगळें करप. नीना कामांत इतलें बुडटालें, आपल्या लग्नाचो विचार करपाक लेगीत ताका वेळ नासतालो. आनी दादा-वयनीक हुंड्या खातीर पयशे जमय म्हणसर न्हवरो सोदपाची ताकतीक नासली.

सोना व्हड जावन अशें शाळेंत वचूंक लागसर पोरूं मुन्नाचो जल्म जालो.

परत सगळें नीनाच्या गळ्यांत.

मुकूंद सगळें पळयतालो. आयकतालो. खाल मानेन रावतालो. सदांच मनार कसलें तरी दडपण आशिल्ले भशेन वावुरतालो. आपूण आनी आपलो अभ्यास हातूंतच ताणें आपल्याक पुरून घेवप. इनामां मेळोवप. स्कॉलरशीप मेळोवप. विशींतलो तो तरणाटो आतांच जाण्टो जाल्ले भशेन दिसतालो.

आयज मनोहर वाटेर दिसलो. बायल-भुरग्यां सयत. नीनाक फाटल्यो यादी जाल्यो. कितलीं वर्सां जालीं ते खबरेक. चार? काय पांच? सोनाक बाबागाडयेंत बसोवन नीना ताका गार्डनांतल्यान भोंवडायतालें. मनोहराचो उलो आयकून तें थारिल्लें. मनोहरान मातशें खांकडतशें म्हणिल्लें- ''आई

अंदू म्हजे लग्न... म्हणजे ती म्हाका सोयरिको पळोवंक लागल्या. दोन-तीन चलयो तिणें पळयल्यात. पूण म्हाका... म्हज्या मनांत... तूं तुज्या दादाक सांगशीत म्हजे आईक मेळ म्हणून?''

गोरें गोरें नीना लजेन तांबडेच जाल्लें. ताणें कांय उतर दिलें ना. मागीर मनोहरानच म्हणलें, ''पळय, हांव व्हडलो गिरेस्त ना. पूण तुका सुखांत दवरतलों. घरातं आई आनी हांव. आमी दोगांच. आईक तूं वळखता. तिचो सभाव तुका खबर आसा. तूं कश्टाळू म्हूण ती सदांच तुका तोखेता. तुमचें दोगांचेंय बरें जमतलें. पूण हांवें जावन तुज्या दादाक विचारप बरें जावचें ना. म्हणून तूं सांगशीत?''

नीना लजेन हांशिल्लें. ताका मनोहर आवडटालोच. तो आपल्या तोंडाक पळयत रावला. हें पळोवन ताणें सोनाक हांडीर मारून दुसऱ्या हातांत बाबागाडी धरून घरा धांव मारिल्ली. ताचो तो अवतार पळोवन मनोहर कितल्या मोट्यान हांशिल्लो.

पूण हें घरांत सांगपाक नीनाक धीरच जायना जालो. वयनी तर आपलेच भितर. केन्ना नीना कडेन अपुरबायेन उलोवचें, विचारचें. नांव ना. शेवटाक एक दीस मनोहराची आवय तांगेर आयली.

आयतार आशिल्ल्यान सगळीं घराच आसलीं.

''यो मन्या आई. आयज हांगा खंय तर?'' तिका पळोवन दादान म्हणिल्लें.

''आरे शेखर. तुकाच मेळूंक आयिल्लें रे बाबा! म्हजें तुजे कडेनच काम आसलें.''

''मागीर सांग मगे. म्हज्यान जायसारकें आसल्यार हांव करपाक रावतां? तूं आमची सामकी शेजात्र मगे!''

''तुज्यान जायसारकें आसा आनी तें केल्यार वयल्यान तुजेंय काम जावपाचें आसा.''

शेखर अजापान तोंडाक पळयत रावलो.

''शेखर, तुमचें नीना आनी आमचो मनोहर जोडो कसो सोबतलो? तुकाय जोतीं झरोवंक नाकात न्हवरो सोदूंक. आनी म्हाकाय चलयेचें

इन्फोर्मेशन काडूंक नाका. दोळ्यां सामकारचीं स्थळां आसात. आतां उलय. आसा तुका पसंत? मनोहरा आवय मोटे खोशेन उलयताली.

शेखराचें तोंड खोशेन सामकें फुलून आयिल्लें. 'विचारतां आनी कितें मन्या आई? म्हाका एकदम पसंत.''

इतल्यांत भितरल्यान सगळें आयकतालें रोहिणी भायर आयलें. सगळें आपल्या हातांत आसा हें दाखयत म्हणूंक लागलें, ''लग्न म्हणजे जल्माचो प्रस्न. अशे पटकन उतर दिवं येता? विचार करून सांगतात आमी. तातूंत आमचं नीना गोरेंपिट्ट, सुंदर. तुमचो मनू मातसो काळोच! न्हीं?''

''रुक्मिणी गोरी आनी कृष्ण काळो हें केन्ना आयाकूंक ना काय कितें तुवें? मन्या आवयन हांसून म्हणलें. ''येतां तर हांव. बेगीनच सांगात हां.'' वयलेचाराक ती हांशिल्ली. पूण भितरल्यान खंयची हांगा आयली अशें जाल्लें तिका. मनांतल्यान फडफडतच ती घरा गेल्ली.

मागीर ह्या प्रस्नाचेर सगळ्यांचीच चर्चा जाली. सगळ्यांची म्हणचे दादाची आनी वयनीची. मुकुंदान तोंड घाल्यार ल्हानांनी जाणट्यां मदीं तोंड घालुंनये अशें सांगून ताका ओगी केलो. आनी नीना. तें कितें उलयतलें? सगळो जल्म खालमानेन काडिल्लें तें चली. आपल्या लग्नाच्यो खबरी करतलें?

वयनी कुसपटां काडत रावली.

''तो जोडटा कितें तें तरी पळोवंक जाय?'' तिणें म्हणलें.

''आगो, ताका जुवारींत बरी नोकरी आसा. स्वताचो फ्लॅट. घरांत आवय आनी तो. नीना राणी कशी उरतलें थंय.'' दादान म्हणिल्लें.

''पूण आमच्या नीनाक ताच्या रुपाच्या मानान कितल्यो तरी बऱ्यो मागण्यो येवंक शकतात.''

''वयनी...'' मदींच धीर करून मुकुंदान तोंड घालें ''फाटीं आत्यान हाडिल्लो तो भुरगो अशेंच कितें सांगून तुवें नाका केल्लो.''

''आतां तूं लागलो मदीं तोंड घालूंक? तुका हातूंतलें कितें कळटा? आत्यान हाडिल्लो तो भुरगो शिगार ओडटालो खबर ना तुका?''

''पूण म्हाका दिसता. मनोहर बरो भुरगो. ताई लागींच उरतलें.''

मुकुंदान म्हणिल्लें.

पूण वयनीन मोडतो घालो तो घालोच.

आतां नीना विशीं उत्तर घालूंक कोणच धजना जालो. शेजाऱ्यां मदीं कुचकुचू उलोवणीं चालू जालीं. ''आयती रांदपा-करपाक, घर सांबाळपाक, भुरग्यांचे काडपाक वावराडी मेळ्ळ्या. तिका ही बायल हातांतल्यान वचूंक दिता?''

नीनाच्या कानार लेगीत हें पावलें. आनी खरेंपणी ताकाय आतां तशेंच दिसूंक लागिल्लें. आपलो फुडार कितें? परतें परतें बाबाच्या फोट्या सामकार वचून ताणें रडचें. फोटवांत बाबा हांसतालो. पूण नीनाक दिसप तो आपले कडेन पळोवन रडटा. थोडे दीस शेखरदादा असोऽ चोरा भशेन ताका तोंड चुकयतालो. पूण वर्सां वतात तशें ताचेंय मन मेल्ले भाशेन जालें जातलें.

मनोहर लग्न जावन बायलेक दाखोवपाक मुद्दाम तांगेर घेवन आयिल्लो. वयनीन नाल्ल, कपडो घालून तिची व्हंट भरिल्ली आनी म्हणलें, 'सुखान संवसार करात.'

नीनाचें मन आकांत करतालें. ''म्हाका कित्याक दिवंक ना गे तुवें असो आशिर्वाद? कित्याक म्हाका अशें रडत दवरलां?''

पूण पोटांतले प्रस्न ओंठांत हाडपाक नीनाच्यान जालें ना. तशेंच खेदत रावलें. आपलीं कामां करत रावलें. रांदप, मुन्नाक सांबाळप, आयदनां, कपडे, सोनाची शाळा, ताचो होमवर्क...

आनी एक दीस तांची वळख जाली. सोना धांवत येतना पडलें. रडूंक लागलें. यशवंतान ताका उबारलें. पोशेलें आनी नीनाचे सुवादीन केलें. खेड्यांतलो तरणाटो. मातसो लजेस्तसो. पूण थोड्या दिसांनी मातशी वळख वाडनाका. भडाभडा उलयत रावलो. आपली कर्मकथा सांगत रावलो. शेतकामत्याच्या घरांतलो भुरगो. घरा आवय-बापूय, व्हडलो भाव, भयणी, गांवांत शेतां. व्हडलो वाडो. कितलीं गोरवां, म्हशी, वाड्यार कितले गडी. दूद काडून रतीब घालप. ही शिक्षणांत हुशार. हॉस्टेलांत रावन शिकलो. बीए फस्ट क्लास आयलो. शारांत रावन नोकरी करीन म्हणूंक लागलो.

बापायन भावान जायतो समजायलो. शेवटाक तो आनी ताचें नशीब म्हणून हांगा दोन बेडरुमाचो फ्लॅट घेवन दिलो बापायन. त्या फ्लॅटांत रावन हो नोकरी सोदूंक लागलो. चार वर्सां नोकरी सोदीत रावलो. बापायच्या पयशांचेर जगत रावलो. नोकरी नासतना घरा वचपाक लज दिसत म्हूण एसएससीचें सर्टिफिकेट उपेगाक आयलें. ताका हे शाळेंत प्यूनाची नोकरी मेळ्ळी. आयज परतून ताणें नीना कडेन लग्न जावपाची इत्सा परगटायिल्ली.

येवजितां येवजितां नीनाच्या तोंडांतल्यान 'आवय गेऽऽ' असो हुस्कार भायर सरलो. मुकुंदाक ताका बावळ्यांक धरून हालयलें.

''ताई गो, कितें जालें?''

''कांय ना रे.''

''अजून तुजी तकली देवंक ना न्ही? च्या कर गो. म्हाकाय च्याची रुच आयल्या.''

नीनान च्या करून दोन कोपां भरून हाडलीं.

च्या पिता पिता ताणें म्हणलें, ''मुकूंद...''

''कितें गो ताई?''

''तुका कितें सांगन दिसता. सांगूं?''

''कळ्ळें म्हाका. ताई तुजें आंग गरम जालां. जोर आयला तुका. चल, न्हीद तूं. हांव पळयतां सोना-मुन्नाक.'' मुकुंदान म्हणलें.

''मुन्ना न्हिदला. सोना शेजरा खेळूंक गेलां, आनी म्हाका आयज तुजे कडेन उलोवंकच जाय.''

नीनाच्या आवाजांतलें खरपण जाणोवन मुकुंद अजापलो आनी सुखावलोय बी. ताचें मोगाळ ताई. ताका समज येतसावन ताचें सगळें ताईनच केल्लें. हें खरें. पूण सदांच तें पेज कशी सदांच अशें खालमानेन रावता हें मुकुंदाक मातूय आवडनासलें.

''मुकुंद, आयज हांव तीस वर्सांचें मरे? वयनीक जाय तसो न्हवरो मेळसर सहज चाळिशीक पावतलें.''

''ताई, ह्याच विचारांनी म्हाका रात रात न्हीद पडना गो. पूण तुजीय चूक. म्हणल्यार तशें न्ही गो.'' मुकुंदान बेगिबेगीन म्हणलें. ''पूण तूं अशें

मेंगेंशें रावता. सगळें सगळें तूं करता. आनी वयल्यान उलोवणींय खाता. कशें सोंसता तूं हें? हांवें कितेंय उलयल्यार हांव ल्हान पडटां. पूण ताई, तुवें मातशी तरी धिटाय दाखयिल्ली, म्हाका मातसो तेंको दिल्लो तर तूं आयज मनोहरा बराबर...''

नीना अजापान मुकुंदाच्या तोंडाक पळयत रावलें.

''ताई, रागार जावं नाका. पूण हांवेंच मनोहराच्या मनांत... हांवें ताका सांगलें. ताईक तूं खूब खूब आवडटा.'' मागीर नीनाच्या तोंडाक पळयनासतना तकली सकयल घालून तो उलयत रावलो. ''हांव सुटयेंत आत्यागेर गेल्लों न्ही. थंय हांवेंच आत्याचे फाटीक लागून थंयच्या त्या भुरग्याची सोयरीक व्हरूंक सुचयिल्लें. आत्याय बी वयनीच्या तोंणाक लागूंक भियेता गो.''

नीनाच्या दोळ्यांतल्यान आतां दुकां व्हांवंक लागलीं. त्या धाकट्या भावाच्या मोगान ताचें हड्डें भरून आयलें. ताका आपले वेंगेंत घेवन 'मुकुंदा, मुकुंदा' करीत तें हुडकेत रावलें.

''आनीक एक खबर आयक ताई. तुज्या हुंड्या खातीर नोकरी करून पयशे एकठांय करता ते वयनीचो अर्द्या वयर बंगलो तयार जाला.''

नीनान अजापान तकली वयर काडली तशें ताणें ताच्या दोळ्यांत पळोवन सांगलें, ''तुज्यान तर ताई फट उलयना हांव. मोहनाच्या- म्हज्या इश्टाच्या बापायन तेच एरियेंत घर बांदलां. ताणें सांगलें म्हाका. पूण ताई, तूं भियेवं नाका गो! हांव आसा न्ही? बाबाच्या फोट्या सामकार उबो रावन हांवेंय एक सोपूत घेतला. म्हजें शिकप जावन म्हाका नोकरी लागता काय पळयतां. हांव आनी तुजें जर लग्न जालें ना तर हांव लेगीत तसोच आंकवार रावत तुका सांबाळटलों. ताई, खरेंच तर, म्हजेर विस्वास दवर ताई. हांवूय खरेंच लग्न जावचोंच ना.''

मुकुंद उलयता तशें करपी हें तें जाणा आसलें. मुकुंदा खातीर तरी हांवें आतां धीट जावंक जाय. ताणें चिंतलें, आनी म्हणलें, ''मुकुंद, फाल्यां कॉलेजाक बे मारता? तुका मेळूंक कोण तरी हुस्केता.''

आनी मागीर लज-भीड सोडून ताणें यशवंताची खबर मुकुंदाक

सांगली.

'प्यूनाची नोकरी आयकून मुकुंद बरोच गडबडलो. पूण उमेदीन फुलिल्लें ताईचें तोंड पळोवन ताईक वाट दीसत म्हूण ताणें तोंडार कांयच दाखोवंक ना. मोहनाचो बापूय व्हडले कंपनीत मॅनेजर. मोहनाक सांगून कितेंय करूं येता? ताईक वायट दिसत म्हूण तोंडार कांयच दाखयनासतना ताणें म्हणलें, ''चल न्हवरो सोदपाचें म्हजें काम सोपें केलें तर.''

दुसरे दिसा शाळेंत वतना मुकुंद ताचे बराबर आसलो. पयसुल्ल्यानच हात हालोवन नीनान यशवंताक म्हऱ्यांत आपयलो. तसो तो खोशेन धांवतच आयलो.

''मुकुंद, हो यश. आनी यश, हो म्हजो धाकलो भाव मुकुंद. तुमी उलयात.'' इतलें सांगून हांडी वयल्या मुन्नाक सांबाळ्ॅत सोनाचो हात धरून तें सडसडीत घरचे वाटेक लागलें.

'आयज आयतारचो खंय वता रे मुकुंद, कपडे बी घालून सकाळीं सकाळींच तयार जाला तो?'' दादान म्हणलें. दादा मेजार च्या घेतालो.

''दादा, आमगेल्या ताईचें लग्न केन्ना करपाचें रे?'' मुकुंदाचें हें उतर वयनीन आयकलां मात, हात फाफडीत मुकुंदा सामकार उबी रावन ताणें म्हणलें, ''आमी दोगांय दीसभर ऑफिसांत मर मर मरतात तें कित्याक तर? नीनाच्या लग्ना खातीरच न्ही ही सगळी धडपड? हांव तर ओव्हर टायम मेळटा काय म्हूण पळयतां. नजो जाता करून काम करतांच. आयज खंयूय वच. भरगच्च हुंडो मागतात. वयल्यान नोकरी करपी सोदतात. बापायन बरोऽ पोटलो करून दवरला त्या चलयांचें तरी बरें. तातूंत आनीक हाचें वय वाडलां. रुपाक कोण ल्हेंवता?'' वयनीली परवड सुरू जाली.

'हांवूय तेंच म्हणटां वयनी. तातूंत दादान बाबाक वचन आनी दिल्लें आसा. ताच्या बावड्याचे तकलेक ताण. म्हणून हांवेंच आतां थारायलां, अंदू तरी ताईचें लग्न जावंकच जाय म्हणून.'' मुकुंदान म्हणलें.

वयनीन ताच्यो बकच्छायो केल्ले भशेन ताका चाळयत म्हणलें, ''हांवें थारायलां खंय! आनी लग्ना खातीर न्हवरो म्हणून एक लागता. तो खंयच्यान हाडटलो.''

इतल्यान दाराची बेल वाजली. मुकुंदान दार उगडलें. तर दारांत धिप्पाडसो, रुबाबदार, भरघोस मिशयांचो यशवंत सामके फेर्राद कपडे घालून हांसत उबो आसलो.

''यो रे यश.'' मुकुंदान म्हणलें. ''दादा, हो यशवंतराव आनी यश, हो दादा. ही वयनी. आगो ताई, यश आयला. ताका च्या बी कितें दी मगो.''

नीनान पयलीच करून दवरिल्लो शिरो आनी च्या यशवंता मुखार दवरलो.

''यश, हें म्हजें ताई. एसएससीक आसलें. तेन्नाच्यान ह्या घराची रांदपीण, वावराडी, हावसकिपर, गव्हर्नेस... इतलीं सर्टिफिकेटां आसतकच तूं हुंडोबिंडो मागचो ना अशी अपेक्षा.''

तशें तोंडभरून हांसत यशान म्हणलें, ''मनपसंत व्हंकल मेळटकच हुंडो आनीक कोणाक जाय तो?''

अजापाच्या धक्क्यान दादाचें तोंड धरिल्ले भशेन जालें. ताका आतां उतर फुटलें, ''हें पळय यश काय कोण तो...''

''दादा, ताका मानान यशवंतराव म्हणपाचें तुवें. आतां हांवें ताईन बी ताका 'यश' म्हणल्यार जाता. आमी इश्ट न्ही?''

''आमच्या फाटल्यान हे धंदे चलतात दिसता? वयनी तिडकली. ''राव मुकुंद, म्हाका हाची चवकशी करूं दी पयलीं.''

''हे खेपेक असलीच अडचण हाडूंक मेळची ना वयनी. हांवें सगळी चवकशी केल्या.'' मुकुंदान म्हणलें.

''आरे, पूण हाचें घराणें. आवय-बापूय.''

''सगळें सगळें आसा. पूण मुखेल म्हणचे यशाक ताई आनी ताईक यश पसंत आसा.''

'करता कितें हो''. वयनी तापली.

''वयनी, जांवय जावचो आसा तो तुजो. मातशी रेस्पेदान उलोवंक शीक. हो यश. हो सोनाचे शाळेंत प्यूनाची नोकरी करता.''

''कितेंऽ!!'' दादा आनी वयनी एकदमच आड्डलीं.

''कितें जालें अड्डुपाक? पॉश वस्तींत दोन बेडरुमाचो फ्लॅट आसा

ताच्या बापायन घेवन दिला. यश बऱ्या घरांतलो, निर्व्यसनी आनी बीए फर्स्ट क्लास. आनी आमच्या ताईच्या आंगांत कितल्यो कला आसात तें करतलें कसलोय वेवसाय.''

''आनी वेवसाय करपाक भांडवल लागता. तें नेणा जातलो तूं!'' वयनीन टोमणो मारून शें विचारलें.

''तातूंत कितें? तुमी इतलीं वर्सां मर मर मरून हुंडो एकठांय केलाच न्ही? नाजाल्यार बाबान ताईच्या लग्नाक प्रोव्हिडंट फंडाचे पयशे दवरल्यातच न्ही? ना जाल्यार इतलो तेंप घर सांबाळ्ळें, भुरग्यांचे घश्टे काडलें, पगारा बराबर थोडो बोनसय तुवें दिल्यार...''

''मुकुंद.'' दादा रागान थरथरतालो. ''चड उलयशीत तर घराभायरो करतलों तुका.''

''पूण दादा, घर बाबाचें न्ही? म्हणजे तुजें, म्हजें आनी ताईचें! आतां तुजो मुलुंडाचो बंगलो जाल्यार ती खबर वेगळी.''

''तुका कोणें सांगलें?'' दादान दचकेवन म्हणलें. वयनी तर घुंवळ्ळीच सामकी. पूण रोखडीच ताळ्यार आयली. ''पळय, पळय, व्हडल्या भावाचेर कसो हेरगिरी करता पळय. म्हज्या बापायन दिल्ले... म्हज्या कुळारच्या पयशांतल्यान तो बंगलो...''

''कितेंय जावं दी. तुमचो बंगलो तयार जातकच म्हाका आनी ताईक हें घर पुरो.''

''पळय, पळय कसो जीब लांब करून उलयता पळय. हांव आयलें तेन्ना धोंपरा येदो आसलो. इतले कश्ट काडून, इतले तुजें करून व्हड केला तुका. शिकयलो.'' वयनी फडफडली.

''तुवें काय ताईन? तुवें म्हऱ्यांत आयल्यार शिस्तीच्या नांवार हाड-हाड मात केलां.''

नीना, दादा मुकुंदा कडेन पळयत उरलें. खंय तो खालमानेचो दादा-वयनीक उलट उत्तर सोडच, दोळ्यांक दोळो लेगीत दिनासलो. मुकुंद आनी खंय हो आयजचो, पोटांत खदखदत्या उज्याचो स्फोट जणू काय रवळनाथाचो भार येवन खुदता हो.

''आगो ताई, यश तुका पिक्चराक व्हरपाक आयला. चल, बेगीन भायर सर. आनी दादा, असों  कितें पळयता तूं? त्रास नासतना बाबाक दिल्ल्या वचनांतल्यान मुक्त जातलों तूं. आशिर्वाद दी तांकां.''

मुकुंद उलयतालो आनी शेखर ताका केन्नाच पळोवंक नाशिल्ले भशेन पळयतालो.

इतल्या वर्सांनी ताच्या मनाच्या ताळांत कितें तरी धवळिल्लें. पयलींचो शेखर जिवो जातालो. ताची नदर नीनाचेर पडली. सोंशीकसाणीची ती मूर्त. कितें कितें सोंसलें पोरान. आनी आयज मुकुंदाच्या धिरार तें मार्ग सोदतालें आपलो. रोहिणी फडफडटालें. नीना वतकच अडचणीचे दोंगर उबे रावतले. घडये रोहिणीक नोकरी सोडची पडटली.

''दादा, घरांतलो जाण्टो तूं. तुज्या निर्णयाची आमी वाट पळयतात. आसा न्ही तुजो आशिर्वाद?'' मुकुंदान म्हणलें. नीना दोळ्यांत जीव हाडून दादाच्या तोंडाक पळयतालें.

कसलो निर्णय दितलों हांव? आनी लोकांक कितें सांगू? मेवणो शाळेंत प्यून आसा म्हणून? सगळीच अप्रतिश्ठा. आनी रोहिणी कडेन लग्न जायत सावन सगळे निर्णय तेंच घेता न्ही! हांव फकत नंदीबैला भशेन मानो हालोवपाक. आतांय रोहिणी ताका कितें तरी खुणायतालें. पूण आयज दादान एक केलें. रोहिणीक फाट करून दोनय हातांनी नीनाक वेंगायलें आनी तो येदो व्हडलो दादलो भुरग्यां वरी हो हो करून रडूंक लागलो.

***

# फकत पाडें चिंतपाक

लक्ष्मी ओगीच काचाबूल शी जाल्ली. दोन-तीन वेळा तिणें माईक म्हळें- ''आमगेर आज जेवतना कोणाचेर राग काडत... कळना... आमगेर आज सारके जेवल्यार पुरो...''

परती-परती काना कडेन पिरपीर आयकून माई बेजारली. तिणें लक्ष्मीचेरच धेंगसो घालो- ''आतां विस्वण पोंवशेल्लो आसलो तातूंत तूं कितें करतली? पोंवशे विस्वणाचे हुमण तोंडांत घालूं येता?... तो तळल्यारच तोंडांत घालपाचो.''

भानून मदींच तोंड घालें- ''पूण आई, आप्पान नुस्तें दितना म्हाका सांगिल्लें- विस्वणाचें बरेंऽ रोसांतलें हुमण कर म्हणून सांग आनी बांगडे चरचरीत तळूंक लाय म्हणून... म्हजेर कांय ना हां... हांवें ज्युस्त सारकें सांगिल्लें...''

''तुजीं आनी शाणेपणां नाकात रे हांगा...! चल, तुज्या अभ्यासाक बस तूं...'' आज्जेन नातवाक तापयलो.

पूण जेवतना आप्पा तापलो, तिडकलो तर नाच; बेजारलो लेगीत ना. वेल्यार खुशालसो दिसतालो. विस्वणाचें पोस्त रुचीन खायत खायत ताणें म्हळें- ''आज वसंत मेळ्ळो वाटेरच... आतांच आयला दिसता पुण्याक सावन... खूबच त्रासांत पडलो बाबडो...! येदेशें तोंड जालां पोराचें!... म्हाका पळोवन दोळ्यांत दुकां काडलीं ताणें...!''

''...आतां दुकां काडून कोणाक दाखयता खंय? केलें तें भर म्हणून सांगचें आसलें...'' माईन म्हळें.

''तुजें खरें माई... पूण आपलो मनीस म्हणून कितेंय कर्तव्य आसा न्ही

आमचें...''

''-हें पळयात, तुमी नाकात पडूंक ते भानगडींत. हळशिकेंत फातर मारल्यार आपल्याच आंगार उसळपाची...'' लक्ष्मीन घोवाक सांगलें.

भानू, शकू मोन्यानी जेवतालीं. आप्पा, आई, आजी कोणाच्यो खबरी करतात, हें तांकां बेस बरें खबर आसलें. जाण्टीं खबरी करतात तेन्ना आपणें मदींच तोंड घालचें न्ही, हें तांकां अणभवान आतां पाठ जाल्लें... आनी आपाचो खुटलो पडप म्हणचे सामान्याची दूख नासली... भानून मागीर शकूक हळूच कोपरान धोंगशिलें. शकू विच्चच करून हांसलें.

पोरां वयाच्या मानान बरींच हुशार आसलीं. वसंतकाका आनी विनिताकाकी हांचे भितर मोग चलतालो तेन्ना हींच तांचीं पोशटमन आसलीं. आनी आतां विनिताकाकी कोणाचे स्कुटरी फाटल्यान बसून भोंवता ह्यो चाडयोय तांणीच केल्ल्यो.

माईन मोठ्यान सुस्कार सोडून वरशे करून देवाक हात जोडिल्ले भशेन केलें... अशी-अशी तकली हालयली... संवयेन सगळींच समजलीं -आतां माईलीं तत्वज्ञानां सुरूजातलीं म्हणून...!!

''-मनशाचें कांयच सांगू नजो रे सायबा! आनीक कितें जाय आसलें हे विनितेक? काय बरो घोव, घरदार, बेसभाट... घरांत वावराडी, चेडूं... राणी कशी दवरिल्ली हिका वसंतान!... आनी ही अवदिसा- खंयच्यान येवजली काय म्हणटां हिका?... कांय खरें न्ही रे सायबा... कांयच खरें न्ही!... कोणाचें चित्र कोणाच्यान काडूं नजो...''

माईच्या मनांत आनीकय जायतें उलोवचें आसलें... पूण मदींच तव्यावेलें नुस्तें करपल्ल्याचो वास आयलो. ती आनी लक्ष्मी... दोगांय सोमतींच रांदचे कुडींत धांवलीं.

वसंत आप्पालो बापोलभाव. आप्पाले आनीक चार सख्खे भाव आशिल्ल्या कारणान आप्पाक बापायल्या भाटाचो बी पांचवो वांटोच मेळ्ळा... आनी वसंत काकालो एकलो एकसुरो चलो... काकालें सगळें भाट-बेंस, इस्टेट वसंताक! आप्पाक ह्या कारणान वसंताची सामकी नसाय जाताली. तातूंत वसंत हुशार... ताणें शेतकी- विशयांत ग्रॅज्युयेशन करून

घरचीं शेतां-भाटां वावर करून वयर काडिल्लीं... घेऽ म्हणून पिकां घेतालो... हाची तर आप्पाक सामकीच कुन्नाटकाय जाताली. वसंतान जेन्ना विनिता कडेन लग्न जावपाचें थारायलें तेन्ना आप्पा, लक्ष्मी-माईन व्हडलो खवदळ घाल्लो.

तांचेंय बरोबर आसलें! घराण्याची सून बऱ्या कूळ-गोत्राची नाका? सुंदर जालें म्हणून कितें जालें? चलयेचें कूळ-गोत्र पळयात काय ना?... कोण खंयचें अनाथ चली...! आवयबापूय ॲक्सिडेंटांत सोंपलीं... भावाक कोण शेजारचो किरिस्तांव घेवन गेलो... आनी मोर्तू पसरकारान बायले वटच्यान सोयरें म्हणून ह्या विनिताक घरा हाडलें, पोसलें, शाळेंत घालें... विनिताय बी आपल्याच्यान जाता तशें घरकामांत हातबोट घालून आपलो अभ्यास सांबाळून एसएससी मेरेन शिकलें. मोर्तु पसरकाराक दुकानारय आदार करूंक लागलें...

...आनी ताचेर न्ही भाळ्ळो हो वसंत!!

...मागणी घालून लग्न केलें ताचे कडेन...!!

आप्पाक तेन्नाच तिडक मारिल्ली.

आरे! आमी कितें मेले? आवय-बापूय मेले जाल्यार कितें जालें? हांव... तुजो व्हडलो भाव जितो आसा न्ही अजून... बापोलभाव जाल्यार कितें जालें? भाव न्ही जालो? म्हाका एका उतरान म्हणिल्लें जाल्यार हांव फुडाकार घेवन करचों नासलों तुजें लग्न?...

लग्न कार्य म्हळें की देणें-घेणें, मान-पान, म्हूर्त थारावप... पत्रिका छापप... आमंत्रणां करप... कितलीं कामां आसतात!... आमीच करपाचें न्ही ताचें! आनीक कोण आसा ताका?.... हांव आनी आमगेली यजमानपण करून करचीं नासलें हाचें लग्न?

...पूण हो वसंत मानता? रजिस्टर लग्न करून देवळांत वचून माळ घाल्या... हे कितें लग्न जाले? गांवाक व्हडले जेवण घालें म्हणून कितें जालें? मोगांत पडलो न्ही त्या विनिताच्या...? कुड्डो जालो कुड्डो!! भोग आतां तुज्या कर्माची फळां...!!

आप्पा आपले भितरच बडबडत आसलो. खरेंच पोटतिडकीन

उलयतालो...! ताच्या उतरांक हय-न्हय सो संतोशाचो वास मारतालोच!

"आप्पा, आप्पा, तीं आत्तां गेलीं... स्कुटरीचेर..." भानू धांवत-धांवप आयलो.

सामको खरशेतालो पोर! बापयच्या ह्या उतळ तापांत आपणेंय कितेंय हातभार लावपाचो ताचो हावेस खरेंच तोखेवपाचो!!

"आप्पा, विनिताकाकी फाटल्यान बसल्या..." हातान कमराक वेढावपाची कुरू करून ताणें परतेंऽ सांगलें.

- आप्पाच्या दोळ्यां सामकार विनिता उबें रावलें... काळ्याश्यार मोठ्या मोठ्या दोळ्यांचें... तांबड्याच हांसकुऱ्या ओठांचें... स्कुटरीचेर तो ताचे फाटल्यान ताका वेंगावन विनिता... हांवें दोळ्यांनी पळोवंक ना... पूण भुरगीं सांगतात न्ही?

तोय बी तसोच उंच... राजबिंड खंय! गोरो... कसल्या नसांवांचो कोण जाणां? व्हडली दोन बॅगां घेवन आयलो खंय...!! खंयच्यान काय???

आयलो तो आयलो. विनितेक भुलोवन घेवन गेलो...!

वसंत घरा नासलो, कसलींशीं माक्नां बी हाडपाक पुण्यांत गेल्लो ख*य दोन दिसां खातीर...!! काम बेगीन जालें म्हणून एक दीस पयलींच घरा परतलो...!!

- घरा यो जाल्यार दाराक कुलूप!!

लोकांनीच मागीर सांगलें-

- असो स्कुटरवालो आयलो... असो भितर सरलो!! दीसभर घरांत रावलो...

- कशीं तीं दोगांय हांसत-किटकिटत भायर सरून स्कुटरीर बसून गेलीं.

एद्देशें गांव हें!... गांव खंयचें? खेडेंच!! एक फोगेट फुटल्यार सगळ्याक फां-फां जावपाचें!

मोर्तू पसरकार खबर कळना फुडें बायलेक घेवन धांवतच आयलो. विनिताक समजावपाक... कितें जालां तें पळोवपाक... पळय जाल्यार घराक कुलूप!!

मुंडकार, कामकरी, भागेली... सगळे इल्लेशें तोंड करून वसंताक घुरी

घालून उबे...!!

...वसंत आयकून भांबरेलो... सतर वितर जालो...

- आपलें कितें चुकलें?... खंय चुकलें??

तळटालेलो फोड कसो विनिताक सांबाळ्ळें... ताचो मोग केलो...

- आनी तें तर... म्हाका कांटो तोपल्यार दुकां ताच्या दोळ्यांत येवचीं...! हांव रुचीन जेवल्यार ताचें पोट भरचें... अशें तें!!

- आनी अकस्मात अशें उठून वतलें?... म्हाका सोडून वचूंक शकतलें??? ना! ना!! केन्नाच ना!

तें येतलें आनी म्हाका खरें कितें तें सांगतलें!

विनितावेल्या उपाट विस्वासान तो सडसडीत उठलो... आपल्या कामाक लागलो.

...कामाचे मनीस, भागेली, मुंडकार... जमिल्ले सगळे चमत्कार पळयिल्ले भशेन ताका पळयताले...

हां असो कसो आमचो भाटकार?

- इतलें रामायण घडलें तरी ओग्गी!! सदचेवरी कामाक लागला...??

आनी कोणय आशिल्लो जाल्यार घालून घेतलो आशिल्लो...

...तिच्या फाटल्यान वचून केश्टांक धरून तिका ओडून हाडटलो आसलो...

- कांयच ना जाल्यार पिकासांवान 'कुट्ट' करून सुद्द वगडावन बसलो आसलो...

- कसलो जावचो जाणा हो!!

हरशी मनीस रेक्त!... म्होंवाळ वाणयेचो... कामेऱ्यांक धरून सगल्यांक रेस्पेदान वागोवपी...

- पूण येदें व्हडलें रामायण घडून ओग्गी रावप? छे...!! कशें समजना...

एक दोग जाण आपूण ताचे सामके विस्वासाचे समजताले जिवाक... तांणी ओगीच तकली खरपीत भाटकारा कडेन प्रस्ताव केलोच.

"...भाटकारा... होनीबाय!!"

"हां! हां! ती गेल्या ती मरे? येतकच कळटलें आमकां... कोण... कितें. कात तें! तिणें सांगलें बगर आमकां कशें कळपाचें? न्ही? येवं दी तिका...

"भाटकारा... होनीबाय येतली?"

"दुबाव आसा तुका? ती येयसर आमचें काम पुराय करुया... माडयांचें शिंपण उरलां मरे?"

कामेऱ्यान मुकाट्यान कल्लें उबारलें... सगळे माडयो शिंपपाच्या वावराक लागले.

वसंतानाय कामाक ढिलाय केली ना. येता ताका सामकार वचपाची वृत्ती ताची! विनितावेल्या आपल्या मोगाचो विस्वास ताका तारतालो.

...आज येतना वाटेर कितल्या लोकांनी ताका शिटकालो... मनांत दुबाव घालपाचो यत्न केलो...

- ताचो व्हडलो बापोलभाव... आप्पा! तो तर सामक्यो मिटकुल्यो मारून ताका खबर सांगतालो.

- तेय परिस्थितींत वसंताक हांसूंक आयलें.

- तो आप्पा म्हळ्यार...!! कोणाचेंय बरें जाल्यार परवतलो... आनी कोणाचेंय वायट जावं दी- सामको रुचीन उलयतलो.

वाटेर दिसना फुडें म्हाका कसो थांबयलो...

"...वसंत, जालें मरे आतां समाधान? वडील म्हणून आमकां मातशे मानिल्ले जाल्यार असो त्रासांत पडचो नासलो तूं!... खंयचें कोण दळदिरें पोर... ताका केली राणी... आतां भोग ताची करणी..."

"कितें जालें?..." वसंत खरोच काचाबूल जाल्लो.

"...गेलें न्ही खंयच्या वाटेवेल्या वाटसरा बरोबर ताचो हात धरून...!

वसंताक सामकी भिरभिरी मारिल्ली...

"आप्पा, तोंड सांबाळून उलय... तूं कोणा विशीं उलयता?"

"त्या XX विशीं उलयतां... तोंडाक येतात उतरां... तुका लागून काळीज तुटता..."

"मागीर तोंड सांबाळ... तें फुटत चड उलयल्यार..." वसंतान रागान थरथरत सांगिल्लें.

आप्पा अजापान ताच्या तोंडाक पळयतच उरलो.

"...पापया, सामकोच मोगान तुका कुड्डो केलो? तुगेली बायल... ताचे स्कुटरीर बसून, ताका वेंगावन... बसून गेली... कोणाकच कांयच सांगतना..."

"तुवें ताका थांबयलें? तुवें ताका विचारलें..."

"ना... म्हणचे हांव तेन्ना थंय नाशिल्लों... म्हाका भुरग्यांनी सांगलें..."

"आनी तें वेंगावप बी येद्देश्या पोरांनी तुका सांगलें?"

"लोक तुजेभशेन कुड्डे न्हय! जायत्या जाणांनी ताका पळयलां तिका स्कुटरीर वतना..."

"तुमी म्हजे इतले बरें मागते जाल्यार ताका विचारचें तरी आसचें... बाये, तूं खंय वता काय म्हणून?"

"लोकांक कित्याक लागतात... गांवां वेल्या राटावळी?"

"हय मरे! मागीर मुकाट्यान आपापल्या वावराक लागया आमी... दुसऱ्यांचो वेळ पेड्डेर करू नये...'

सडसडीत सायकलीचीं पेदालां मारीत वसंत पयस पावील्लो. आप्पा आंऽ करून ताका पळेतच उरिल्लो.

पूण ही सत खबर घरा सांगल्यार तो आप्पा कसलो? वसंत बाबडोऽ जावन आपले मुखार कसो रडटालो, हेंच ताणें घरा सांगपाचें थारायिल्लें...

...सांजेचो स्कुटरीचो आवाज आयकून शेजार पाजारचे सगळे दोळे वसंताच्या दारार... पोरां लेगीत अशीं भायर येवन उबीं...

विनिता स्कुटरीवेलें देंवलें तें धांवतच वसंतासरीं गेलें.

"-आरे, तुमी केन्ना आयले? फाल्यां येवपाचें आसलें न्ही?... आनी हो कोण आयला पळयलो? वळखले?... ना तुमी कशे वळखतले? ताका केन्ना पळोवंकच ना तुमी...!! हो..."

'राव! राव! फुडें उलोवं नाका... म्हाका वळखूं दी..." वसंतान एक

नदर त्या तरणाट्याच्या हांसकुऱ्या मुखामळार घाली... विनिता भशेन आशिल्ल्या मोठ्याशाच दोळ्यांक दोळो दिलो आनी म्हळें- 'हो म्हजो मेवणो... विनय... न्ही? ॲक्सिडेंटा उपरांत तुका मावशेन हांगा हाडलें आपल्यागेर... आनी शेजाऱ्यान हाका आपले बरोबर कुवेटान व्हेल्लो तो... मॅकानीक... न्ही?''

''सामके बरोबर...'' विनितान हांसत म्हळें. आनी शेजारी... भागेली... सगले बेजार!

-आरे, हाचे आनी होनीबायचे तोंडार नदर मारल्यारच कोणाकय कळपाचें मरे... हीं भाव भयणां म्हणून!! खंय गेली रे आमची बुद्द? फकत पाडें चिंतपाक?

***

# बायलोच

'संचिता, संचिताऽऽ एऽ सांचीऽऽ रमाबायन उलो मारलो. तशें संचिता भायर आयलें. रेखा, रेश्मा, पृथा आनी तें खांब्यांनी खेळटाली. खेळ सांमको रंगान आयिल्लो आनी तांचो हांशाचो खळखळय बी, अशा वेळार दिस्त आज्जेलो उलो...

संचिताक जीबेच्या पोंतान हाताच्या पंजा फाटल्यान थुकी लायली. ''म्हज्यो आमेट्यो गोऽऽ'' म्हळें आनी तें धांवतच घरा कडेन शेंवटले. आवय दारांतच उबी आसली.

''कितें जालें गो? अशें खरशेता कित्याक?'' तिणें विचारलें.

'आजी उलो मारता न्हय गे''? म्हणून धांवत आयलें. रेखा, रेश्मा बी बरीं खेळत आसात... म्हाका मात... म्हज्याच फाटल्यान कित्याक. ?''

''बरें! बरें! चल, आजी कित्याक आफयता पळय...'' आवयन म्हळें...

''आजी मागीलदारांत नुस्तें उजरायताली.

''आजी, कित्याक गे उलो मारताली? म्हजो खेळ पाडा घालो...''

''आगो, तिसऱ्यो उजरावंक शिकय म्हणटालें न्ही तूं?... चल, ही ती दुसरी आदोळी घे आनी बस हांगा...'' रमाबायन फर्मायलें.

''हांवें?... आजी, हांवें केन्ना सांगिल्लें गे? म्हाका नुस्त्याक हात लावपाक वीट येता...''

''वीट येता? आनी खाता बरें मगो?... परतें परतें मागून...

''आजी, तूं तें बरें करून करता न्ही गे! चरचरीत तळता.... खांयन दिसता... तेंफळ घालून बरें आंबट तिख्ख करता... वासानच खांयन

दिसता... घमघमीत मसालो घालून मोरयेचें बी तोणाक करता... जिबेक उदक सुटता...? पूण हरव्या नुस्त्याक हात लावप...? हांव ना...'' ताणें आंग शिरशिरायलें.

''हांव ना म्हणजे कितें गो? चड जालें तुजें आतां... सगलें शिकूंक जाय. पुस्तकांच शिकलीं म्हूण जायना. घे ती आदोळी'' आजेच्या उतरांत कडकपणा आसलो.

संचितान मागीर नाका-जाता करून आदोळी हाडून आजये मुखार फोडली...

''आपटिली कित्याक गो? चलयेचे जातीक अशे धोड-फोड करूं नजो...''

''चल्यांनी केल्यार जाता... न्ही गे?'' संचितान कुचित्र्यांनी विचारलें.

''साच्ची, चड जालें हां तुजे! जाण्ट्यां कडेन सारकें उलोवंक करूंक शीक... तुकाच बऱ्याक पडटलें. ''रमाबाय तापलीं. मागीर आवाजांत मातशी मोवसाण हाडून तिणें म्हळें.

''बाय, ही पळय, ही तिसरी अशी धर... मदेकाकच आदोळेक लावन उक्ती कर... मागीर उजव्या हातांतले शिपयेन दाव्या हातांतले शिपयेंतले मांस अशे करून एकठांय कर आनी दावी शिपी जमनीर उजवी शिपी तोपांत...

संचिता रागानच आदोळेचेर बसलें. आजयेचें पळोवन पळोवन दोन-चार तिसऱ्यो उजरायतनाच ताका मज्जा दिसूंक लागली. आनी मागीर तें तातूंत सामकें गुंगून गेलें. पटापट-पटापट तिसऱ्यो कल्लावंक लागलें.

''ए' आजी, ह्यो पळय जाल्यो म्हज्यो तिसऱ्यो उजरावन? तूं खंय शेणलीं?... हांवें पळय कितल्यो कल्लयल्यो...''

''आगो बायेऽऽ! हय मुगो!'' आज्जेक नातीची अपुरबाय दिसली... पोर शिकयता तें रोकडेंच आपणायता... पूण सुबेज! शारांत रावन आयिल्लें न्ही?

रमाबायन संचिताची सख्खी आजी न्ही. बापायची काकी... घरांतली जाण्टी...'' घरांतल्योसगळ्यो बायलो तिचे मुखार जाप काडिनासल्यो.

आनी भुरगीं तर थर्त भितालीं तिचे कडेन कितेंय उलोवंक. एकल्या संचितानच तिका बोल्सांत घाल्ली. तीय बी संचिता कडेन वागतना मोवसाणेन वागताली... बापूय नाशिल्लें पोर...!!

संचिताची आवय-सुजाता शारांतली. नोकरेक लागून संचिताच्या पापान पणजे बिराड केल्लें. संचिता धा वर्सांचें जायसर पणजे शिकतालें. पापान ताका कसल्या कसल्या क्लासांत घाल्लें... तें कराटे शिकतालें... कला अकादेमींत नाचाच्या क्लासांत वतालें... बालभवनांत वतालें...

पूण अकस्मात संचिताच्या पापान काळजाचो आताक येवन तो सोंपलो आनी संचिताची शारांतली जीणय सोंपली. सुजातान ब्युटीशियनाचो कोर्स केल्लो आनी ती शारांत तें काम करताली. आतां हांगा गांवांत कितें...''

पूण सुजाता धीराची बायल आसली. येता तशे दीस काडूंक जाणा आसली. ह्या चोवगांच्या घरांत खेळीमेळीन रावंक पळेताली. आपले परीन हांगाच्या जिणेक रस घेवंक सोदताली. पूण ती मातशी मोट्यान हांसली की जावो रोकड्योच थक्क जावन पळेताल्यो. तिणें उमेदीन कितेंय सांगूंक गेल्यार अजापान पळेताल्यो. सुजाताच्यो मागीर घुसमटमार जावप. संचिता कडेन पळोवन ती आपलें दुःख विसरायेर घालताली.

संचिता आंगान मातशें घसघशीत! धा वर्सांचें तें चली पूण दिसतालें. बारा तेरा वर्सांचें! तें शाळेंतल्यान घरा पावसर रमाबायक हुस्क्यार हुस्को जावंक लागलो. मागीर तिणें बडबडप पेपरांत कसल्यो कसल्यो खबरो येतात. सदांच बायलांचेर आनी चली भुरग्यांचेर अत्याचार जातात त्यो खबरो खंय बलात्कार... खंय. विनयभंग... ल्हान ल्हान भुरग्यांचेर आगळिको... वेल्यान मारून आनी वडयतात खंय... शी! शी...! मनीस न्ही गे बाये! राकेस सामके!... भुरगीं घरा पावसर म्हजो जीव गळ्यांत येता...

संचिता व्हड जाता तशें आजेक चड हुस्को जावंक लागलो. ताका घरा पावपाक मातसो वेळ जाल्यार तिका कळवळूंक लागप...

सुजातान कितलें सांगलें... ताका आज स्पेशल क्लास आसा म्हणून सांगून गेलां... परिक्षा लागीं पावल्या म्हणून... पूण आजेचो कळकळो

कसोच जाग्यार पडनासलो.

''साच्ची, आजकाल वातावरण बरें ना हां. सरा कडेन बी सांबाळून वागचे... चड लागीं वचनये... चल्या भुरग्यां कडेन इश्टागत बी दवरची न्हय. एकटे बी येवनाका हां... सगळ्या मैत्रीणी बराबर येवंक जाय. भायर ते मेल्ले दादले कसल्यो कसल्यो आगळिको करतात खंय...

''आजी, पापान म्हाका कराटे क्लासात घाल्लें न्ही. कोणूय तसलो भेटलो जाल्यार हाऽऽ हूऽऽ करून हांवच ताचेर आगळीक करपी...

''तूं दादल्याचेर आगळीक करतले?'' आयकून आज्जेच्या काळजांत खप्प जालें.

''म्हणजे ताका बरोच पेटयतले गे... फांफरांनी मुठीनी... असे फांफार घालप... अशो मुठी मारप... संचिता प्रात्यक्षिक करूंक लागलें.

''पुरो! पुरो! आगो उडयो मारून नाचप बी चलयांक सोबना...''

'आगे, ताकाच संरक्षण म्हणटात...''

''ओग्गी बस! म्हाका शिकयता? चड सुबेज जालां तूं! आजेचें तापले तशी संचितान भंयानूच कूस मारली.

बाकीचीं रेखा, रेश्मा बी आजये सामकार सामकी बाबडी जाताली. ती सांगता तें आयकतालीं... हय म्हणपाची... ती सांगता तशें वागतालीं.

संचिता शारांत राविल्ल्यान चड सुबेज जालां अशें सगळ्यांचें मत आशिल्लें.

चवथी कडेन सगळ्यो बायलो न्हांवन धुवन सवळी न्हेसून रांदचे कुडींत बोवाळटाल्यो, गॅसार तोपांत कोंबयल्ले मूग शिजताले. ताचीं थोडीं कल्लां उरिल्लीं तीं वयर आयलीं. सुजातान सट करून दवलो घेवन तीं कल्लां काडलीं, आनी मागीर एकच बोवाळ...

''आगे तुवें कित्याक हात घालो...''

''शी बाये! हिका म्हणून कांयच कळना...''

''आगे, देवाच्या निवेद्याचे जेवण न्ही? तें आयेव बायलांनीच रांदपाचें! विधवा बायलेच्या हाताचो देवाक निवेद्य जायना...''

''भश्टयले मगे तुवें सगले मूग?''

''तूं आफुडलीच कित्याक...?

सुजाता सगळीच काचाबूल जाली. तिका कितें करचें तेंच कळना जालें. दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हांवयत ती पयस सरली.

मागीर फाल्यांक मूग कोंबांवक घाल्यात तांतले मूठभर काडून वेगळे शिजोवन देवाच्या निवेद्याच्यो मुगागांठी केल्यो.

''आगे, तूं भाजी शिनप, सोय कातप असल्या वावराक हात घाल... रमाबायन सुजाताक सांगलें. 'रांदनी कडे, गॅसा कडेन वचनाका ह्या दिसांनी...''

आवय रडटा तें पळोवन संचिताच्यान रावंनजो जालें. ताणें म्हळें काकी, आई न्हावन, सोवळे न्हेसून आयल्या मगे किचनात! तिणें हात लायल्यार कितें जालें...? आईक कित्याक रडयली तुमी?''

''हें आयलें आतां आमकां शिकोवपाक... चल भायर. तुका नाकात त्यो राटावळी...'' काकीन संचिताक भायर धांवडायलें. संचिता तडक आजे म्हऱ्यांत गेले,'' आजी, माईन रांदल्यार देव कित्याक जेवचो ना?''

''आगो पापणी कांयच रीत भात शिकोवंक ना तुका आवयन? आनी तुका रीत कशी आसतली? तिका कळ्ळ्यार तुका शिकयतली मूं ती? आगो, देवाक सवायशीण बायलांर्नीच रांदपाचें आसता... विधवेच्या हाताचें चलना...''

''आनी सवायशीणीक कितेंय अडचण आसल्यार देवाक उपाशी दवरप?''

''उपाशी कित्याक पडटलो देव? पोरूं विठ्ठल रांदप्यांक आपोवन तांचे कडल्यान घेतलें ना रांदून? एकली बाळंत आनी दुसरेचो हात लागना म्हणून?''

''पूण विठ्ठल रांदप्याची तर बायल मेल्या मगे. तो विधूर न्ही? ताचे हातचें कशें चलतलें?

''आगो, तो दादलो न्ही''

''आनी बायलांनीच कसलें पातक केलां तर?''

''तुज्या तोंडाक लागचे कोणे गो? सुवाद नाशिल्लें उलयतलें... चल

थंयचे ओंवाळून...? आजी तापली. संचिता पाय आपटीत गेलें. आनी रमाबाय येवजूंक लागली. ''पयलींच शाराचें वारें लागलां... सुबेज आसा तोंडान... तातूंत पत्रिकेंत मंगळ आनी आसा... बापूय नाशिल्लें पोर...! बरे भाशेन एकदाचें लग्न बी करून हाका आवियार केलें म्हणजे सुटलें हांव ताच्या जापसालदारकेतल्यान.

संचिताच्या मनांत आवयचो अपमान मात धुमसत उरलो. राजेशकाकाच्या शांतीच्या फुलांक सुजातान बरी.. बेंगलोरी रसमी साडी हाडली ताका दिवपाक. सगल्यांक दाखयली. शांतीक तर ती खूब आवडली.

इतल्यांत धाकल्या काकीन म्हळें...'' आगे, तूं बी होटी दिवंक वचशीत हां...! हाड... म्हजे कडेन दी ती साडी... म्हजी होटी दितना हांव दितां ती...''

''आजी, आईन शांतीताईक हाडिल्ली साडी तिणेच कित्याक दिवंक जायना गे?'' संचितान विचारपाचेंच...

''आगो, बऱ्या प्रसंगांत विधवा बायलेन वचून दिवंनजो... अपशकून जाता...'' आजेन सांगलें.

सुजाता मागीर ओग्गी रावन हॉलांत गेलें. बायलांक वांटपाचे लाडू परातींत काडून दवरूंक लागलें. तिच्या हातांतलो लाडवांचो पांटलो ओडून घेवन व्हडल्या काकीन म्हळें... तूं भायर वचून जेवणा खाणाचें मांडलां ताची वेवस्था पळय... लाडू वांटपाचें हांव पळयतां हांगा....''

सुजाता भायल्या हॉलांत गेलें, तशे हांगा बायलांच्यो खबरी सुरू जाल्यो...

''पळय गे बाये... ही लाडू वांटूंक आयिल्ली...

''आनी कितें तर! चडच सुदारल्या... न्हेसल्या कशी पळय... चकचकीत जरीची साडी!!... घोव गेल्यार वर्सच जालां... आनी कशी बोवाळता पळय...''

''एका जाग्यार ओगी कुशीन बसचे... तें ना...''

मागीर काकीन म्हळें... 'आसूं गे, भोगूं तें! ती शारांतली न्ही?

गांवच्यो रितीभाती तिका खबर नात... आनी तितल्यारच बायलो मातशी ओगी पडल्यो.

संचिताच्या जिवाक मात उजो पेटिल्ल्या भाशेन जालें... आई बरी साडी न्हेसल्यार हांच्या पोटांत कित्याक दुखलें... ?

आनी सीमीच्या साकरपुड्याक तर ताच्यान सोंसूंक जायना अशी खबर घडली.

सीमान म्हणलें... ''काकी, तूं ब्युटीशियन न्ही? तूच म्हाका भायर काड हां...

सुजाताय मागीर उमेदीन वावराक लागलें. केंसांची सुंदर स्टायल केली. सिमाच्या मुखामळार ती खूब सोबली. मागीर हातार क्रीम लावन ती ताका लावंक लागली.

इतल्यांत आजी थंय पावली...

''आगे, तूं कितें करता हांगा? सिमाक भायर सरूं दी...

''आई सजयता ताका आजी... कितलें सुंदर दिसता पळय. सीमाताई... आईन कोर्स केला सजवपाचो... तुका खबर ना?''

''कांय गरज ना. खंय मेली बाकीचीं सगळीं? सीमाक भायर काडूंक हिका सांगलां?

आज्जेचो बोवाळ आयकून सगळीं धांवत आयलीं. संचितान आवयच्या हाताक धरलें आनी म्हळें... चल आई, तुज्या रुमांत चल, ह्या सवायशिणींकच सजोवं दी सीमाताईक... नाजाल्यार अपशकून बी घडत...

दुसरे दिसा सकाळीं च्या पितना काका पेपर वाचतालो. सदचे भशेन ताचें चालू जालें तोंड... ''शी शीं... पेपर उकतो केलो की एक तरी बायलांचेर जाल्ल्या अत्याचाराची खबर आसताच...! हांगा पळय चार दादल्यांनी...

संचीता एकदम उसळ्ळें... आनी दादले सोड काका... बायलांनी बायलांचेर केल्ल्या अत्याचारांक तूं कसो ओगी रावता तर? ताचेर किते उपाय आसा तुजे कडेन!!

''बायलो बायलांचेर अत्याचार करतात? कितें उलयता गो?

''तसो शारिरीक न्ही रे... मानसीक अत्याचार म्हणटा हांव. ह्यो बायलोच पुरो बायलांचेर आगळिको करपाक. पयर आईक हांवें फोर्सान शिगम्याचें नाटक पळोवंक व्हेलें देवळांत जाल्यार कमल आका बी सगळीं बडबडपाक लागलीं... 'घोव वचून वर्स जालें ना, ही लागली नाटकां पळोवंक... काल सीमाताईच्या फुलांक आई जरी साडी न्हेसली... थंय सगल्यो बायलां लागल्यो बडबापाक. कशीं पळय चकचकीत साडी न्हेसून बोवाळटा...''

''आगो संचीता... त्यो तसल्योच गो बायलो... तांच्या तोंडाक धरूं येता? आपणें ह्या कानान आयकून त्या कानान सोडून दिवचें.

''आनी घरांत तिच्या मनार घाये जातात ते? ते कोणें पळोवचें. चवथी कडेन मुगांच्या तोंपांत दवलो घाल्यार मूग भश्टलो मरे?

''आगो, बायलांच्या मनांत... देवसपणा गो ती...

''हय? तशें जाल्यार फुलां कडेन लाडू वांटपाच्या परातींतले लाडू काडल्यार घराची लज काडली तिणें? सीमाताईच्या साकरपुड्याक सिमाताई सजोवंक गेली तर आईन घाल्लो आंबाडो सोडोवन वडयलो. तोंड धुंवक लायलें... अपशकून जाता खंय. हें मनावेले घाय कोणें दादल्यांनी करूंक नात... बायलांनीच बायलांची अशी दशा करून वडयल्या... कोणच चिंतनात तीय बी आपले भाशेन एक बायल म्हूण... कितली खुशालभरीत आनंदीत रावपी म्हजी आई... सदांच हांसती... आतां पळय कशी सुकून गेल्या... खेदून गेल्या... तिची रयाच गेल्या... ह्या असल्या आगळिकांनी...''

संचिता बडबडत रावलें... घरांतल्यो बायलो आऽऽ करून तें आयकत रावल्यो... माना सकयल घालून...



# चांदुलो

“रुपेशालीं आनी अर्चनालीं परती झगडीं सुरू जाली हां...” आपान बायलेक जाणयलें.

प्रेमाहोनीक कोणाचींय झगडीं आयकुपाची मोठी उमेद हें आपाक खबर आशिल्लें. मुजरत तिका झगडीं आयकूंक भायर आपोवन आपा सत्री घेवन बाजाराक वचपाक भायर सरलो. सत्री अशा खातीर की ताका णव वरांचेर बाजारांत वचूंक भायर सरल्यार घरा परतो पावसर बारा जातलींच! आनी माया-म्हयन्याचें खर वत ताच्या खड्ड्याच्यान कशेंच सोसूंक जायनासलें. प्रेमाहोनीन बेगीबेगीन नुस्त्या-पोती ताच्या हातांत दिली आनी ती अर्चना-रुपेशाचें झगडें आयकूंक तांच्या रुमा वटेन गेली.

आठ रुमांचे ते चाळींत रुपेशाले आनी आपाले रुम सात आनी आठ नंबरचे. आठय रुमांक मेळून लांबचे लांब वारांद आसलो. त्या कारणान कोणेय कोणाल्याय रुमा वटेन पासय मारल्यार चलतालें. सगल्यांचो कॉमन वारांदो. तातूंत मालकी हक्काचो प्रस्नच उप्रासनासलो. आतां दार उक्तें दवरून झगडतल्यांचें आयकूंक येतलेंच न्ही?

“आतां ह्या माजरा पिलाक तूं व्हरून सोडटा काय हांव त्या ओंवळाक सांगू व्हरपाक?” अर्चनान रुपेशाक विचारलें.

“...आगो आसूं गो तें...! काय बरें मायेस्त माजर... कशें पांयांक घशटता जाणा हांव येनाफुडें!... कितलीं माया लायल्या ह्या चारच दिसांक ताणें... तूं लेगीत इतली माया म्हजेर करता काय नकळ हांव...”

“हाड... हाड तुजे पांय मुखार...” अर्चना ताणशेलें आनी रुपेश घुसपलोच.

''आतां पांय मुखार कित्याक?'' ताणें विचारलें.

''...ना! हांवय पांयांक घशटतां तुज्या... माया दाखोवपाक...'' अर्चनान सांगलें.

''शी... सायबा! तुजे कडेन उलोवपाची माणसुकीच ना. आगो, हांव फकाणांनी उलयतां ताचो कसोय अर्थ काडनाका.''

''आनी त्या माजराचो 'माजरयो' मात काड... अशेंच मू?''

''माजरयो...! म्हणजे!...'

''त्या माजरान किचनात करून दवरल्या ती हळशीक... गांठ विटली म्हजी...''

आतां मात रुपेश ओग्गी पडलो. मागीर ताणें म्हणलें- ''आमी चांदूक रातचें भायर दवरया...''

''तुगेल्या ह्या चांदूक चार वेळां भायर दवरून जालें. 'म्यांव-म्यांव' करीत सगली रात दार बुड्डीत रावता. मागीर रातभर न्हीद ना कोणाक?... म्हाका...!! तूं सुशेगाद घोरेत पडिल्लो आसता. कोणें पाडपडिल्ल्यान ताका आमगेर हाडून सोडलां ताचें हहह!''

वरांदांतल्यान पासयो मारतना प्रेमाहोनीन दोनय कानाक बोटां घालून कान घट्ट बंद केले आनी ताकतिकेन ती आपल्या रुमांत गेली.

खरेपणी आपानच तें माजर रुपेशाच्या रुमांत सोडिल्लें. आपाक तें ताच्या मेवण्यान -प्रेमाहोनीच्या भावान पोस म्हणून हाडून दिल्लें. पूण प्रेमाहोनीन 'आमगेर माजर इतलें नाका' म्हळें. आपान हळूच तें रुपेशाच्या रुमांत जनेलांतल्यान सोडिल्लें. रुपेशाक सुण्यांचो, माजराचो मोग! दारांतल्यान कावळ्याक लेगीत ताच्या मुखार शीता-गोटे उडोवपी रुपेश... जेवतना पांयां कडेन तें इल्लेंशें माजरा पील 'म्यांव-म्यांव' करून रडटा तें पळोवन ताका इल्ले गोटे कसो घालचो ना? आपान सगले येवजूनच तें पील रुपेशागेर सोडिल्लें. मेवणो केन्नाय घरा आयलो जाल्यार माजर शेजराक गेलां समजतलो आसलो. प्रेमाहोनी आपाली तकली कशी चलता तें पळोवन खूश जाल्ली.

अर्चनाक कपलार इल्लोसो चांदुलो आशिल्ल्या पिंगशा ल्हंवेच्या

माजरा पिलाची अपुरबाय दिसली. चार गोटे खावन तें पील रुपेशाल्या पांयाचेर लवंडून न्हिदिल्लें. अर्चनाक एक पिंजको तुवालो घडी करून कोनशाक दवरलो आनी ताचेर त्या पिलाक न्हिदयलें. ''हांगा न्हीद रे चांदुल्या.'' ताणें म्हळें.

आनी आतां चार दिसां भितर अर्चनाक तें चांदू दोळ्या मुखार नाका जाल्लें. पयलीं तें तांचे खाटीर वचून न्हिदलें तेन्ना अर्चनान ताका पयले थापट मारिल्लें. मागीर कोनशाक मुतप... किचनांत हळशीक करप... सगल्या रुमाक विचित्र घाण वास...!!! फिनेल म्हणून कितले वेळा घालपाचें? अर्चना वाजेलें... नाका तें माजरापील अशें ताका जालें...''

''हांव ऑफिसांतल्यान येतकच मागीर पळोवया.'' रुपेश हळूच कूस मारूंक सोदतालो.

''तूं ऑफिसाक वतनाच व्हर नी ताका.''

''आगो, म्हाका लेट जातलो. दिसा उजवाडे काय करना न्ही तें हळशीक...!''

''पूण काल दुदाच्या तोपांत तोंड घालें तें...?''

''ल्हान आसा न्ही गो तें! सारकें शिकय ताका... दुदा म्हऱ्यांत गेल्यार दोन थापटां फुलय... परतें वचचें ना...'' पांयात बूट चडतय रुपेशान म्हळें आनी तो घरांतल्यान भायर सरलोच. अर्चनान कपलार हात मारून कदेलार बसकण मारली.

सामकें अपुरबायेचें तोंड करून चांदू उडी मारून अर्चनाचे मांडयेर चडलें आनी उदारें पडून आपल्या दोनय दावकुलांनी अर्चनाचो हात धरून ताका फकाडांनी घास मारिल्ले भाशेन करूंक लागलें.

''आतां म्हाकाच खा.'' अर्चनान रागान म्हळें. तशें तें म्यांव करून अर्चनाच्या हातारच तकली तेकोवन न्हिदलें... म्हणसर आपले तांबडे-गुलाबी जिबेचें पोंत भायर काडून हात चाटिल्ले भशेन करूंक लागलें.

''आतां पुरो तुजो खेळ... म्हजे कडेन चड लागोळेपणा करूं नाका. सांजचो रुपेश घरा येतकच तोच व्हरून सोडटलो तुका...! चल पयली भायर...'' दारा कडेन बोट दाखोवन अर्चनान ओर्द सोडली. चांदू सामके

शाणेपणान दारांतल्यान भायर सरुन वारांदाच्या सोपणांचेर वताक वचून न्हिदलें.

प्रेमाहोनी न्हावन धुवन व्यंटेशस्त्रोत्र म्हणत भायर आयली, आनी सहजशें तिणें म्हळें- ''कितें गो अर्चना, अजून न्हावंक ना?''

''ना गे. ह्या माजराक लागून वेळ कितलो जालो तेंच समजना...'' अर्चनान म्हळें.

''माजर पोसलां तुवें? तूं सांगतालें खरें, तुजे कुळारा घरांत तीन-चार तरी माजरां आसतातच म्हणून.'' प्रेमाहोनीन साळसूदपणान म्हळें.

''आगे प्रेमाहोनी, गांवांतल्या त्या व्हडल्या व्हडल्या घरांनी माजरां-सुणीं कितलींय चलतात. हांगा येद्याश्या ह्या रुमांत आमकांच जागो ल्हान जाता, तातूंत ह्या माजरांक कोण पोसतलो? कोणे पाडापडिल्ल्यान आमच्या घरांत हें हाडून सांडलां ताचें हहह.''

अर्चना मुखार उलोवचे पयलींच प्रेमाहोनीन ताच्या तोंडार हात दवरलो आनी ताकतिकेन म्हळें,- ''आगो, आगो, ओगीच खेपनाका. तें पील आपूण जावनच तुमच्या घरांत आयलां जावंये! मोनजातीक न्ही, मनशाच्या मनाचो वास पयसुल्ल्यानच येता खंय...! कोण आपलो मोग करपी, कोण मनान कुसकें... समजता गो तांकां...''

अर्चनाक तिडक मारली. ''खरें काय कितें? माजरांक नुस्त्याचो, हुंदराचो बी वास येता तें आयकल्लें हांवें. पूण मनशाच्या मनाचो वास...? -आनी प्रेमाहोनी, तुज्या दारांतल्यान आमगेर येयसर... तुज्या मनाचो वास... ताका वास आयलो काय घाण आयली कोण जाणा?... पूण तूं कांय कुस्के मनाची न्ही...!''

''तुजे कडेन कोणे वाद घालचो? म्हजी भाजी आसा गॅसार... करपतली...'' प्रेमाहोनीन घरांत कूस मारली.

प्रेमाहोनीक कशें पुर्राद दिलें, अशें मनाक समजावन अर्चना हांसलें. ताणें सोपणार न्हिदिल्ल्या चांदू कडेन पळयलें. त्याच वेळार चांदून एक दोळो उक्तो करून अर्चनाक पळयलें आनी दोळे मोडीतशें करून परतो धांपलो. अर्चनाक चडूच हासूंक आयलें.

सांजचो  रुपेश मनांत कांचवेतसो घरा आयलो. चांदून धांवत वचून रुपेशा कडेन लागोळेपणा करीत म्यांव म्यांव चालू केलें. आतां हाका व्हरून सोड म्हणून अर्चना तापयतलेंच. रुपेशान मनांत गणीत केलें. आनी सामको पुरो जावन... जाम जाल्ले भशेन ताणें खाटीर घालून घेतलें आनी म्हळें-

"अर्चना, उदक इल्लें दी गो! सामकें पुरो जालां आज... पांय मोडून आयलें..."

अर्चनान बेगीबेगीन उदकाचा ग्लास हाडून रुपेशा मुखार धरलो. "कितें जालें? बस चुकली?" ताणें विचारलें.

"बस धरली कशी तरी. पूण सगळो वेळ उबो... पांयाक गुळो आयले सामके..." उदक पीत रुपेशान म्हळें, अर्चना च्या करूंक किचनांत गेलें. चांदून रुपेशाच्या पोटार उडी मारली आनी ताच्या हाताच्या बोटां कडेन खेळूंक लागलें.

"चांदू, खंयतरी लिपून बस... अर्चना आज तुका धांवडावन घालपाचें आसा..." रुपेशान चांदूचो कान ओडीत म्हळें. तशें चांदून हॅट म्हणिल्ले भशेन म्यांव करून मान झटकली. पूण रुपेशान ताका उबारून सकल दवरतकच आपूण जावन कोनशाक दवरिल्ल्या तुवाल्या बोंदराचेर वचून तें न्हिदलें.

"आसूं दी आयची रात चांदूंक. न्हिदचे पयलीं प्रेमाहोनील्या जनेलांतल्यान ताका तांगेर सोडचें." अर्चनान म्हळें आनी तें जेवणाचे तयारेक लागलें.

रुपेशान आपल्याक जाल्लें अजाप तोंडार दाखयलें ना. तो च्या पीत, बिस्कीट खायत बसलो. हळूच बिस्किटेचो कुडको ताणें चांदूवटच्यान शेंवटिलो. चांदूनय तो कुरू-कुरू करीत खाल्लो.

रातचो उजो जाता म्हणून आपा कुडीचें जनेल उक्तें घालून न्हिदता. आज जनेलाच्या वारावांतल्यान कितें तरी तांच्या रुमांत भितर सरलें अशें ताका दिसलें. पूण न्हिदेन जड जाल्ले दोळे...! ताणें दिवो लावन कितें काय पळयलेंच ना. ह्यो पाली, जल्ले चडच जाल्यात घरांत. तो बडबडलो आनी

कूस परतून न्हिदलो.

सकाळीं उठतनाच प्रेमाहोनीलो बोवाळ सुरू. 'कोणेतरी घरांत कोनशाक हळशीक करून दवरल्या म्हणून...!' मागीर तडक वचून ती अर्चना मुखार उबी रावली. ''आगो अर्चना, तुज्या चांदून पळय गो आमच्या घरांत येवन हळशीक केल्या...'' तिणें व्हडल्यान सांगलें.

''आमचे चांदू? तें पळय. कोणशाक आपल्या जाग्यार न्हिदिल्लें तें आतां दूद पिवपाक किचनांत येवन बसलां.'' अर्चनान बशयेंत दूद घालून बशी चांदू मुखार दवरली आनी आतां मारून मारून हांवें ताका शिकयलां- हागप-मुतप हें त्या माडामुळांत वचून करतां तें! कोणेंय माजर बी तुमगेर हाडून सोडूंक ना मू! सांबाळ बाये, म्हाका ह्या चांदून सुरवेक नाका पुरो केल्लें.''

प्रेमाहोनी तणतणत आपल्या रुमांत गेली आनी कागदां घेवन माजराची घाण काडूंक लागली. तिचो जीव विटलो सामको!

आनी मागीर ती चांदूची दुस्मान जाल्ले भशेन येतना-वतना ताचेर दोळे वटारूंक लागली. पासयो मारतना, व्यंकटेशस्तोत्र म्हणतना अर्चनाच्या असवडां चांदूचेर हाता कडेन मेळ्ळ्यार थापट, पांया कडेन मेळ्ळ्यार फांफार मारूंक लागली. ''अर्चना व्हरून सोड गो ताका खंय तरी. कित्याक त्रास काडटा ताचे?'' म्हणून अर्चनाक सुचोवंक लागली.

चार नंबरच्या रुमांतलो बसाप्पा भायर सरलो तेन्ना चांदू ताच्या मुखा वेल्यान धांवत भायर गेल्लें. तेंच निमित्त धरून प्रेमाहोनी ताका कोमार काडूंक लागली. ''देखो, ये माजर आडवें गया ना, अब काम इबाडेगा तुमारा... अपशकून होगा. पनवत लगेगी.'' बसप्पा मागीर रुपेशाच्या दारांत येवन फडफडपाक लागलो. ''ए रुपेश, तुम्हारा बिल्ली...! कायको उसको सबेरे-सबेरे बाहर निकालता? चार दीन हुआ... स्कूल जाते वक्त मेरेको अपशकून करता. रोज कुछ-न-कुछ लफडा होताच! कलसे बंद करके रखो उसको. मेरेन स्कूल जानेके बादच बाहर छोडो...''

प्रेमाहोनी ताका जल दिवपाक राविल्लीच! 'आरे माजर आडवे वचप बरें न्हीच! आनी कित्याक रे अर्चनाक त्या माजराचे त्रास काडूंक लायता?

पयलींच ताका बाबड्याक कामां थोडीं आसात?''... सोड त्या माजराक व्हरून खंयतरी.

पूण रुपेश त्या बसाप्पाचेर तापलो. ''आरे बसाप्पा तूम इतने शकून-अपशकून मानते? और स्कुल में सायन्स टीचर हो ना तूम?'' आनी मागीर सायन्स टीचरान अशें माजर आडवें गेल्यार शकून-अपशकून मानूंक जायना.. लोक आयकल्यार तुका हांसतले बी... अशें म्हणून ताका लेक्चर दीत रावलो... शेवटाक बेजारून बसाप्पा आपल्या कामाक गेलो.

आयज रुपेश ऑफिसाक वतकच चांदू अर्चना कडेन खेळपाक फुरफुरलें. ताचीं तीं लागोळेपणा, पांयांक दांत लावप ना पूण घांस मारिल्ले भशेन करप, थापट मारूंक गेल्यार हातच दावकुलांनी धरप... अर्चनाय ताचे कडेन खेळत रावलें. ''जाणां मुगो चांदू, आमगेर एक भुरगें जावं दी, मागीर तुका नाकापुरो करून सोडटलें पळय.'' अशें म्हणून अर्चना आपूणच लजलें.

दोळे धांपून अर्चनाली बोटां चाट्टालें त्या चांदून दोळे उक्ते करून ताच्या तोंडाक अजापान शें पळयलें आनी परते दोळे धांपले. अर्चनाक दिसलें, चांदू परतें आपल्याक दोळे मोडटा म्हणून... 'वच थंयचे उंवाळून... म्हजी फकांडां करता?... आनी आतां तुजे हागप-मुतप सगळे भायर हां! नाजाल्यार प्रेमाहोनीगेर वचून कर. चल पयलीं भायर...'' अर्चनान चांदूक धुकलून उडयलें. तशें तेंय म्यांव-म्यांव करीत वताक बसूंक गेलें.

इतल्यांत प्रेमाहोनीच्या रुमांतल्यान किळच्यो आयकूंक येवंक लागल्यो. आयदनां पडिल्ल्याचो आवाज... आनी मुखार आपा धांवता आनी फाटल्यान लाटणी घेवन प्रेमाहोनी धांवता... दोगांय घरांतल्यान अशीं भायर सरनाका. प्रेमाहोनीन आकांतून उलो मारलो...

''अर्चना, अर्चना आगो बेगीन यो गोऽऽ''

प्रेमाहोनीलो आकांत आयकून अर्चनाच न्ही, सगल्याच रुमांतलीं मनशां भायर वारांदांत आयलीं.

''कितें जालें गे?''

"क्या हुआ? क्या हुआ?"

"केसो बोब मात्ता गे? आपा फाटल्यान किद्याको..."

"लाटणें घेवन मारते काय आपाला?"

"चोर बी मेयळंय काय?"

- एका फाटल्यान एक विचारिल्ल्या प्रस्नांक प्रेमाहोनीन एका उतरान जाप दिली...

"हुंदीर...!"

मागीर बसाप्पाची बायल दांडो घेवन आयली. "आपा किदर गये? आपा, ये दंडा लेके मारो चुहेको..."

"तांणी हुंदराक मारिल्लो जाल्यार आनी कितें जाय आशिल्लें..." प्रेमाहोनी किळंचली.

मागीर अर्चनान म्हळें- "चांदू, चल गो प्रेमाहोनील्या घरांत पळय... हुंदीर दिसता जाल्यार...!" आनी बळयां ताणें चांदूक उबारून तांच्या घरांत सोडलें.

चांदूय बी नेटान आपूण व्हडलो पुलीस जाल्ले भशेन हांगा-थंय वास घेत-घेत भितर भोवंक लागलें. भितर कितें चलता तें आपल्याक चुकत म्हूण सगलीं दारांतच घुरी करून रावली. चांदूक भियेवन काय दारांतले गर्देक भियेवन... हुंदीर जो धांवलो तो दारांतले गर्देंत घुसलो. मागीर घेऽ पळापळ!...

"म्हज्या पांयार चडलो... म्हज्या पांयाक घुसपलो..." करीत सगळीं हांगा थंय धावूंक लागलीं. शेवटाक मुखार हुंदीर धांवता, फाटल्यान चांदू धांवता, असो वारांदार तांचो नाच चल्लो आनी चांदून एकदांचो हुंदराक तोंडात धरलो. पूण तें हुंदरा परस ल्हान जाल्ल्यान हुंदीर ताका आटापा येना जालो. अर्चनान मागीर बसाप्पा-बायलेच्या हातांतलो दांडो घेवन त्या हुंदराचे तकलेर घालो.

केन्ना न्ही तें आज प्रेमाहोनीन चांदूक अपुरबायेन उबारलें. ताका पोशेत पोशेत म्हणूंक लागली- 'अर्चना, बरेंऽ गुणांचें गो तुजें चांदू..."

कोणेंय पोशेल्यार चांदू दोळे धांपून 'गुर्रऽऽ' आवाज काडीत तें सूख

भोगता. आतांय चांदू बरेंच सुखाविल्लें आनी ताणें तोंडांतल्यान ‘गुर्ऽ’ करीत दोळे धांपिल्ले.

आनी आतां मदींच चांदू दोळे उगडून आपल्याक दोळो मोडटतलेंच म्हणून अर्चना ताच्या तोंडाक पळयत रावलें...

***

# एक वर-मणचिं

सदूबाब हॉस्पिटलाच्या वेटिंग रुमांत बशिल्लो. दोतोरान रिपोर्ट व्हरपाक अकरा वरांचेर आपयिल्लो.

ताणें घडयाळीर नदर मारली. धा जावन धा मिनटां जाल्लीं. हुस्का भरशीं तो पावणे धा वरांचेरूच येवन बशिल्लो. घडयाळ सदचे भशेन टिक-टिक करताली. पूण सदूबाबाक ती खुबूच सवका चलता अशें दिसतालें.

बरोबर वाचपाक हाडिल्लो पेपर उगडून ताणें पेपराचेर नदर मारली... शे! तकलेंत कितेंच वचना. ताणें पेपर घडी करून दवरलो. पेपरांत कसली तरी एक जायरात आसली ती सकल पडली. सदूबाबान ती उबारली. तीय घडी करून पेपरांत दवरली. तो उठून दोतोराच्या कॅबिना मेरेन गेलो... परतो येवन कदेलार बसलो.

...सारके पंदरा दीस जाल्ले, तो दोतोराक दाखोवकं आयल्यार छातयेक दावे वटेन येद्दे गूठशें आयिल्लें. बरेंच दुखतालें. दोतोरान जायत्यो परिक्षा केल्यो. शेवटाक छातयेर दुखता थंयचो कपचो काडून सँपल तपासपाक धाडलें... आज रिपोर्ट येतलो.

''...दादल्यांक चडसो छातयेचो कॅन्सर जायना,'' दोतोरान म्हणिल्लें... ''पूण पळोवया रिपोर्ट कितें येता तो...''

जिवाक साप्प भिवपी सदूबाबाक कॅन्सराचो दुबाव दाखयतकच शेळो घाम सुटिल्लो. घरकान्न गेल्यार दोन वर्सां जाल्लीं. एकलोच घरांत!!! ना म्हळ्यार येसो आसा. ल्हानपणा सावन घरांत घोळटा बाबडो... आवय ना, बापूय ना... खंय वतलो ? आनी नर्मदे आसा. फाटलीं तीस वर्सां जालीं, ही एकूच वावराडी घरांत आसा... घरचेंच जालां तें! आतां रांदपीण दवरल्या.

बरीऽ बायल... सदूबाबाक जाय तशें नुस्तें बी रांदून घालता.

सुशेगादशी जीण जगतल्या सदूबाबाक मदींच हें अवचित्र शें कसलें दुखणें...! दोतोरान कॅन्सराचें नांव काडत सावन सगळोच सतर-वितर जाल्लो ताचो जीव!

ताका विलासाची याद जाली. काय बरी कामतीले चलयेची सोयरीक आयिल्ली. तेन्नाच लग्न केल्लें जाल्यार आतां दोन नातरां लेगीत पळोवंक मेळटलीं आसलीं. घरांत सून आसतकच घराक घरपण येतलें आशिल्लें. पूण ना. अमेरिकेक वचपाचो हट्ट धरून बसलो. थंयच्यान येतकच लग्न जातलों म्हणूंक लागलो. आतां ती एमबीए काय कितें ती हांगाय करूंक जाताच न्हय? थंयच्याच शिक्षणाक किदें, म्हों‌व लागलां? पूण हट्टान गेलोच अमेरिकेक! गेल्लो तो थंयच जिरकला. परतो येवपाचें नांवूच काडना...!

ल्हानपणांत बापायचो मार खावन खावन पाठ केल्ले गीतेचो अध्याय सदूबाबाक आतां येवजुपाक लागलो.

वासांसि जीर्णानि यथा विहाय...

मरण म्हळ्यार दुसरो जल्मूच न्हय? सदूबाब आपल्याकूच समजायता. कपडे बदलिल्ले वरी कूड बदलप... आनी मर्णा पसून खंय लिपतलों सायबा!!!

''जातस्य हि ध्रुवो मृत्यू...'' जल्मा बरोबर मरण लागिल्लेंच आसता, फाटल्यान...!!

...शीं:! कसल्यो मर्णाच्योच खबरी येवजितां हांव! दोतोरान दुबाव दाखयला म्हणचे कितें कॅन्सर आसाच अशें न्हय!!

बरें-बरें येवजूंक जाय... बरे विचार... बरीं सुभाषितां... ''आ नो भद्राः ऋतवः यन्तु विश्वतः'' सगल्या विश्वांतल्यान भद्र विचार येवंदी मनांत!... बरे बरे विचार घोळूं दी तकलेंत...!!

...इतली जोड जोडून दवरल्या कितें करपाक ती? कितलोय दुडू लागल्यार लागूं, अमेरिकेक वचून व्हडल्या व्हडल्या दोतोरांचो इलाज करचो. विलास आसाच न्हय थंय! पयशांचें तोंड कोणें पळयलां?

...हांव बरो जावपाकूच जाय...!! विलासाक अमेरिकेक धाडपाक थोडो दुडू खर्चिला? दोन वर्सां ताका पयशे धाडीत आसलों. आतांच तो जोडूंक लागला. पूण घरा येवपाचें नांव काडना... हें... हें जोडून दवरलां तें कोणाक?

"खोंटलो तुजो पोटलो तुजो हांगचे हांगा उरतलो." ओगीच आतां ताका तें पद याद जावंक लागलें. शाळेंत आसतना गॅदरिंगाक हें पद अभिनय करून म्हणून ताणें बक्षीस घेतिल्लें...

तेन्नाची खबरूच वेगळी! नितीमत्ता... उतर पाळप... फट उलोवप ना... कोणाक फटोवप ना... असलीं कितलीशींच खटली फाटल्यान लागतालीं. मानेर बशिल्ल्या भुता भशेन! पूण व्हड जालो, तरणाटो जालो, त्या मदाचेर बापायली ती सदाचाराची शिकवण खंयचे खंय व्हांवन गेल्ली! येदो व्हडलो एंप्रेगाद! मेजा पोंदच्यान कितलो दुडू मेळटलो...

पूण नेत्रा... आवयचे गूण घेवन आयिल्लें... बापाय कडेन पगारा परस चड पयसो खंयच्यान येता हाची चवकशी करपी...

हांवें ताच्या नांवार पयशे केल्यार घेत तें? ताचो तो घोव... पयली इन्कमटॅक्साक खबर दीत म्हूण भंय...!!

नेत्राची याद जातकच ताचे दोळे भरून आयले. गोरेंपिट्ट, म्होंवाळ काळजाचें, गोड उतराचें नेत्रा... जग लोक ताका तोखेतालो.

सगळ्या सगळ्यांचें अपुरबायेचें... आपल्या उतराक घट्ट... फटिंगपणां सोंसनाशिल्लें...

शेवटाक जोडीदार सोदून काडलो तो एक काळोकिट्ट केरळी मनीस! म्हणूंक लागलें, ताच्या रंगार वचूं नाकात. ताचें खरेंपण पळयात. सत्वशील मनीस, उतराचो, नितीमत्तेचो...!! हट्टान तांचे कडेन लग्न जालें...

साळिग्रामाच्या माथ्यार मोगरें कशें सोबलें!!

आपले त्या सात्वीक जिणेंत तें सुखी आसा. मुत्तू गायनाचे जलसे करता... युनिव्हर्सिटींत लॅक्चरांय दिता आनी उरिल्लो वेळ आपल्या ल्हानशा जमनी-कुडक्यार कितें कितें प्रयोग करीत तातूंतल्यान भांगर पिकयता.

आनी नेत्रा- काल मेरेन जाची सवन जीण वयले वयर सुखांत गेल्ली... तें तांचे जमनींत, मातयेंत हात घोळयता. ताका हातभार लायता. घरांत शेणाचो होडो घालतना पळोवंक जाय...!! जमीन सामकी सुळसुळीत शिमिटाची करून उडयल्या. शेण-मातयेची जमीन म्हळ्यार कोणूच खरें धरचो ना. कशें आपल्या चल्या-चलये वांगडा आनी त्या घोवा वांगडा सुखान रावता. तो घोव मेळोवपाक थोडे कश्ट काडूंक नात पोरान! पार्वतीन शिवा खातीर केल्लें तप याद जावपाचें! शेवटाक मुत्तूक लग्नाक तयार केलोच ताणें!

सदूबाबाच्या दोळ्या सामकार नेत्राचीं दोन रुपां उबीं रावलीं- बॉबकट केल्लें, जीन्स-टी शर्टांतलें-स्कुटरींनी भोंवपी तें टॉमबॉईश नेत्रा, आनी मुत्तूच्या त्या घरांत शेणाचो होडो घालपी नेत्रा. त्या लांब न्हाल्ल्या केंसाचेर माळिल्लो धवोफुल्ल जुयांचो वळेसर दोनूय खांदार थिरकायत... कपलाक कुकूम गंध आनी तोंडा वयलें तें तेज. दोनूय सामकीं सुंदर रुपां...

...पूण म्हज्या पयशांक पातक समजुपी...!!

आतां कोणाक दिवपाची ही जोडिल्ली जोड... आनी भाटां?? पांसश्ट वर्सां जावचे पयलींच सगळें सोडून वचपाचें??

पेद्रू आनी व्यंकट दोगूय भाटांत रावताले. खोंपी बांदून... ते आनी तांचे घराबे भाटांत घोळटाले. तांचेर भाटां पातेवन निश्चिंत आसलो... पूण... दोगांनीय भाटांत घरां बांदपाचो प्रस्ताव हाडलो आनी शिटकावलों... फुडले चिंतलें. पेद्रूले, व्यंकटाले भुरगें आतां शाळा शिकूंक लागल्यात. ते बापाय भशेन खालमानेन रावतले? तशेंच इमानी आसतले? म्हाका दिसना...!! कशे तरेन पेद्रू-व्यंकटाचेर केशी घालून तांकां भाटांतल्यान भायर काडसर नाकापुरो जालें. पूण एकदांचे भाटांतले भायर सरले ते!

''भाटकारा, बापाय सुवातेर मानलो तुका... आनी आतां तूं आमकां घरा भायरो करता? खंय वच्चें आमी?'' अशें म्हणपी व्यंकट. तांचे ते व्हांवते दोळे... तें फिलोमेना फाटल्यान वळून वळून आपले खोंपीक पळोवपी पेद्रूली बायल...!!

शे:! शे:! फाल्यांच आदवोगादागेर वचून तो भाटा कुडको पेद्रूच्या

आनी व्यंकटाच्या नांवार करतां. खंय घेवन वचपाची आसात हीं भाटां... आनी हो पयसो ?

ताणें बेगी बेगीन पेपरांत घडी करून दवरिल्ली ती जायरात काडली... जायरात फाटले वटेन सामकी कोरी आसली...

जायरातीं फाटल्यान ताणें लिस्ट करपाक सुरवात केली-

पेद्रूक व्यंकटाक भाटाचो कुडको दिवपाचो.

घरचें सगळें पळोवपी, जल्मूच आमच्या घरा खातीर काडिल्लो येसो...

फाटलीं तीस वर्सां आमच्या घरा खातीर घोळपी वावराडी- नर्मदे...

घरा सामकार आशिल्ल्या गार्डनाक- झाडांक उदक घालपी, बाजार करपी, म्हाका जाय-नाका तें पळोवपी हरी...

वेळा-वगतार उल्याक धांवत येवपी, शेजारी मर्तू. गरीब खरो, पूण वेळार बोल्सांतले पयशे मोडून म्हाका पावला...

कितल्या लोकांच्या रिणांत आसा हांव...!!

हांव शिकलां ते शाळेची बिल्डिंग बांदतात म्हूण तो मास्तर डोनेशन मागूंक आयिल्लो. हांवें मागीर पळोवया म्हूण सांगून धांवडावन घाल्लो. ताका बिल्डिंग बांदपाक डोनेशन दिवंकूच जाय...

आमच्या वाठारांतल्या साईबाबाच्या देवळाचो जिर्णोद्धार करपा खातीर वावुरपी, मंडळी पयर येवन गेल्या... हांवें फांफडून उडयल्ले तांकां... पूण देवाचें काम तें. ताचो भार घेवंकूच जाय...

करतां करतां लिस्ट वाडत गेलें.

पेपर सोंपलो.

टण-टण-टण करून वण्टी वेले घडयाळींत अकरांचे टोले पडले. सदूबाबान धांवतूच दोतोराच्या कॅबिना भायर उबो रावन दारार टक-टक केलें. दोतोरान 'कम इन' म्हणटकच खरशेतसो भितर सरलो. 'बस' म्हणचे पयलींच कदेलार बसून सोडलें.

''दोतोर, हांवें काळीज घट्ट केलां- सांगात तुमी...'' दोतोराच्या तोंडार हांशें...

''हो घेयात रिपोर्ट. तुमकां ओगीच दुबाव आयिल्लो. तुमचे तब्येतीक

कांयच जावंक ना. सामके खणखणीत आसात तुमी...''

दोतोराचीं उतरां आयकतां आयकतां सदूबाब निश्चिंत जालो. ताचें तोंड खोशयेन फुल्लें. दोतोराचे हात आपल्या हातांत घेवन ताणें हासत म्हळें, ''थँक्यू दोतोर! थँक्यू... आनी दोतोर तुमचें बील...??''

''भायर कावंटरार भरात...''

खुशालभरीत जावन सदूबाब बील भरूंक काउंटरार गेलो. बोल्सांत हात घालतना हातांत हो कसलो पेपर? कोणाची जायरात...? पळेत जाल्यार जायरातीचे फाटल्यान ताणें केल्लें लिस्ट. लिस्टार नदर मारीत ताणें मनांत म्हळें- शॅ! मागीर पळोवचें...!

...आनी ते जायरातीचो गुड्डो करून ती कुशीन आशिल्ले कोयराचे बालदेंत उडयली.



# एका लग्नाची काणी

ज्या गांवचें नर्मदा त्याच गांवचो शिवराम. नर्मदे बेबकेवाड्या वेलें आनी शिवराम सांगडेवाड्या वेलो. आतां शिवरामाक मिशो फुटून जायतीं वर्सां जाल्लीं. नर्मदे निकतेंच वयार आयिल्लें.

रुपान तें सुंदर नासलें. पूण आंगाच्या वाटकुळसाणेन पळयतल्याच्या दोळ्यांत भरतालेंच! एकदां ताका पळयलें की फाटीं पळोवन परत नदर घालप जातालेंच. चड करून वया वेले तरनाटे गरजेभायर ताचे फाटी फुडें करताले आनी कशें कोण जाणा, नर्मद्याकय आपशींच मोड येवजतालें. चार चौगांचे दोळे आपल्याचेर आसात अशें दिसलें तर आपशींच ताचें आंग मोडटालें.

हरशीं शिवराम सादो-सरळ तरणाटो! आपलें काम बरें, आपूण बरो! पूण नर्मदाचेर एकदां ताची नदर पडली आनी शिवराम ताच्या मोगांतच पडलो. ताचीं जुवानपणान भरिल्ली आंगां-पांगां पळोवन तो सामकोच भुल्लसलो. रातचे दोळे धांपले तशें दोळ्या सामकार नर्मदाच दिसचें ताका!

ताचें कामात लक्ष लागना जालें. जेवणा खाणांक तो रुच घेना जालो. त्या दिसा आवयन बांगड्यांचें आमटतीख केल्लें. अशें आमटतीख केल्यार शिवराम तीन-तीनदां शीत मागून घेवन भातें मारपी. आवय उमेदीन ताका पोटभर जेवंक घालपी. पूण शिवराम पानार वाडिल्लें तितलेंच शीत जेवन उठलो आनी आवयच्या काळजांत कल्ल जालें. ह्या दिसांनी पोर असो पिशांतक सो जाला. सत्यभास काडिल्ले भाशेन असोऽ पळयता... एक विचारल्यार दुसरेंच सांगता... कितें तरी करचेंच पडलें... आसो काडया?... बंटीण खुबोवया...? तिणें घोवाक म्हळें, "चेड्याक कितें

जालां पळय हां, जेवणा खाणात कित्याकच लक्ष ना… असोऽ पिशांतक सो जाला… म्हाका ताचीं लक्षणां बरीं दिसनात… कितेंतरी भायली बाधा जाल्या… कितेंतरी भायली बाधा जाल्या… रोकडेंच देवसपण केल्यार बरें न्ही? मागीर जडार पडत…''

पूण नारायणान तिचे परस जायते पावसाळे चड पळयिल्ले. ताणें कानावेली विडी तोंडांत धरून पेटयली, ओढली, एक खोंकली काडली आनी सांगलें, ''आमीय अशेच जुवानपणांतल्यान गेल्यात. नदर पडल्या जातली खंयच्याय वयावेल्या चेडवाचेर! आमीय अशेच भुल्लसताले. मागीर लगीन जातगेर जाग्यार पडले.''

तशी शिवरामाची आवय पदरान तोंड धापून फिस्स करून हांसली. तितल्याचेर खूश जावन नारायणान विडयेचो खोलसो घोंट मारलो. कितलोसोच वेळ व्हडान खोंकत बसलो.

शिवराम भितल्ले वटेन कपलार हात आडवो उडोवन न्हिंदिल्लो. ताच्या धांपिल्ल्या दोळ्यां मुखार नर्मदा अशेंऽ साय-बुलूज घालून मोडत चलतालें. आयज ताणें मोठ्या मोठ्या फुलांचो निळोच बुलूज घाल्लो. तो ताका मातसो तायटच जातालो! तें चलतना फाटल्यान चड बरें दिसता काय फुडल्यान चड बरें दिसता हें येवजीत कितलो वेळ तो उक्त्यो पोंवट्यो धांपिल्ल्या दोळ्यांनीच तोखेतालो.

''…कितें तरी करून तेका म्हाजेर नदर घालूंक लावंक जाय.' तो चिंततालो. 'ह्या दिसांनी जायांचो भार आसा. फाल्यां तेका एक जायां-पोड भेटयल्यार कशें? दुसरे दीस नर्मदा! भाजेच्या वावरांतलें काम सोपोवन आपल्या इश्टिणी बरोबर घरा वतालें. आंब्या मुळांत पावतकच तांच्यो दोन वाटो जाल्यो. दोगांय आपआपल्या वाटेन घरा वचूंक लागलीं. नर्मदाक एकटें पळोवन शिवराम हळूच मुखार सरलो आनी पानांत गुठलायिल्लो घमघमीत वासाचो जायांपोड ताणें नर्मदाचे सामकार धरलो. फुलां पळोवन नर्मदा फुल्लें. तोंडभर हांसून ताणें विचारलें, ''कसो दिलो जायां-पोड…?''

शिवरामाक लजेन मरूंक पुरो जालें. ताणें हळूच सांगलें- ''विकोंक

हाडोनात... तुकाच हाडल्या...?''

''फुकट?''

''हय!''

''तुका पयशे नाकात फुलांचे?''

''हांव फुलकार न्हू...''

''मागेर कोण तर तूं?''

''हांव शिवराम...!''

नर्मद्याक आता फकाणां येवजलीं. ताणें म्हळें-

'शिव आनी राम? दोन-दोन देवळां तर तुका!''

''एक शिवाचें आनी रामाचें!'' आनी बायलोय दोन तुका... एक पार्वती आनी दुसरी... शीता!''

'...चेडूं बरेंच सुबेज आसा.' शिवरामान मागीर म्हळें, ''म्हाका पार्वतीय नाका आनी शीताय नाका...''

नर्मदे चडच किटकिटलें, हांसतच ताणें विचारलें, ''म्हणटकच तुज्या बायलेचें नांव कितें तर?''

शिवरामान धिटायेन विचारलें, ''सांगल्यार रागार जावचें ना मूं तूं?''

''ना... ना... सांग तूं?'' नर्मद्याक चडच मजा दिसली.

''म्हाका बायल जाय... नर्मदा...''

नर्मदा अजापलें... मातशें लजेलें... मागीर तापूनशें ताणें म्हळें, ''कित्या कितेंय उलयनाका हां! वच थंयचो ओवाळून.''

शिवराम भिलो आनी बेगीबेगीन ताणें थंयच्यान कूस मारली. बरें मुखार पवतकच ताणें फाटीं वळून पळयलें... नर्मदें जायांचो वास घेवन त्यो केंसांत माळटालें...

दुसऱ्या दिसाच्यान शिवराम शेतांततलें काम सोंपोवन त्याच वाटेर दोपून रावतालो. नर्मदाक एकटें पळोवन मुखार सरतालो.

''फुलकार येयलो...'' ताणें म्हणचें.

''आज कसलं फुलां हाडल्यांत तर?''

मागीर शिवरामान हळूच शेवत्यां फाती नाजाल्यार आबोल्यांचो

वळसर मुखार धरचो.

तांच्यो ह्यो फूल-भेटी वाडत गेल्यो. एक दीस मेळना जाल्यार तांच्यांनी रावं नजो जावप. आज कसलीं फुलां हाडलीं जातलीं त्या उमळशिकेन नर्मद्यान धांवतच ते सुवातेर पावप.

...रोखडेंच लोकांच्या दोळ्यार आयलें. गांवभर फां-फां जालें. शिवराम नर्मद्याक फुलां भेटयता. नर्मदें शिवरामाक मेळूंक वाटेर रावता... दोगांय किरां-जोडी शी किरकिरतात... पारव्या जोडये भाशेन पिरपिरतात...

दोगांच्याय घरांत कळ्ळें. पूण दोनूय घरच्यांक तांची जोडी मानवली. नारायणान नर्मद्यागेर वचून उतर घालें. शांबानय सोयरीगत मान्य केली... लगीन थारलें... आनी एक दीस असो उजाडलो... दोनय घरां मदल्यान उजो लेगीत वचना जालो.

जालें अशें की नर्मदालो भाव सोयरू तांगेलीं गोरवां चरयतालो. तो मातसो घाळ रावलो. गोरवांक चरवाक सोडून ताणें मातशी झेम काडली. आनी गोरवां सरळ नारायणाल्या शेता वटेन पावलीं. पांचवीचार लुसलुशीत चार पळोवन गोरवांचीं तोंडां सामकी लाळेलीं आीन सोयरू झेम काडून जागो जायसर तांणी शेताचें बरेंच लुकसाण केलें.

''हात तुज्या, तुका वाकाक व्हरून घालतां... तुजें मडें पातळायतां...'' तोंडाक येता तसल्यो गाळी घालीत नारायणान लागींच्या शेतकामत्यांकय एकठांय केले. बाचाबाची सुरू जाली. आनी थंय पाविल्ल्या शिवरामान शेताचेर नदर घाली मात, सोयरूच्या कानसुलार एक थापट फुलयलें. सोयरू शिवरामाचेर जुडून जुडून वचूंक लागलो. पूण दोनय वाटेन दोगांकय ओडून लोकांनी तितल्या पुरतें झगडें पालयलें.

रोखडेंच गांवभर जालें-

सोयरून शिवरामाच्या शेतांत गोरवां घालीं.

शिवरामान सोयरूच्या कानसुलार फुलयलें.

मागीर एकाचे दोन... दोनाचें चार...

शिवरामान सोयरूक पेटयलो...

...शिवरामान सोयरूक मरसर मारलो...

सोयरूचे हातपांय मोडून घालूंक पळयतालो... सोयरू घरांत पावचे पयलीं ही खबर घरांत पावली. फाटोफाट पोलो चोळीत सोयरू आपल्या पांयांनी घरांत भितर सरलो. ''मारलो रे म्हाज्या पुताक... बडयलो रे म्हाज्या बाबाक...'' करून रडून रडून नर्मद्या आवयन घर माथ्यार घेतलें.

''नि:सतान जातलें मारतल्याचें...'' म्हणून बोटां मोडीत गाळी घाल्यो.

''त्या शिवरामाक माज येयला. गोरवांनी मातशें शेत खायल्यार म्हाज्या चेड्याच्या आंगार हात घालता?'' शांबान दांडो काडलो आनी शिवरामाचो तकलो फोडूंक शिवरामागेर गेलो.

दारांतच मागीर मोटीं झुजां...

हात वावडीत... दांडो हालयत...

घरा भितरल्यान बायलांचो गाळींचो शिंवोर...

रंगल्लें झगडें पळोवंक लोकय जमिल्ले...

मदींच उतरां येतालीं-

''सगळें शेत गोरवांनी खावन पाड घालें...''

''मोनजातीक कितें कळटा...?''

''राखणो आसलो तोय बीण मोनजातीचो कितें?''

''आनी मनीस आसा थंय चुकताच न्हू? तेका असो मरसर मारप? बडोवप?''

अशें आनी तशें-

आतां शिवराम आनी नर्मदा मेळ्ळ्यार दोंयवशीन दोन तोंडां करून वतालीं.

''म्हाज्या भावाक मारता?... गेलो झक मारत...!''

''म्हाजे शेत खावयता...? गेलें ओंवाळून...?''

फुलां वासान घमघमिल्ल्यो फूल-भेटी केन्ना सोंपिल्ल्यो-नर्मदाचे आवयन नर्मदाक रोखडीच नवी सोयरीक सोदली. पयसुल्ल्या शिरधनाच्या मावशेन एक सोयरीगत हाडली. शिवरामाचें नाक कापपाक चड खबर काडिनासतना रोखडीच सोयरीक केली. आनी दारांत लग्नाचो माटोव

घालो. शिवरामाक सामके जाळ पडले. कितें करचें? कशें करचें! ताका कांयच समजना जालें. ताणें मारूती देवळांत वचून तेल सांगून घेतलें. देवचाराक सूर-रोट सांगून घेतलें...

पुरसाक गाराणें घालून सोयरीगत मोडपाक विनयलें. पूण देवांनी मनार घेतिल्ल्याचें कांयच चिन्न दिसना. गांवांत सगळ्यांक होंवळीक सांगून जाली. सोडून शिवरामाचें घर... लग्नाचो दीस उजाडलो. त्या दीस शिवराम उठलोच ना. तोंडार कांबरुण घेवन पडून रावलो.

नव्हरेकारां न्हवरो घेवन आयलीं. न्हवरो नेटान आसलो. शेदाचो लकलकीत सदरो घालून... धवें फुल्ल पुडवें न्हेशिल्लो. ताचे बडये भशेन आंगलोट आनी पडिल्ले पोले आसले तरी झेंतार चलतालो. न्हवऱ्याक येवकार दितना गडबडींत शंभूदादोच्या पिचकारेची पीक हय-न्हयशी न्हवऱ्याच्या पुडव्यार उसळ्ळी इतलेंच निमीत...

न्हवऱ्याचें माथें सणकलें. तापलें! ताणें म्हळें- ''कसलो भिकाड्डो गांव आनी कसलो हळशीक लोक! न्हवरेकारां येयल्यांत तेंकां च्याये घोंट ताळ्यार घालो नजो... वयल्यान हेऽते जड्ड्यान म्हज्या धव्या फुल्ल पुडव्यार पीक उडयली...''

न्हवऱ्यान उलयिल्लें एक-दोगांनी आयकलें...

खिणाभरांत सगळ्याक फां-फां जालें.

न्हवऱ्यान गांवांक भिकाड्डो म्हळो...

न्हवऱ्यान शंभूदादोक जड्डो म्हळो...

न्हवऱ्यान गांवचे लोक हळशीक म्हळें...

आब्बा!!... ही कापाझदाद...?

लग्नाक जमिल्लो आख्खो गांव विघ्न करपाक तयार जालो. लग्न थंयच मोडलें.

न्हवऱ्याक आनी न्हवरेकारांक जीव घेवन म्हणटात तशें पळून वचचें पडलें...

आतां कितें करपाचें?

सगळो लोक आपापलीं कामां सोडून लग्नाक येयल्यात.

नवीं न्हेसणां न्हसल्यात.

हेचें-तेचें रीण काडून म्हणटात तशी व्हंकल शिरंगारल्या!

आनी मुख्य म्हणचे व्हडले व्हडले तोप भरून चण्यांचो रोस रांदला...

...दोन तोप भरून सोजयेचें गोडशें रांदलां...

...इतलेंय सगलें फुकट घालोवप?

जाण्ट्यांनी बोडां खरपियलीं.

पूण एका तरणाट्यानच आयडिया काडली.

"शिवरामाक धरून हाडया..."

गांवकार नारायणाच्या घरा गेले.

"-नारायण, शिवरामाक भायर काड..."

"आतां आनी तेणें कितें केलें! ओगोच न्हिदोन आसा बाबडो..."

"न्हिदला जाल्यार उठय तेका..."

दोगां... चवगांनी शिवरामाक धरून ओडीत भायर हाडलो.

'हेचे-तेचे कपडे घेवन न्हवरो न्हेसयलो.

तकलेक बाशिंग बांदलें... आनी न्हवरो भायर काडलो...

आनी म्हूर्त शेणचे पयलीं नर्मदा कडेन शिवरामाचें लगीन करून वडयलें.



# तो, ती आनी तें

सदचे भशेन सपना इंटरवालाक स्कुलांतल्यान आयलें... च्या पियेवपाक...

'आयलें गो सपना! आज वेळ सो जालो तुका?'' रंजून विचारलें.

''ना गे वैनी! पिरियड सोंपलो तरी भुरग्यांचे विचारप सोंपच ना. अभ्यासांतलें न्ही हां... पिकनिकेक कितें व्हरपाचें! हें हाडल्यार जाता?... तें हाडल्यार जाता?.... खेळपाक मेळटलें काय ना?... हजार प्रस्न...''

''खंय व्हरतात गो अंदू पिकनीक?''

''हांगा लागींच गे! नेत्रावळी... थंय 'बुडबुड्याची तळी' म्हणून आसा खंय! ताळयो मारल्यार तळयेंतल्यान बुडबुडे येतात खंय! च्यारी सर आसा न्ही... तो खंयच्या खंयच्यान अश्यो खबरो हाडटा... भुरगीं फुलतात मागीर वचूंक...''

''जावं गो... तेंय जाल्यार पळोवंक जायच न्ही? भुरग्यांक मजा! शिवाय हें बुडबुडे कशे, कित्याक येतात... प्रस्न पडटलेच न्ही तांकां... शिकूंक मेळटलें...! भोगूं तें! चल, च्या घे... चपाते बरोबर केळ्यांचो हालवो केला ता खा... काय तुजें गोड लोणचें गो?''

सपनान गोड लोणचें घेतलें आनी तें चपाती खावंक बसलें. वैनीन हाडिल्ली हून-हून च्या पियेवंक लागलें.

सपनां रंजूली नणंद. बीए जालां. पोरूं बीएड य केलां ताणें. स्कुलांत नोकरी मेळ्ळी. आसा वीस वर्सांचेंच! पूण जाण्टुली शी उलयतलें! हरशीं शिटूंक! फावल्या वेळांत घरकामांत हातबोट घालून वैनीक खूस दवरतलें.

''वैनी, रत्ना मेळिल्लें गे आज. नोकरी ना म्हूण बेजारलां सामकें!

आज भाईन आपयलां म्हणटालें आपल्याक...'' सपना सांगूंक लागलें.

''खंयय लायता जातलो ताका नोकरेक तुजो भाई...! पयर आयताराक आयिल्लें तेन्ना ॲप्लिकेशन बी बरोवन घेवन आयिल्लें...'' रंजून म्हळें.

''पूण भाई म्हणून चडच करता ताचे कडेन!... न्ही गे वैनी?''

''आगो, सोयरे न्ही गो? करता अपुरबायो...''

''तशें न्ही गे वैनी... पूण...''

''कितें गो?... सारके उलय न्ही...'' वैनीन दटायलें.

''म्हाका सारकें सांगूंक येना गे!... पूण हांव इतली भयण!... भाईन केन्नाच तकलेर थापटिलें... फाटीर थापट मारलें... करूंक ना... पूण रत्नाक मात... तें दिसलें की...''

इतल्यांत रत्नाच घरांत भितर सरलें. तें भितर सरतकच सपनाक ओगीच खांकुडिल्ले भशेन जालें... सदचे भशेन!! ताका दिसलें... आपूण कितलें सांवळे... सादें... कोणाचे नदरेन वचपा सारकें न्ही...! वेळेचाराक ताणें हांसून म्हळें, ''यो गो रत्ना... आप आये बहार आयी...''

''पुरो गो तुजें...'' रत्नात हांसत म्हळें.

''कितल्या दिसांनी गो बाये...! हालींच नाच्च तूं...!'' रंजून म्हळें.

''फाटल्या आयताराक येवन गेल्लें न्ही गो रंजूताई...!''

''तें कसलें येवप गो? घरांत भितर सरलां -भायर सरलां. आयज मात तुका जेवले बगर धाडपी न्ही हांव...'' रंजून म्हळें.

रत्ना हांसले. गोलें-पिट्ट, सुंदर! रत्नाचे धवेफुल्ल दांत ताच्या गुलाबीच ओंठांतल्यान चकचकले सामके!

सपनाक ताच्या सुंदरकायेची ओगीच नसाय जाल्लेभाशेन जाली.... सदचे भाशेन!!!

''वैनी, येता गे हांव! वेळ जालो म्हजो... बरें गो रत्ना. मेळया मागीर...'' अशें म्हणून सपना पांयात जोतें चडोवन गेलें लेगीत.

''लागींच स्कूल म्हूण बऱ्याक पडटा सपनाक... न्ही गो रंजूताई? मदले सुटयेंत येवन च्या बी घेवन वचूंक मेळटा.''

''हय गो बाये! नाजाल्यार सकाळचो एक च्या चो घोंट घेवन वता तें!

भुरग्यांक शिकोवप म्हळ्यार फकाणाचीं कामां गो? आड्डवपाक नाका तांचे कडेन दीसभर? तेंय बी वर्गांत उबे रावन!... इतलें पुरो जावन येता... पूण येवचे येवन म्हज्या आदाराक लागता..."

रंजू नणंदेचे गूण गावंक लागलें.

"रंजूताई, भावोजी केन्ना येतलो?" मदींच रत्नान विचारलें.

"येतलो गो जेवपाक... कित्याक गो? कितें काम आशिल्लें?"

"भावोजी म्हणटालो, अशें ॲप्लिकेशन पेस्टान बी धाडून कांय जावपाचें ना. स्वता वचून ॲप्लिकेशन दिवंक जाय. इंप्रेशन पडटा खंय...! फाल्यां सकाळीं खंयच्या खंयच्या ऑफिसांनी, बँकांनी वचून ॲप्लिकेशन दिवया म्हणटालो..."

"खरें काय कितें? म्हाका म्हणूंक ना... लिव्ह काडटलो दिसता फाल्यां... पूण खंय पोस्ट रिकामो आसूंक जाय न्ही? नाजाल्यार ॲप्लिकेशन दिवन कितें उपेग? आमच्या वेळार बाये अशें नाशिल्लें गो! परिक्षा जाली... पास जालें... अशीऽ नोकरी मेळटाली खंय तरी!... इतलो शिकलां तूं... खंय तरी बरीऽ नोकरी मेळूंक जाय आसली..." रंजून सुस्कारो सोडलो.

"आतां देड वर्स जायत आयलें... बेकार आसां..."

"ट्युशनां तरी दिवचीं आसलीं...!"

"तीं आसातच न्ही! फावल्या वेळांत तें करतांच...!"

मागीर रंजून बेगीनच हुमण केलें, शीताक वडयलें आनी नुस्तें तव्यार घालून रत्नाक पयलीं वाडलें. रत्ना जेवंक बसता म्हणसर नरेन भितर सरलो.

"आरे... रत्ना, केन्ना आयलें तूं?" रत्नाचे तकलेर अशें थापट मारिल्ले भशेन करून ताणें म्हळें.

रत्ना हांसले. हरशीं कोणय दादले मनशाचो चुकून हात लागल्यार लेगीत ताका सोंसना. पूण भावोजीलीं फकाणां हांस़पाचेर व्हरपाक तें शिकिल्लें.

"म्हाकाय वाड गो रंजू... हांव हातपांय धुवन येतां..." नरेनान म्हळें.

रंजून ताट दवरून नरेनाक वाडलें. रत्नाच्या मुखार बसून तो जेवंक

लागलो. जेवतना रत्नाच्या तोंडार, हातांचेर नदर...

"रत्नाचीं बोटां पळय गो कशीं... लांबसडक... शीत कालोवन उंडी तोंडा कडेन व्हरतात ती... आं करून मदले मदीं उंडी तोंडात घेवची शी दिसता! कालोवप, उंडी करप... तोंडा कडेन व्हरप... सगळें कशें नकसूदपणान..." नरेनान रत्ना जेवता तें पळोवन म्हळें.

रत्नाक कितें उलोवचें तेंच कळना जालं. मागीर रंजूच मदीं पडलें- "येतलो कोणय भाग्यवान... तेन्ना उखाणो घेवन नांव घेतलें आनी ताका भरयतलें तें उंडी... तुजी नदर कित्याक ताचेर?"

रंजून घोवाक दटायलो ना, खडसायलो ना... तापयलो ना... पूण तोंडार थापट पडिल्ले भशेन नरेन चूप जालो. रत्ना सगळेंच काचाबूल जावन रंजूच्या तोंडाक पळोवंक लागलें.

"तूं जेव गो बाय सुसेगादीन. तुज्या त्या भावोजीक मदींच पचकल्ले भशेन केन्ना केन्नाय उलोवपाची संवय..." रंजून हांशिल्ले भशेन करून रत्नाक म्हळें.

वेळेचाराक रंजू हांसलें खरें, पूण मनांत बरें कांचवेलें. हेदोळ सपनान कितें म्हळें तेंय ताका याद जालें. नरेनाक कोणय सुंदर चली जावं बायल बी दिसल्यार तिच्यो मस्कऱ्यो करपाक, आंगलट वचपाक बी खूब मजा दिसप. तातूंत आपूण कितें वायट करतां अशें ताका दिसपच ना. आपलें लग्न जावचे पयलीं आपूण चडसो चलयांच्या घोळक्या मदीं आसतालो... त्यो चलयो आपल्याचेर कश्यो मरताल्यो... सगळे म्हाका 'गोपीं मदीं बोवाळपी कृष्ण' म्हणटाले अशें आनी ओर्रान सांगप ताणें...

"आरे, आतां तुजी पन्नाशी लागीं पावत आयली... आतां सोबना तुका तें..." अशें रंजून कितलेदां ताका सांगलें.

"तुका म्हजी नसाय जाता गो?... हांव कितें वायट करतां?... म्हजो सबावच तसो...!! नाजाल्यार सिरियस तोंड करून बसप गो तुजे भशेन!" अशें म्हणून नरेन रंजूकच वेल्यान दटायतालो.

...पूण आतां हें रत्ना! सख्ख्या न्ही जाल्यार कितें जालें?... मावस भावालें चली... वयार आयिल्लें... कसलोच अणभव नाशिल्लें...

भावोजी, भावोजी करून नरेना कडेन हांसून उलयलें. ताचे बरोबर भोंवले... तर रोखडेंच लोकांच्या दोळ्यार येतलेंच!

"...फाल्यांचें नक्की हां रत्ना!... सकाळचें बेगीन भायर सरुया... साडेपांच मेरेन ऑफिसांनी भोंवपाचें... रात मेरेन घरा पावतलीं..."

"...हय! फाल्यां सकाळींच येता हांव..." रत्नान हात धूयले. ताट पेलो घेवन तें घासपाक गेलें.

"...आगो, आगो... रत्ना, ताट तूं घांसता? शेः! शेः!... रंजू, ताका आयदनां घांसूंक लायता तूं?"

"आमगेर वावराडी ना हें ताका खबर आसा. तुजें जेवन जालें जाल्यार तुजेंय ताट दी... तें घांसून दवरतलें... सदांच सपना पुरो जावन येवन लेगीत सगळीं आयदनां घांसता... तुवें सपना घांसता तें केन्नाच पळोवंक ना कितें?" रंजून विचारलें.

"आगो, पूण रत्नाक कित्याक? ताचे हात पळय... 'ये हात बर्तन माँजनेके लिए नही बनाए है खुदाने...'' नरेनान डायलॉग मारलो.

"भावोजी, आमगेर हांव सदांच आयदनां घांसतां... आमगेरय कामाक ाकेण ना..." रत्नान म्हळें.

इतल्यांत सपना सामके जाम जाल्ले भशेन येवन कदेलार बसलें. "वैनी, आजच्यान आतां सगळो आठवडो स्पोर्टाची तयारी गे! तें भुरग्यांक घेवन ग्रावंडार वचप, दीसभर वतांत उबें रावप..." ताणें म्हळें.

"भोगूं पोराचें! वतान वळमलां पळय तोंड सामकें!" रंजून बेगीबेगीन ताका उदक हाडून दिलें. "चल, आतां जेव आनी आड पड मातशें..." ताणें म्हळें.

"हय! आड पड खंय! आनी मागीर तूं एकलीच सगळो वावर करीत बस!... हय मगे? आतां जेवना फुडें रोकडेंच तटतटीत जातलें हांत्र... भाई जेवलो? रत्ना जेवलें?... चल तर आमी दोगांय बरोबर बसया..." सपना हात पांय धुवूंक गेलें.

रत्ना वतकच दोगांय जेवंक बसली. स्कूलांतल्यो खबरी सांगत सपना जेवतालें, "वैनी, कामतील्या बीनाची सोयरीक जाली गे!... मे म्हयन्यांत

लग्न खंय! मुंबय रावपाचें खंय तें मागीर... आनी आतां स्कूल सोडचें पडलें ना ताका? आतां हिंदी शिकोवंक नवी टिचर घेवची पडली ना?''

''...सपना, आतां जेव पळोवया... आतां उरिल्ल्यो खबरो जेतकच सांग... नुस्तें वाडलां तें सोंपय... नाजाल्यार आतां बीनाच्या लग्नाक खंयचो ड्रेस घालपाचो हीं चिंता करूंक लाग...''

दोगांय मागीर हांस-हांस हांसलीं. जेवन दोगांय कामाक लागलीं.

दुसरे दीस सकाळींच रत्ना बरी चकचकीत शी साडी न्हेसून तांगेर पावलें. येतनाचा ताणें म्हळें- ''भोवोजी खंय तर? अजून उठूंक ना?''

''उठला तर...! न्हावंक गेला... येतलो रोखडोच तयार जावन...! बस तूं. च्या घेतलें?''

''नाका गो रंजूताई. आईन पोळे केल्ले आज... इतले बेगीन खावपाची संवय ना... पूण आईन खावयलेच! पोट सामकें ढम्म जालां...''

रंजू ओगीच रावलें. मागीर रत्नान म्हळें- ''रंजूताई भावोजी खरेंच म्हाका लागून कितलें करता न्ही? आज भावोजीन म्हाका लागून सुटी घेतली मगो...?''

''नरेनालें तशेंच गो! कोणाकय मदत करपाक सामको तयार! तातूंत बायलमनशांक तर मदत करूंक सामको फुडें!... आनी तुजे सारने सुंदर चली आसल्यार तर कांय विचारनाका...''

''ईऽऽ! रंजूताई, कितें गो? म्हजी फकाणां करतां?''

''ना गो! सहज सांगलें तुका खरें तें! म्हजो घोव तो! म्हाका आतां संवय जाल्या न्ही!... बाय गो, दादले मनशांचें बरें आसा... आमी बायलांनी आपलें नांव जपपाचें! न्ही? कितें म्हणटा?... आतां तूं तुगेल्या भावोजी बरोबर दीसभर भोंवतलें, बसीनी एक सीटार बसून वतलीं... दनपारचीं हॉटेलांत जेवतलीं... तान लागल्यार थंड कितेंय पितलीं... जावं च्या घेतलीं... बरोबर आसात म्हणटकच उलोवप-हांसप जाताच! तुगेलो भावोजी तर खबरी मारूंक ताण सामको!... ताका कितें?... पूण चली भुरग्यान आपली मर्यादा सांबाळूंक जाय... चार लोक पळयतात... उलयतात... लोक वळखतात न्ही आमकां?''

रत्ना घुस्पलें. रंजूच्या तोंडाक पळोवन ताणें म्हळें, "हांव किर्ते परक्या दादल्या बरोबर..."

ताका आडायत रंजून म्हळें- "आपल्या मनांत कांय नासता गो... तूं तर भुरगें!... आमगेल्याचें मन तर सामकें सरळ... तोंडान उलयतलो... मस्कऱ्यो करतलो... ताच्या मनांत कांय नासता... पूण लोकांचें तोंड कोण धरतलो? अमक्याचें चली त्या अमक्या बरोबर भोंवतालें... हांवें पळयलां न्ही म्हज्या दोळ्यांनी... हांसतालें... किटकिटतालें..."

"रंजूताईऽ..!?"

"बाय गो, तूं म्हज्या भावालें चली म्हणून तुका अशें सरळ शिटकायलां हांवें!... अशी ऑफिसांनी भोंवत नोकरी सोदपाक... थंय पोस्ट आसूंक जाय न्ही रिकामे? आनी भावोजीन कितेंय मस्कऱ्यो बी केल्यार तुका ऑकवर्ड जावचें ना मुगो? काव जेवतनाची खबर याद कर. म्हज्या मुखार चलता... म्हाका आतां ताचो सभाव कळ्ळा... म्हाका आतां कांयच दिसना... पूण परक्यां मुखार अशें कितेंय उलयल्यार? हांव जाणां... सुंदर चली दिसलें की तो पगळताच! सभावाक वखद ना म्हणटात न्ही?... पूण तितले पुरतोच गो... मुखार मुखार करपाक... पूण.... कळ्ळें तुका?"

"रंजूताई, तकली अकस्मात उसळूंक लागली म्हजी... हांव घरा वचूं?"

"वच... ॲनासिन बी कितेंय घे आनी एक न्हीद काड... आनी एक खबर... सपनाच्या स्कुलांत एक जागो रिकामो जावचो आसा खंय!... त्या बीनाची सोयरीक जाल्या... मे म्हयन्यांत लग्न जावन तें मुंबय वचपाचें... तूं स्वता वचून मेळ हेडमास्टराक... सांग ताका... तुजीं सर्टिफिकेट्स बी दाखय... आनी... आनी बरेंऽ इंप्रेशन मार ताचेर..."

"...पूण आतां ट्रेनिंग केल्लींच घेतात... हांवें बीएड खंय केलां?"

"आनी तुवें 'हिन्दी शिक्षक सनद' केल्या ती? बीना हिन्दीच शिकयतालें..."

रत्ना एकदम उठलें.. रंजूच्या म्हऱ्यांत गेलें.. रंजून ताका वेंगेंत घेतलें. ताचे फाटीर थापटिलें...

भरून आयिल्ले दोळे पुशीत रत्ना हांसलें.

''बरें गो रंजूताई, येतां हांव... आनी तुजें सांगणें केन्नाच विसरचें ना हांव.''

''म्हजी धूव आशिल्ली जाल्यार सांगतलें आसलें तेच तुका सांगलें हांवें...''

''जाणां हांव! आनी उपकार बी मानप ते परक्याचे... तूं म्हजें रंजूताई... तुका आनी थँक्यू बी कितें म्हणप? येतां तर हांव!''

''बरेंऽ करून! यो केन्नाय अशेंच...''

''हय तर! येतलेंच!... जेवणा वेळार पावल्यार तुज्या हातचें जेवनच वतलें...'' रत्नान वतना म्हळें.

थोड्या वेळान भितरल्यान शिळोणी घालीत नरेन आयलो... फेर्राद पँट... लांब हाताचो शर्ट... सामको कडक फेर्र मारिल्लो... भांग काडून केंस सामके बरें करून वळयिल्ले... बुटांचें पॉलिश चकचकतालें...

''आवयस! व्हंकलेक दाखोवंक भायर काडटात तसो सामको चकचकीत जाला तूं...!'' रंजून हांसत म्हळें.

''मागीर? मनशाचें इंप्रेशन पडूंक जाय जाल्यार सामकें टॅक वचूंक जाय!... कितें समजलां? आनी रत्ना आयिल्लें न्ही? खंय भितर गेलां?''

''रत्ना?... हय! रत्ना आयिल्लें... तकली सामकी फोडटा म्हणून सांगूंक आयिल्लें तुका येता म्हणिल्लें न्ही म्हणून आयिल्लें खंय...! हांवें ताका ॲनासिन घेवन न्हीद म्हूण सांगलें. आरोग्य पयलीं... न्ही? जीव पयलीं सांबाळपाचो...''

नरेन रंजूच्या तोंडाक पळयतच उरलो.

***

# जाता तशें केन्नाय

दाराची बॅल वाजली. माईन निर्मलाक सांगलें- ''पळय गो निर्मल श्रीकांत आयलो दिसता!''

निर्मलान दार काडलें. दार काडटतनाच ताचे तोंड सुरू जालें.

''वासंती मावशेलो अरविंद आयिल्लो... चली पळोवपाक! चली पळोवन बी गेलो.''

कसलीय नविदाद कळ्ळी की ती निर्मलाच्या पोटांत कश्शीच धरना हें माई जाणा आसली. तरी तिणें म्हळें, ''आगो, ताका भितर तरी सरूं दी. बसूं दी. च्याचें कोप दवर ताचे मुखार, पुरो जावन आयला तो... येतनाच कसलो भरभर लायला...?''

- निर्मलाचें तोंड दाराचे लॅच लागिल्ले भशेन फटकन बंद जालें.

ताका मांयचो राग येवंक ना. आपलो स्वभाव तें जाणा आसलें आनी ही कितें पयलीच खेप न्हय! कितेंय नविदादशी घडली की ती ताच्या पोटांत धरच नासली. आपलें उणेंपण तें जाणा आसलें.

आतांय तें भितर गेलें. पटकन च्या करून घोवाक दिली आनी वाडगोभर च्या मांयचे मुखार दवरून तें हांसलें.

मांय ताचेर खूश आसताली. पचकन परती जाप ताणें तिका केन्नाच दिवंक ना. लोकांच्यो सुनो पळयल्यार आपली सून भांगर अशें तिका दिसतालें. पूण हें सगळें ती मनांतच दवरताली. मोठ्यान उलोवन केन्नाच दाखयनासली.

-हय! फाल्यां माथ्यार बसली जाल्यार!

निर्मल समजुवपाचें तें समजतालें.

श्रीकांतान च्याचो घोट मारलो. ''आऽऽ, बेस्स बरी जाल्यार हां च्या!'' ताणें हांसत म्हळें. ''सांग आतां तुजी वासंती मावशेची काणी...''

''...काणी कसली? सादी खबर... तीय बी वासंती मावशेची न्हय... अरविंदाची! वासंती मावशेली नदर बरी वयर आसा. धायमोड्याल्या लिनाक पळोवंक धाडिल्लो ताका!''

''आब्बा! लिना? बरी सुंदर सून हाडटा तर वासंती मावशी!... तरी म्हणटां, फाटले खेपो वासंती मावशी आयिल्ली- एक दीस पांय घराक धरलो ना! हांगा थंय धांव भोंव करताली सामकी! हेच सोयरिकेक लागून दिसता! आमकां मात सुलूस लेगीत लागूंक दिली ना...''

''म्हाका सांगतालें रे तें! दोन चलयो सांगून आयल्यात. बऱ्या घराण्यांतल्यो! पारखून करूंक जाय म्हणून! ताचोय जाल्यार एकलोच उरला न्हय लग्नाचो! व्हडलो अमेरिकेक पावलो- थंयच संवसार थाटून बसलो. दुसरो बदल्यो जाता थंय भोंवता- बिराड फाटीर मारून! हो अरविंद मातसो घर घेवन बसपी- भयणीचीं कुळारपणां करपी- वजीं- भाडीं धाडपी... बापायन भाट-बेंस दवरलांच! तातूंत इंजिनेर- घे म्हणून दुडू जोडटा... खोटल्यांनी...!!''

...जाण्टेलेक दोतोर आनी इंजनेर म्हळो की खोटल्यान दुडू दिश्टी पडप!... जणूं काय दोतोर- इंजनेर जालो की- भर खोंटलो दुडवांनी...!

ऑफिसांतल्यान पुरो जावन आयलो तशें श्रीकांतालें हुकमी वखद... च्या घेतां-घेतां आवय कडेन आनी बायले कडेन टिवल्यो-बावल्यो करप...

''...अरविंदालो खोंटलो केदो व्हडलो तें पळयलां मुगे माई तुवें! आतां ताका सांगूक जाय मातसो व्हड खोंटलो घे म्हणून... सांगता मगे माई...?''

पुतान आपल्यो भगलो मारल्यो की जाण्टेली खूश जाताली... पुताची आपल्याचेर माया... देखून तो आपल्याक तिडायता...

तिची कोर्द सुटली... ''[illegible] बाबड्या अरविंदाचें हां. पोर बारा वरांच्या कडार हुमलो कशें तोंड घेवन आयिल्लो. म्हजें धरिल्लें कमर, म्हज्यान खंय जाता रे ताका कितेंय करून घालपाक?... आनी आमची सून दिस्त ह्या

वेळार बाजारांत...''

श्रीकांतान हळूच निर्मलाक दोळो मोडलो... माईन तें पळोवन पळेनाशिल्ले भशेन केलें आनी आपले उलोवणें मुखार चालू केलें... 'निमाणें शर्दाक उलो मारून हाडलें आनी च्या घाली ताच्या ताळ्यार. शर्दाकय बाबड्याक कॉलेजांत वचपाची ताकतीक... ताणें गॅसार अळसाद्यांचें तोंडाक आसा तें पळयलें. आपल्यागेर सकाळचे पोळे केले ते हाडले... अरविंदान चारय पोळे तोंडाकाक लावन खाले, दोन कोपां च्या मारली. पोर बरोऽ भुकेल्लो दिसता... शर्दान पोरान...''

कोणेंय आपल्यागेर येवन पोटभर खातकच निर्मलाची मांय धादोस जाताली.

- हें शर्दा पोर' म्हळ्यार मुखावेल्या फ्लॅटांतलें 'शारदा'. सगळीं ताका 'शरू' म्हणटाली. पूण निर्मलाचे मांय नांवाचे कुडके केल्ले आवडतात. ती ताका बरोऽ 'शारदा' म्हूण उलो मारताली. पूण नांवाचे कुडके करूं नये अशें म्हणटां-म्हणटां तिणें ताच्या नांवाचो 'गुड्डो' केल्लो आनी 'शारदा' चें जालें 'शर्दा.'

शरूची तोखणाय म्हळ्यार आपली नालस्ती केली काय असो निर्मलाक दुबाव मारलो. ताणें नाका फुलोवन म्हळें- 'आपल्यागेरचे पोळ शे कित्याक खावयले? डब्यांत चिवडो आसलो, बिस्कुत्यो आसल्यो...''

''आगो, हाकाच शिटूकसाण म्हणटात. सकाळचो कोपभर च्या घेवन आयिल्लो तो.... पोटाभुकेर चिवडो खावयतात? पत्तो खबर नासून वणवण केली खंय! बरें! व्हंकलकारांक सांगलां तरी न्हवरो पळोवंक येतलो म्हणून? भायले भायर पळोवपाची उमेद! हावाशिवा करून घरांत भितर सरलो तर लिनाच मेळ्ळे खंय! फोट्या वेल्यान वळखलो. ताचे कडेनच उदक मागलें. पिवपाक खंय! लिना भायर सरिल्लें कॉलेजाक वचूंक दिसता... ताणें चेडवाक ओर्द सोडली उदक दिवपाची... चेडवाक भोव तें... चवकशी करची... च्या दिवची म्हणून... हो उदक पिवन बद्द हांगा आयलो...'' माई सांगत रावली.

''पूण लिनाक पळोवन सामको भुल्लुसलेलो हां... त्याच नेटार चारय

पोळे खाले दिसता...'' निर्मलान सांगलें.

''...म्हणजे आतां रोकडेच लाडू पडपाचे आसात तर आमकां...'' श्रीकांतान म्हळें.

ताका चड खुशी ही की मांय सुनांच्या खबरां मदीं ताणें एक सिगार कसलेच थोमडे-आडमेळीं नासतना रुचीन सुशेगाद शें ओडलें... ना जाल्यार सिगार पेटयलें तशें हेवटेन माई तेवटेन निर्मल... उलोवन उलोवन ताका नाका तें सिगार करपाचीं...

दुसऱ्या दिसा श्रीकांताक ऑफिसांत वचपाक लेट जालो. ताकतिकेन ताचो डबो करपाच्या बोवाळांत निर्मलाच्या हातार सळसळिल्लें उदक ओतलें. हरशीं निर्मल कामाक वाघ... पूण जिवाक एद्दे कितेंय जाल्यार ताच्यान कशेंच सोंसूक जायना. ताणें हुयेली मारून घरांतलीच न्हय शेजारची लेगीत एकठांय केलीं... मागीर हजार वखदां...

...कोणें हातार शाय घाल्यार बरी म्हणून हातार शाईची बाटलीच ओतली... म्हणसर रमेशाले आवयन थंड उदकांत हात धरल्यार बरो म्हणून भरिल्ली बादलीच उबारून हाडली... तातूंत हात बुचकळायसर कोणें झेल घाल्यार बरो म्हळें... इल्यांत शरूचो भाव बर्नलाची ट्यूब घेवन धांवत आयलो. हाताक बरेंऽ बर्नल बी सारोवन घेवन निर्मलान आपलें 'आवय देवाऽऽ' मातशें बंद केलें आनी अरुणाक हळूच विचारलें- 'शरू गेलें रे कॉलेजींत? नाजाल्यार मातशें आमगेर धाडशीत?''

-अरुण समजलो. आज शरूक घशट्याक लायता ही बायल! ताणें म्हळें- ''पळयतां घरा वचून, अजून गेलें ना जाल्यार धाडटां...''

शरू आयले बराबर घरांतलो बोवाळ मातसो जाग्यार पडलो. श्रीकांत डबो घेवन ऑफिसांत गेलो. आज दोनच पिरियड आशिल्ल्यान शरून कॉलेजीक दांडी मारपाचें थारायलें. ताणें तशें सांगनाफुडें माईचें चडिल्लें प्रेसांव देंवलें.... दमो चाळोवन खांक येताली ती कमी जाली. तकलेक अमृतांजन चोळीत तिणें म्हळें- ''सकाळच्यान बाये तकली उसळटा ती थांबच ना. आतां लक्षांत आयलें. आगो शार्दा, हांवें अजून च्याचो घोंटच पुता ताळ्यार घालूंक ना.''

"अशेंऽ! कांय नज! हांव करून दितां हां आतां...!"

इतल्या वर्सांच्या सहवासान शरूक सगल्यांतली उतरां, संवगां समजतालीं. ताणें च्या करून दिली आनी म्हळें, "माई, च्या घे आनी मातशी आड पड. जीवाक बरें दिसतलें तुज्या."

-माई आनीकय सुखावली. जीव सदळ जाल्लेवरी दिसलें तिका! आतां सगळें काम आपल्या माथ्यार पडलें अशें दिशिल्लें तिका... सून हाडत सावन हातपांय घोळोवन खावचे परस बसून खावपच तिका चड मानवतालें. चडच जाल्यार तांदूळ वेंचून दी, चिडकी मिडकी मोडून दी... असलींच कामां ती करताली. त्या कारणान पयलींची सडसडीत आशिल्ली ती बायल आतां सामकीच 'कदें' कशी दिसतालीं. आनी नाना तरेच्यो व्याधीय तिणें जोडिल्ल्यो.

आतां शरूलो च्या ताळ्यार पडटकीर निर्मलाच्या जीवाक बरेंऽऽ दिसलें. हाताक वखद लावन परंवत पडिल्लें बाबडें!

शरून पटापट कुकरांत दाळ-भाजी लावन दुसऱ्या गॅसार शिताक वडयलें. नुस्तें-बिस्तें हाडूंक ना हो एक सुशेग! ताणें चितलें. इकरा साडेइकरा मेरेन हांगेलें रांदून दवरल्यार मागीर नोट्स काडूंक मेळटल्यो... लायब्ररीचें पुस्तक फाल्यांच परतें दिवंक जाय.

शीत-रोस-भाजी-कडी. सगळें मेजार दवरून शरून हात धुयले... हें इतलेंच करपाक माईक व्हडलो याग केल्ले भशेन दिसपाचें...

"जालें गो सगळें? मात्शी ताटां काडून मेजार दवरून चल गो शरू..." निर्मलान म्हळें.

शरून ताटां-पेले धुले, पुसले आनी मेजार मांडले. इतल्यांत दाराची बेल वाजली.

'कोण पळय गो शर्दा..."

"...पळयतां माई..." शरून दार उगडलें. दारांत तोच तो... कालचो... अरविंद काय कोण तो...!

शरूक पळोवन अरविंदान चांचरत म्हळें- "हांव... ह्या वेळार... म्हणचे..."

तशें मुमुरकें हांसून शरून म्हळें- "आसूं हां... काय नजऽ येयात, बसात हां...!"

ताका हॉलांत बसोवन शरून माईच्या म्हऱ्यांत वचून सांगलें- "माई, कालचोच्च गे...!"

"कितें? अरविंद रे?" माईली तकली पुटकन थांबली आनी उलयतां म्हणसर उठून हॉलांत पावली लेगीत.

"आरे, कितें रे? अकस्मात सो?"

"हांगा आयिल्लो. तुमकां जाप करून वचया म्हळें..."

"मागीर लाडू केन्ना तर आमकां?"

आनी अरविंद चक्क लजेलोच!

एदो व्हडलो दादलो मनीस हो लजेता हें पळोवन शरूक हांसूक येवंक लागलें... तशेंच भायर सरून तें बेगिबेगीन आपल्या घरा गेलें. घरांत पावतकच ताणें पोटभर हांसून घेतलें.

शरूची आई नुस्तें तळटाली. "कोणाक हांसता गो बाय? आनी आयज कॉलेजीक वचना तर?" तिणें मायेन विचारलें. आपले हे धुवेची तिका मोठीच व्हडवीक... कितलेंय काम पडूं... हांसत्या मुखान फुडें सरून करतलें... आपलो अभ्यास सांबाळून बरे तरेन पास जावपी...

"आज दोन पिरियड आसले गे! माईगेर घुस्पून उरलें न्हय? आतां जेवतां आनी नोट्स काडूंक बसतां... काल हांवें पोळे गिळूंक घाल्ले न्हय, तो सोयरो आयज आयला तांगेर. माईन ताका 'लाडू केन्ना' काय विचारल्यार कितलो लजेलो जाणां तो? म्हाका हांसूकच येवपाक लागलें."

शरू आईन मागीर ताका बेगीबेगीन वाडलें. जेवन बी शरू आपल्या अभ्यासाक बसलें.

पांच जायसर एक चित्तान तें बरयतालें. वळून आयिल्ले हात वयर काडून 'ऑऽ' करून आळस काडपाक घड्याळान टणटण करून पांच जालीं म्हणपाचें ताका कळीत केलें. तें हांसलें आनी वण्टी कडेन तोंड करून ताणें घड्याळाक म्हळें- "थँक्यू व्हेरी मच."

शरू आवय थंयच शेंदरी घालून आड पडिल्ली.

तिणें दोळें धांपूनच विचारलें- ‘कोण आयला गो बाय?’’

‘‘कोण ना आई…’’

‘‘कोणा कडेन उलयतालें तर?’’

‘‘कांय ना गे! ओगीच फकाणां. घड्याळा कडेन उलयतालें. ताणें म्हाका पांच जालीं म्हणून याद केली न्हय?… शालिनी वाट पळयतालें…’’

‘‘तूं एक पिसायच! घड्याळा कडेन म्हणून कोण उलयता? आनी आतां शालिनीगेर कित्याक गो?’’

‘‘अशेंच गे! ताका नवो ड्रेस घेवंक जाय खंय… बाजारांत ताचे बरोबर… पासय जाली…’’

‘‘च्या करतां राव…’’

‘‘तूं आड पड गे! हांव च्या करून पितां आनी तुकाय दितां…’’ मागीर आवयक च्या दिवन तें बेगीन तयार जावन शालिनीगेर वचपाक भायर सरलें.

गार्डना कडच्यान वतना ताची नदर अचकीत एक जोड्याचेर पडली…. तोच तो!… अरविंद…. आनी ताचे बरोबर तो गर्वाचो पोटलो… लिना…!

क्लासांत चलयांनी ताका हेंच नांव दवरिल्लें! ‘गर्वाचो पोटलो!’ आतां हो गर्व कसलो कसलो म्हूण सांगचो!

-सुंदरकायेचो…! गिरेस्तकायेचो…!! अभ्यासांतले हुशारकायेचो…!!! पूण सगल्यांक उणे लेखपाचो ताचो गूण सामको जाहीर आसलो…

असल्या ह्या लिना बरोबर ती लजे व्हंकल… अरविंद….! शरूक अरविंदाची ओगीच काकुटशी दिसली. ताणें मुद्दाम चाल ल्हव करून परती नदर मारली. दोगांय बरीं खबऱ्यो करताली. बरो आसा तर हो! माईच्या मुखार लजेल्ले भशेन करून हांगा लिना बरोबर बरो धिटायेन खबरो करता? घड्याळार नदर मारल्यार साडेपांच! शालिनी वाट पळेतलें… ताणें सडसडीत पावलां उबारलीं.

त्या दिसा निर्मलान शरूक मुद्दाम घरा आपोवन भजी खावयलीं. शरू अशे केन्नाय ताका पावपी. घरांत कितेंय वेगळें खाण केल्यार निर्मल ताका चुकयनासलें.

''-वैनी, भजीं बेस्ट जाल्यांत हां...''

निर्मला खूश!... शरूचे प्लेटीत नाका-नाका म्हळ्यार आनीक चार भजीं घालींच ताणें!

''आतां रातचें जेवण ना केलें म्हजे तुवें...!'' शरून भजीं खायत म्हळें.

''आगो, ताच्या हातार एक पेढो दवर. अरविंदाल्या लग्नाचो प्रसाद जालो गो शर्दा...!'' माईन सांगलें.

माई खुशाल जाल्ली. ती येवजिताली- आतां साकरपुडो... मागीर लग्न... मागीर वेय जेवणां... सगळ्या कामांत माई जायच!

इतली जाण्टी जाली तरी मिरोवपाची खोस ही आसलीच तिका...! पेढो खावन शरून उदकाचो ग्लास तोंडाक लायलो. प्लेट व्हरून बेसिनांत दवरली. ग्लास धुवन उमथो घालो... माई अपुरबायेन पळेताली. ती चिंतताली- ह्या शर्दाची देख सगळ्यांनी घेवची.

दुसरे दिसा निर्मल आनी श्रीकांत दोगांय जोडयेन बाजारांत वचपाक भायर सरलीं. माईन केळवण करपाचें, हाचें ताचें एऽद्दें लिस्ट निर्मलाक दिल्लें. शरूले भावान- अरुणान तांकां हटकिलें- ''अशेंच रे, शॉपिंगाक.'' अशें म्हणून निर्मलान वचपाची ताकतीक केली.

''शॉपिंग करतकज बरोबर मानाय नाका? घरचोच मानाय सवाय पडटा...'' श्रीकांतान हांसत म्हळें.

तीं भायर सरून गेल्यांत मात, फाटोफाट अरविंद लिनाक घेवन तांगेर हजर!

''जावं हां! मुद्दाम मावशेक व्हंकल दाखोवंक घेवन आयलो.'' माईन तोंडभर हांसून ताका येवकार दिलो. तांकां हॉलांत बसयलीं आनी भितर च्या करूंक गेली.

''निर्मलाकय आजच बाजारांक वचूंक फावलें? म्हज्या आयलां कमरांत...'' आनी नवे व्हंकलेचें तोंड गोड करपाक कितेंय गोड करचेंच

पडलें...!!! माईन चिंतलें... ती रवो भाजूंक लागली.

अरविंदाक दिसलें- लिनान भितर वचचें... हांव करतां च्या म्हणचें... खावंक कांय नाका हां करूंक म्हणचें...

पूण लिना सोफार बशिल्लें तें हाल्लेंच ना. भाजिल्ल्या रव्याचो वास हॉलभर पातळ्ळो. तशें अरविंदान म्हळें- ''मावशे, तुज्यान पयलींच नजो- तूं शिरो-बिरो कांयच घेवन बसनाका गे...! फकत च्या दी... तुज्यान खंय जाता आतां? साकरेची चिमटी हातार दवरल्यार लेगीत आमचें तोंड गोड जाता. न्हीं गो लिना?''

माईक खोशेन सर्गधन जाल्ले भशेन दिसलें. 'जावं हां! भयणीलो चलो. पूण सख्ख्या चल्या भशेन म्हजेर मोग!' माईक शिरो करपाक आनीक उमेद आयली. तिणें शिऱ्याच्यो बश्यो तांचे मुखार दवरल्यो.

अरविंदान रुचीन शिरो खावंक सुरवात केली. मातसो चिकचिकीत जाल्लो... पूण घरावें तूप, काजू, खिसमीस, येळ बी घालून आपले भाशेन माईन तो मचमचीत केल्लो. लिनान एक कुलेर शिरो तोंडांत घालो आनी आंग शिरशिरले भशेन करून बशी सकल दवरली. अरविंदान ताका आग्रो केलो- ''खा मुगो थोडेतरी. मावशेक वायट दिसतलें...''

लिनान रागाच आयलो... ''आतां तुमचे मावशेक वायट दिसत म्हणून हांव कितेंय पचकट तोंडांत घालूं काय कितें?''

''हळू उलय. मावशेन आयकल्यार ती कितें म्हणटाली?''

लिनान अरविंदा कडेन भुंवयो उबारून पळयलें... आनी तें तोंड वांकडे करून बसलें.

- इतल्यांत भायल्यान शरू ''माई, इल्लें मेळांय मेळत गे धंय लावपाक...?'' करीत भितर सरलें. भायर सोयऱ्यांक पळोवन ताणें जिबूच भायर काडली. तांचे कडेन पळोवन हांसलेशें करून तें बेगीन किचनांतच गेलें... देवा म्हज्या! म्हजो हो अवतार...! हो घरांतलो गाऊन. न्हाल्ले केंस फाटभर फाफसल्ले... तोंडा भोंवतणी... भूत कशें! ताका लज जाली... तातूंत तें लिना आनी कुचित्र्यांनी हांशिल्लें भशेन .

किचनांत भितर सरतनाच शिऱ्याचो तोप पळोवन ताणें म्हळें-

''आब्बा! माई, शिरो केलो तुवें?''

''हय! घे गो, खा. रुच पळय!''

शरून इल्लोसो शिरो कुलेरान काडून तोंडांत घालो.

''फसक्लास जाला शिरो...''

''मातसो चिकचिकीत जाला गो...''

''...रवो भाजप कमी जाला. पूण रुचीक बरोऽ जाला. तातूंत आनी काजू-खिसमिस...''

तशी माई फुल्ली. शरूक शिरो खावपाचो आग्रो करूंक लागली.

शरून म्हळें- ''आमचो जालो रोकडोच जेवणा वेळ! आतां शिरो खाल्यार हांव जेवतलें केन्ना?... तूं चल, सोयऱ्यांची खबर घे... हांव करतां च्या...!''

तशी माई भायर येवन लिना म्हऱ्यांत बसली. लिनाक शिरो खावपाचो आग्रो करूंक लागली. पूण लिनाचें 'हय' ना आनी 'ना' ना. ओग्गी आपलें मासीक चाळीत बसलां.

-केन्नाकाय हांगाच्यान भायर सरतां अशें ताका जाल्ले. तातूंत ही मावशी... म्हजे सामकी म्हऱ्यांत येवन बसल्या... तिका कितलो घाम आयला... आनी म्हज्या फाटीर आनी हात भोंवडायता...

-ताका सामकी वीट आयली...

''साकरपुडो केन्ना करपाचो थारायला?'' माईन विचारलें.

''पळोवया...'' अरविंदान सांगलें. ''ताची मावशी बी येवची आसा खंय अमेरिकेच्यान... मागीर थारावप...'' माईचीं आनी अरविंदाची उलोवणीं चलतात. लिनाक तातूंत रसच ना.

इतल्यांत शिरून च्याचो ट्रे हाडून मेजार दवरलो. सगळ्यां मुखार च्याचें कप दवरलें... शिऱ्याच्यो बशी काडून ट्रेंत दवरल्यो. तें ट्रे घेवन भितर वतले, इतल्यांत माईन म्हळें- ''हें शर्दा. आमचें शेजारी... कामतीलें... कॉलेजींत शिकता... देवता कशी पावता बाये म्हाका वेळार... कसल्याय कामांक... तुजेंच कॉलेजींत वता काय कितें? खंयचें कॉलेज गो शर्दा?''

''आमी एकेच कॉलेजींत, एकेच क्लासींत शिकतात माई.'' शरून

म्हळें आनी लिनान शरू कडेन पळयलें.

...न्हाल्ल्या केंसांचो आतां ताणें आंबाडो बांदिल्लो. पूण मोटव्या कुल्लाची प्रभावळशी ताच्या वाटकुळ्याच तोंडा भोंवतणी जाल्ली... भुरग्या भशेन फुगीरशे पोले... लजेस्तरी न्हिदसुरे कशे दोळे... आनी जाडशोच भोंवयो...!!...शीऽ! ब्युटी-पार्लरांत वचून भोंवयो कोरतात हें लेगीत हाका खबर ना काय कितें? मेकअप सोडच, घरा भायर पावल घालतना तोंडार पाडराचो हात तरी भोंवडायचो आसलो पापणीन! सामके अडाणी, गावंढळ कशें!

- आनी हें म्हजें क्लासमेंट?

ताणें तोडिल्ले भशेन म्हळें- ''एके क्लासींत? जायत! हांव वळखना... क्लासींत कितल्यो चलयो आसात!... कोणा कोणाची वळख दवरतलें?...'' अशें म्हणून तें च्या पीत रावलें.

अरविंदाक ओगीच लज शी जाली. ना म्हळ्यार- भुकेवेळार शरूनच ताका पोटाक घाल्लें... सादेंच, पूण रुचीक कशें जेवण!... आनी हें लिना... ताणें केल्ली च्या पिता आनी ताका वळख लेगीत दाखयना...

लिनान त्या शरूक अशें कमी लेखिल्ले भशेन तोडप अरविंदाक मात्तय आवडलें ना.

पूण शरून ताचें वागणें मनारच घेवंक ना. ताका वेल्यान हांसूंकच येतालें.

''अशेंऽ! वळखना? कांऽय नजो हां! जाता तशें केन्नाय पूण हांव वळखतां...'' ताणें हांसून म्हळें.

सडसडीत ट्रे व्हरून भितर दवरून शरून म्हळें- ''येता गे माई! आई म्हणटली- मेळांय हाडूंक गेल्लें तें खंय पावलें काय म्हणून!''

आनी हांसत- हांसत भायर सरून गेलें लेगीत तें! अरविंद ताका पळेतच उरलो. अशें कशें हें? राग आयल्यारय हांसता तें! आनी तें जाणट्ट्या भशेन 'अशेंऽ! कांय नज!' हेळे काडून म्हणप ताचें कानांत घुमत उरलेशें!

कित्याक कोण जाणा, अरविंदाक केन्ना न्हय तो आयज लिनाचो रागच आयलो. मावशेच्या घरांतल्यान भायर सरना फुडें ताणें लिनाक म्हळें

- "अशें कितें वागता तूं लिना?"

"कित्याक? कितें जालें?"

अरविंदाक म्हणचें आसलें- 'त्या शरूक तुवें इन्सल्ट कित्याक केलो?' पूण गडबडून ताणें विचारलें दुसरेंच- "जाण्टे मावशेच्या पांयां लेगीत पडलें ना येतना?"

त्या बरोबर लिनान म्हळें- "पांयां पडप आसाच न्ही मागीर! तेन्ना पांयां पडटां आनी पागणय घेतां..." मोठो विनोद केल्ले भशेन तें आपूणच हांसलें. अरविंदानय आपले बराबर हांसचें अशें ताका दिसलें- पूण अरविंद सामको सिरियस...

"- लिना, फकाणार व्हरनाका गो! फाल्यां लग्न जातगेर- घरा म्हजी आवय आसा... हे मावशे भशेनच तीय बी... मोगाळ... सुनेक आशेल्ली... तिका मनशां खूब जाय... तिचो मान राखून वागूंक जाय तुवें... तिका परतें उतर दिवंक जायना..."

आतां मात लिनाचें तापलेंच!

"तूं खंयच्च्या काळांतल्यो खबरी करता अरविंद? म्हाका दिशिल्लें-शिकिल्लो-सवरिल्लो... इंजीनियर तूं... पूण तुजे विचार इतले जुनाट? मॉडर्न रावप तरी आसा काय ना तुज्या घरांत?... आतांच हांवें तुजें मावशेलें घर पळेलें... तसलें वातावरण म्हाका खपपाचें ना हां...! पयलींच सांगता! आयचेंच पळय... तें शेजारचें खंयचें कोण येता... सरळ किचनांत घुसता. गांवढळ... मॅनर्सच नात...!"

लिना उलयत आपलो ओघ घालीत रावलें. अरविंद अजापान आयकत रावलो... ताच्या तोंडाक पळयत... राग आयिल्ल्यान ताच्यो कोरिल्ल्यो भोंवऱ्यो धनुश्या भशेन ताणिल्ल्यो... चांपयांची कळी कशें नाक रागान फुलिल्लें... मुळेचें गोरें... आतां राग आयिल्ल्यान ताचो चेरो तांबडो गुलाबी जाल्लो... रागान ताची सुंदरकाय आनीकय चड सोबताली... अरविंद पळयतच रावलो...

'- सुंदरकायेची मूर्त...

आनी आपल्या सुंदरकायेचजी जाणवीक ल्हवेंल्हवेंत भरल्या.

...कोणाकय हाताच्या बोटार नाचोवपाची तांक आसा म्हाका... अशें कितेशें मग्रूरपणान सांगपी ते घारशे-पिंगशे दोळे... त्या सोबीत दोळ्यांच्या मोगांत पडूनच ताणें लिनाक हयकार दिल्लो..

आनी लग्नाचो प्रसाद जालो तेन्ना ताचो पांयच जमनीर थारना जाल्ले...

- अशी सोबीत बावली म्हजी बायल जातली...!

- म्हाकाच म्हजी नसाय जायना मूं...?

कितलो वेळ ताणें आपल्याकच चिमटो काडून आपूण जागो आसां काय सपनांत तें अजमायिल्लें.

- आतां, ह्या खिणांत, कितलें सुंदर दिसता हें! पूण... ताचे सुंदरकायेंत कितें तरी उणें आसा?

कितें काय?

तीच सुंदरकायेची मूर्त... सामकें चोख भांगर कशी!! कमी खंयच ना... पयलींय नासलें... आतांय ना... अरविंदाचे दोळे लिनाच्या मुखामळाचो वेध घेतालें. लिनान मान घुंवडावन ताच्या दोळ्यांक दोळो दिलो...

ती नदर... दुसऱ्याक किंकोत करून तुच्छ लेखपी ती नदर...!!

- त्याच खिणाक अरविंदाक सत होलमलें...

कमी लिनाच्या भायल्या रुपाक ना... कमी आसली ताचे भितर... दोळे... मनाचा हारसो... त्या हारशांत ताचें समस्त व्यक्तीत्वाचें पडबिंब... खरें कोण? हें लिना? काय तें लिना?

मागीर दोळ्यां मुखावेल्यान लिनाचीं आजवेर देखिल्लीं कितलींशींच रुपां... सिनेमाचो ट्रेलर पळयिल्ले भशेन...

पयलेचदां तांगेर भितर सरून उदक मागिल्लें. चेडवाक उलो मारून- 'हाका कितें जाय पळय' अशी ओर्द सोडून आपूण भायर सरून वचपी लिना...

ताईक मुद्दाम लिनाची वळख करून दिवपाक आफोवन हाडलें. ताईन सहज दवरिल्लो हात झटकून वडोवपी... ''म्हाका खांदार कोणेय हात दवरल्यार आवडना.'' अशें कपलाक आंठयो घालून सांगपी लिना...

पासयेक गेल्ले कडेन 'कॉफी घेवया' म्हणून हॉटेलांत गेल्यार 'शीऽ असल्या हॉटेलांत वता तूं?' म्हणपी लिना.

मनोहरा कडेन 'हो म्हजो मित्र' म्हणून वळख करून दिल्यार... शेकहँड करून तो वतकच 'घरा वचून हात धुंवचो पडलो. बुरशा मनशाचो खरखरीत हात... बरेऽ डिसेंटशे मित्र ना काय कितें तुका?' अशें नाक किळसावन विचारपी लिना...

- ताका खंय खबर- लेंगो, सदरो आनी व्हाणो घालून भोंवपी हो मनोहर... ताचें घर भरून दार आत्ता अशी गिरेस्तकाय... अशें आसून तळमळीन तो सोशलवर्क करीत भोंवता.. गरिबांचे प्रस्न सोडयता... ताच्या त्या खरखरीत हातांनी कितल्या जिणेचें भांगर केलां... आनी ते राकट कुडी भितर कितलें म्होंवाळ अंतस्करण आसा तें...!!

पूण हें लिनाक सांगून गेल्यार, 'असली गिरेस्तकाय आसा जाल्यार असो जगार दळदिरोसो भोंवता कित्याक तो?' अशें विचारून ताणें अरविंदाचें तोंड बंद करून वडयिल्लें. खरें म्हळ्यार अरविंद तोंड बंद दवरचे बदलां तोंड उक्तें वडोवन आंऽ करून ताका पळेतच उरिल्लो...

''... कितें चिंतूंक बसला? या आतां... म्हाका घरा पावय... सामकें बोअर जालें हांव...''

अरविंद विचारांच्या गुपांतल्यान भायर आयलो. ताणें स्कूटर स्टार्ट केली. लिना फाटल्यान बसल्या बरोबर ताणें स्कूटर फास्ट सोडली ती बद्द लिनाच्या बंगल्याच्या दारांत उबी केली. लिनान ताका भितर आपयलो पूण काम आसा म्हणून निमित्त करून तो घराच गेलो.

घरांत वावुरतना तो आपल्याच विचारांत आसलो. आज सोमार म्हणून जेवण शिवराक... तातूंत बटाटांची भाजी... ताचे आवडिची काय न्हय... पूण तो खालमानेन जेवत रावलो... ताटांतली भाजी सोंपली तशी आवयन परती भाजी ताटांत वाडली... अरविंद मुकाट्यान खायत आसा. आवयक अजापच जालें. तिणें फकाणां केलीं- ''कितें रे अरविंद, लिनाक मेळून आयिल्ल्यान बटाटांची भाजी लेगीत आवडूंक लागली...?''

तशें भानार येवन अरविंदान ताटांत पळेलें- हांसलेशें करून तो

आंवपाक बेसिना कडेन गेलो.

आवय आपले भितर हांसली... अरविंदाचे आतां- दीसच अशें... तातूंत सुंदर व्हंकल मेळ्ळ्या... दिश्ट लागपा सारकी...! 'लिना घरांत येतकच' घरदार कशें खुशालकायेन भरतलें!

'लिना घरांत येतकच मागीर...' अरविंदाच्या मनांत हेच विचार घोळटाले.

ताणें लिनाक मातशें ह्या घरांत हाडून पळयलें...

- मावशे भाशेनच अरविंदाचे आईचोय सभाव! 'हें खा गो, तें खा गो' करपाचो. दिसाक एक-एक तरा खाणाची करून खोवोवपी ती! नवी सून येतकच तर 'कितें करूं, कितें नाका' अशें जातलें तिका...

- लिनाचें आनी तिचें पट्टलें काय?

- आंवंय! आमगेर अशें ना...!

म्हाका हें सोंसना... म्हाका तें आवडना!

म्हाका हाचो वीऽट येता!!

अशेंच करीत आयिल्लें लिना ताणें पळयल्लें.

केन्नाय तांगेर गेल्यार सुंदरसो गाऊन घालून सोफार बसून मॅगझिनां चाळीत आशिल्लें लिना ताका मेळिल्लें.

- केन्नाच ताणें आपल्या हातान अरविंदाक च्या हाडूक दिवंक नासलो. सगळे-सगळे चेडवाच्या हातान...

- चेडवान मातशी चूक केल्यार, ना जाल्यार वेळ केल्यार मात ताचेर ताणशेवप...!!

अरविंदाली आवय मातशी पोरण्या विचारांची. भायलीं कामां कितलींय चेडवां-वावराड्यांनी करूं दी, पूण किचन मात तिचीच आसली. तरेकवार जेवणां-खाणां करून घरांतल्यांक आनी घरांत येतल्यांक खावोवप हो तिचो जिवाचो छंद.

आळशीपण तिच्या आंगात नासलें. आंग मोडून खंयचेंय काम करचें, कांय ना जाल्यार भाटांतल्यान अशीऽ पासय मारची, शेजाऱ्यांची, भागेल्यांची वासपूस करची, तांका वेळार पावचें...

अरविंदाची आवय वाड्यार सगळ्यांक जाय आसली.

ह्या घरांत लिनाचें आनी तिचें कशें जमत काय? ज्या रुपाची म्हाका भूल पडल्या तें म्हाका, आईक सुखी करत मूं?

हाचे उलट लिना तरी ह्या घरांत येवन सुखी जायत काय? ताच्या रुपाची, ताच्या हुशारकायेची खरी तुस्त ताका ह्या घरांत मेळत मूं?

विचार करून करून अरविंदाची तकली सामकी फुटूंक आयली... फाल्यां सकाळीं आई कडेन ह्या विशयाचेर उलोवंचेंच पडलें.

रातची न्हीद लेगीत ताका सुस्त लागूंक ना. रातींतल्यान कितल्या वेळां तो सपनेलो, जागो जालो...

एका सपनांत तर लिना शिऱ्याची प्लेट शेंवटून मारतालें. आनी तें शर्दा काय कोण तें- जाण्टुली शी हांसत हांसत 'आसूं हां आसूं... काय नज' करीत प्लेटीचे कुडके पुंजायतालें.

छे! ऑफिसांत कितलीं कामां उरल्यांत... फाल्यां तरी ऑफिसांत वचूंकच जाय... सुटी म्हणून कितली घेवप... तीन दीस जाले... फाल्यां बेगीनच वता...

- आतां तरी न्हीद पडल्यार पुरो.

फांतोडेर ताचो दोळो लाग़लो.

सकाळची फोनाच्या आवाजान ताका जाग आयली... फोनार लिना उलयतालें...

"एऽ, आज पळे, सकाळचो धा वरां मेरेन आगमेर पाव हांऽ" ताणें आपल्या लाडाविल्ल्या गोड-गोड आवाजांत ताका फर्मायलें. "आँटी आनी अंकल येतात... कोण म्हणचे? म्हजी मावशी येवपाची आसली ती... कळ्ळे न्हय? स्पेशल तुका मेळपाक हां!... आनी पळय, अंकलाक न्ही, स्मार्ट मनशां आवडटात... आनी अंकल कपड्यां वेल्यान मनीस पारखीता एकेच नदरेन... एऽ, फर्स्ट इंप्रेशन बरेंऽ पडूंक जाय हां..."

ल्हान भुरग्याक शिकोवचो तशें लिना ताका सांगतालें.

"आगो, पूण पळय लिना..."

"हांव कांयच आयकुवचें ना हां..."

''सॉरी लिना, आज म्हाका कशेंय करून ऑफिसांत वचूंक जाय गो! तीन दीस जाले, पावल घालूंक ना ऑफिसांत...''

''तातूंत कितें जालें? अंकलाक मेळप चड म्हत्वाचें अशें दिसना तुका? आमच्या घरांत न्हय, अंकलाच्या मताक खूब मान आसा...''

''लिना, हांव सांजचो साडेपांचांक पासय मारतां... कितलेंय पुरो जाल्यार येतां... सामको तुजे खातीर...''

''ना हां! सकाळचोच येवंक जाय तुवें...''

''व्हेरी सॉरी! सांजचो पासय मारतां, साडेपांचक!'' अरविंदान फोन दवरलो.

'लिनाक निवळावपाचें हें पयलें पावल.' ताणें चिंतलें. हें लिना समजता तरी कितें म्हाका? ताच्या अंकलाक आवडटा म्हणून हांवें फात मारचो, टाय मारचो... हें करचें आनी तें करचें?

ऑफिसांत गेलो तरी ताचो राग निवळूंक नासलो. काम सोंपलें तरी तोंडार मातशें उदक मारचें, फ्रेश जावचें अशें लेगीत ताका दिसलें ना... पुरो जाल्लो तस्सो तो लिनागेर हजर जालो.

तो सकाळचो पावलोना म्हणून लिनाक पयलींच ताचो राग आयिल्लो. तातूंत ताचो हो अवतार...!!

- शर्टाक फेर्र नासलें...

केंस कशायकशे जाल्ले...

तोंड वळमळ्ळें...

लिनाचो अंकल ताका वयर सकयल पळेतालो. सूट-बूट टाय मारून बशिल्लो तो... ताणें शेकहँडाक हात फुडें केलो. अरविंदान बोल्सांतलो लेंस काडून हात बरोऽ पुसलो आनी मागीरच हात मुखार केलो. हय! लिनाबशेन ताकाय भितर वचून हात धुयन दिसत...!

इतल्यांत लिनाच्या डॅडीन विचारलें, ''ऑफिसांतल्यान भायले भायर आयले दिसता?''

''हय! सायटीर वचचें पडलें आज! घरा वचून परतो येतलों तर मागीर रात जातली म्हणून तसोच आयलों.''

लिनाची मावशी भयणी वांगडा कितें तरी फुतफुतताली. दोगांयच्या कपलाक आठयो पडिल्ल्यो.

च्या बी घेवन अरविंद बद्द घरा गेलो.

दुसऱ्या दिसा सकाळींच लिनाच्या डॅडीचो फोन- 'मातशे येवन वचात...!''

''सांजेचो पावतां.'' ताणें जाप दिली.

सांजेचो तांगेर गेल्यार लिना घरांत नाशिल्लें. मावशे बराबर शॉपिंगांक गेल्लें.

लिनाचो बापूय गुळगुळीत उलयतालो.

''म्हजे मेवणेच्या मतान- लिनान पयलीं ग्रॅज्युएट जावचें... आपले पांयार उबे रावचें... रागार जावं नाकात हां. पूण वर्सभर वाट पळयता अशें तुमकां कशें म्हणूं?''

''-पूण तुमीच तर फाटल्यान लागिल्ली न्ही, लग्न बेगीन करूया म्हणून?''

''हय! मागीर... पूण ताचे मावशेन हें ताचे तकलेंत अमेरिकेचें पिशें घालां न्ही? लिनाचा सभाव मातसो... तुमी जाणातच... एक-एक तकलेंत घेवन बसतलें... मनांत येता तेंच्च करतां म्हणटलें.. तुमी रागार जावं नाका हां... पूण...''

खरें म्हणचे अरविंदाक खूब्ब राग येवपाचो. पूण ताचें ताकाच अजाप जाता- 'आरेच्च्या! म्हाका राग कित्याक येना. भितल्ल्यान तिडक कशी मारना?' परती चडल्ली तकली देंवताली... मनय ल्हव ल्हव जातालें. तोंडार अडेची नाखुशी लेगीत दाखयना आसतना तों तोंडभर हांसलो. ताणें बरेंभशेन सांगलें- ''म्हाका मात्तूय राग ना. आमचे विचार आनी आचारय पटपाचे नासलेच. फुडें संवसारांत धोशी जावचे परस तुमी आतांच मोडतो घालो हें चड बरें जालें.''

माथ्यावेलें एक व्हडलें वजें देंविल्ले भशेन लिनाच्या बापायन कपलावेलो घाम पुसलो- ''म्हाका चिंता पडिल्ली. तुमी खरेंच व्हड मनाचे... सोयरीक जाली, प्रसाद जालो आनी आतां हें...!''

तशें अरविंदान सहजशें म्हळें ''आसूं हां, कांय नजो! जाता तशें केन्नाय!''

'...आरेच्च्या! हीं उतरां म्हजे तोंडाक...? कोणालीं उश्णी घेतल्यांत ही हांवें? कानांनी आयकल्लीं हीं उतरां काळजा भितर पावलीं कशीं? केन्ना? फकत उतरांच मूं? कांय उतरांची धनीणय बी...?'

दोळ्यां मुखावेलें धुकें पयस जावचें आनी सगळें स्पश्ट दिसचें तशें ताका जालें.

''हें कितें? च्या घेवन चलात...''

लिनाचो बापूय कितें उलयता, तें ताचे तकलेंत पावलेंच ना. तो सरळ भायर सरलो आनी स्कूटर स्टार्ट केली. 'मावशेगेर या...? चल वचूंया...' ताणें चिंतलें.

शिळोणी घालीत मावशेच्या फ्लॅटाची सोपणां तो चडटालो... ताकतिकेन सोपणां देंवपी शरू ताचेर आदळपाचेंच. दोनय हातांनी ताच्या बावळ्यांक धरून अरविंदान ताका सांवरलें...

शरू बाबडें लज-लज-लजलें. तरीय ताणें म्हळें,- सॉरी! व्हेरी सॉरी! हांवें पळयलेंच ना.''

तशें अरविंदान हांसत म्हळें- ''जावं हां! कांय नजो! जाता तशें केन्नाय??''

***



सुधाबायच्या कथांचे खाशेलेंपण म्हणल्यार तातूंतली मानवी मुल्यां विशींची सजगताय आनी थळकाळानुरूप समाजभान.

कांयशा परंपरागत भासपी कथन पद्दतींतय ती पात्रांची मानसीकताय, आंतरीक तशेंच बाह्य संघर्शाचें तर्कनिश्ठ उक्तावण आनी समस्यांचें सहज भासपी पूण सैमीक निरसन ह्या घटकांची बेस बरी मांडावळ ती करूंक शकल्या.

हातूंतल्यान तिगेली प्रगल्भताय आनी व्यासंग दिसून येता.

– डॉ. किरण बुडकुले

संजना पब्लिकेशन्स
सांगें–गोंय.